# तिची काणी

डॉ. जयंती नायक






| | |
|---|---|
| **तिची काणी** | **TICHI KANNI** |
| (दिर्घकथा संग्रह) | (Collection Of Long Stories) |
| **डॉ. जयंती नायक** | **Dr. Jayanti Naik** |
| **प्रकाशन क्र. :** 29 | **Publication N0. :** 29 |
| **प्रथमावृत्ती :** 2020 | **First Publication :** 2020 |

| | |
|---|---|
| **छापणावळ :** | **Printing :** |
| लोकमान्य प्रोसेस | Lokmanya Process |
| खोर्ली, तिसवाडी, गोंय | Corlim, Tiswadi, Goa |
| **मुखचित्र :** | **Cover :** |
| श्रीधर कामत बांबोळकर | Shridhar Kamat Bambolkar |
| **रेखाचित्रां :** | **Sketehes :** |
| सिया पंडित | Siya Pandit |
| **प्रकाशक :** | **Publisher :** |
| अवधूत आमोणकर, | Avadoot Amonkar, |
| राजाई प्रकाशन, | Rajaee Prakashan, |
| आमोणें, केपें, | Amona, Quepem, |
| गोंय-403705 | Goa- 403705 |
| मोबायल : 9823575623 | M. 9823575623 |
| ईमेल : jaynaikamona@gmail.com | |
| **मुल्य : ₹ 150/-** | **Price : ₹ 150/-** |

## मनोगत

# 'तिची काणी' सांगतना...

**'तिची काणी'** हो म्हजो दिर्घ कथांचो संग्रह. ह्या संग्रहांत तीन काणयो आस्पवाल्यात. तिनय काणयो अस्तुरेच्या जिविताचेर आसात. जननी, पुत्री आनी सहचरणी हीं अस्तुरेचीं तीन मुखेल रुपां. भारतीय संस्कृतीन तिका देवीचो दर्जो दिला. तिचें माता रुप आदिम काळासावन पुजलां. मात शेकड्यांनी वर्सांसावन तिचो छळय केला. केन्ना संस्कृतीच्या नांवाखाला तर केन्ना कौटुंबीक आनी सामाजिक नेमांच्या नांवा खाला तिचें शोशण केलां. अस्तुरी म्हणजे फक्त एक इंद्रीय, तिका भावना नात. तें दादल्यांनी जाय तशें भोगपाचें, ताचे राकेशीपणान हाल करपाचें, पिसुडपाचें, किरमुवपाचें ही भावना दुर्दैवान प्रगत मानपी आयच्या समाजांतय आसा, म्हण कंवळ्या चलयांचेर निर्भया जावन प्राण सोडपाचो प्रसंग येता . तिच्या माता रुपाचीय अवहेलना करपाक समाज फाटीं रावलो ना. जेन्ना अत्याचारांनी शिममेर हुंपल्या तेन्ना मागीर बायलेन हातांत शस्त्र घेतलां, ती चंडी जाल्या. आपल्याचेर आगळीक करप्यांचो तिणें शिरच्छेद केला. ती सांतेरीची दुर्गा जाल्या!

ह्या संग्रहांत तीन कथा आसात. पयली 'अदिती', दुसरी 'सतीमाय' आनी तिसरी 'ती'. तिनय कथा नायिका प्रधान. अस्तुरेच्या दिर्घ संघर्शाच्यो ह्यो कथा. हांतली 'अदिती' आनी 'सतीमाय' ह्यो वीस वर्सां आदीं बरयिल्ल्यो , पूण तांतुतलो अस्तुरेचो संघर्श आजय काळाभायरो जाल्लो ना. 'तिची काणी' ही कथा दोन वर्सां आदिची. शिकून सवरुन स्वावलंबी जाल्ल्या अस्तुरेच्या वांट्याकय संघर्श आनी भोग चुकलेनात हें सांगपी ही कथा.

हांव स्त्रीवादी लेखिका अशें स्वताक बिरुद लायना पूण स्त्रीयांचें दुख्ख-कश्ट समाजामुखार मांडपा खातीर म्हजी लेखणी बांधील आसा इतकेंच हांव हांगा अभिमानान नमूद करतां.

हो संग्रह वाचकांक अंतर्मूख करतलो अशी आस्त आसा.

**– डॉ. जयंती नायक**

# मांडावळ


1. अदिती 8

2. सतीमाय 44

3. तिची काणी 72

# अदिती

'**आख्खी** रात उगड्या दोळ्यांत काडली. पातकडेक मातय पातकडी तेंकलीना. हात परते परते उशाकडेन दवरिल्ल्या पत्राकडेन वताले. कितले फावट तें पत्र वाचलें ताचो हिशेब ना. पूण मन अजूनय सारको निर्णय घेवंक पावलें नाशिल्लें. एके वटेन दिसतालें, जाल्लें गेल्लें सगळें विसरून धांवत वच्चें ताच्या म्हऱ्यांत. धवे पडिल्ले ताचे कुडिचेर स्पर्शाची वखदी लेपून परत चेतन करतो ताका! दुसरे वटेन दिसतालें, कोण तो म्हजो? नातें कितें ताचें आनी म्हजें? कित्याक तळमळटा म्हजें काळीज ताचे खातीर इतलें? सोरपाच्या पिल्याक दूद पिवोवनूय ताणें वीख वोंकचें तशें म्हजे व्होटणेंत वीख वोंकलो तो! ताचे वोंकिन म्हज्या आंगावेलीं इतल्या तेंपाचीं धुल्लीं नितळ वस्त्रां हळशीक जालीं, पुराय बुरबुटलीं. वीट आयली म्हाका, म्हज्याच सर्वांगाची! फकत म्हज्याच सर्वांगाची न्हय, तर त्या पुराय वाठाराची! त्या वाठारांत रावपी लोकांची, थंयचे किडी आनी मुंयेची लेगीत! म्हणून तर ह्या इतल्या पयस अनवळखी वाठारांत, ह्या रानांत, बाकीच्या जगाकडल्यान सगळें नातें तोडून येवन रावपाचो म्हजेर प्रसंग आयला.

तसो हो वाठार म्हाका अनवळखी न्हय, हांगाचे लोकय म्हाका परकी न्हय! ह्या लोकांकडेन म्हज्या भितरल्या'हांव' चें कदीमकाळासाकून एक शाश्वत अशें नातें जुळिल्लें आसा. तांचेपरस म्हजी बोली वेगळी, भेस वेगळो, आवडी-निवडीय वेगळ्यो. पूण म्हज्या काळजाच्या सतारीच्यो तारो

तांच्याच मातयेंत तयार जाल्ल्यो. म्हाका हाची जाण आसा म्हण जिवितांत आयिल्ल्या त्या भयानक अस्वस्थतायेच्या प्रसंगार हांव हांगा उठून आयलां, म्हज्या 'हांव'ची मुळां उस्तूंक! म्हजो 'काल' सोदूंक!

रातभर चलिल्ल्या दोन मनांच्या झगड्यांत म्हजो जीव सामको आकूळ-पिकूळ जाल्लो. काळीज सामकें घाबरें जाल्लें. वच्चें, काय वच्चें न्हय, हाचो निर्णय जायनाशिल्लो. हुमटायिल्लें तरी मनाचे वारीचें एक मूळ अजूनय ताच्या काळजांत उरिल्लें, तें घुंवन घुंवन आपलेवटेन ओडटालें.

शम्मीन पत्रांत स्पस्ट बरयिल्ले, 'मॅडम, गोवा मॅडिकलांत ॲडमिट केल्लो तुजो अभि आतां मरणाकडेन अखेरची झुंज दिता. तांतल्यान तूंच एकटी ताका वाचोवंक शकता, हें परतय एकदां हांव तुका कळयतां. तेन्ना येवप काय ना, तें तूंच थाराय! भुरग्यांनी अबुद्धपणान केल्ले चुकीचें तांकां कितलें पानवळ दिवप हाचो निर्णय आतां तूंच घे!'

पत्रांतलीं चार वाक्यां, पूण ह्या चार वाक्यांतल्यान भूत-वर्तमान-भविश्यरुपी तीन महाकाय अक्राळ विक्राळ राकेस म्हज्या मनाच्या दारांत थयथयाट घालूंक लागले. आपल्या हातांतल्यो तिख्याच्यो तरसादी वावुडीत आपलो राकेसी जबडो फांकून म्हाका खावूं काय गिळूं म्हण पळोवंक लागले. खंयच्याय खिणाक तांच्या हातांतल्या तरसादीनीं म्हज्या आंगाच्यो शिन्न्यो जातल्यो हें म्हाका पुराय कळून चुकिल्लें, पूण म्हाका दडूंक खंयच जागो नाशिल्लो.

भुरगेपणांत म्हाका सदांच एक सपन पडटालें, ह्या सपनांत खूब जाण अनवळखी लोक दांडे-कोंडे घेवन म्हजे फाटीक लागताले, आनी मागीर हांव आकांतून धांवत लागीं मेळटा त्या झाडाच्या, वण्टीच्या आडसाक दडटालें, ती वणत वा झाड मागीर म्हाका आपल्या आंगांत भितर रिगयताली. म्हजें पडबिंब त्या झाडाच्या वा ते वण्टीच्या आंगांचेर उदेतालें, पूण त्या दांडे-कोंडेकाराच्या मात हांव हाताक लागनाशिल्लें. ते तिडकीन संतापून त्या झाडां-वण्टींचेर दांडे घालताले. पूण ते उसळून तांच्याच आंगाचेर परतताले. तें पळोवन हांव उमेदीन व्हडा व्हडान हांसतालें.

आज ह्या खिणाक दिसलें, सपनांतल्या त्या झाडां-वण्टींभाशेन म्हज्या घराच्या वण्टींनी वा दारांतल्या एकादऱ्या तरी झाडान म्हाका आपल्या आंगांत, आपल्या उदरांत घेवंचें, आनी त्या दैत्यांपासून म्हजी राखण करची!

जिवितांत वांट्यांक खूब संघर्श आयले. संघर्शांतल्यानच आयची मान-प्रतिश्ठा मेळयली. आज राष्ट्रीय-अंतरराष्ट्रीय थरार फावो जाल्ली नामना हेंवूय संघर्शाचेंच फळ! खंय खंय संघर्श करचो पडलोना? घरांत... समाजांत... बौद्धीक मळार...!

भुरगेपणासाकून शिकपाक हुशार. वाचनाची खर भूक. मेळटा तें अधाशासारकें वाचप! चांदोबा, गोष्टींचीं पुस्तकां, दिसाळीं; इतलेंच न्हय तर सामानाच्यो पुडयो बांदून आयिल्लीं कागदां लेगीत वाचप. बापायक हाचें व्हडलेंशें कांयच दिसनाशिल्लें. बायल-भुरग्यांच्या दोन वेळच्या जेवणाची तजवीज करपाचें विवंचनेंत तो घुस्पल्लो. आवयक मात धुवेचें खूब कवतूक. आपूण धुवेक दोतोर करतली अशी ती सदांच म्हण. परिस्थितीक लागून धुवेक वखदांचो दोतोर करूंक ती पावलिना, पूण तिच्या त्या इत्सा-शक्तीच्या बळग्यार हांव डॉक्टरेट घेवंक पावलें. समाजशास्त्राची पंडिता म्हूण म्हज्या नांवामुखार लायिल्ली 'डॉक्टर' ही उपाधी पळोवनच तिणें दोळे मेटले.

ही पदवीय तशी सुखा-सुखी पदरांत पडलिना, परिस्थितीकडेन झूज दिवनच ती पोश्यांत घेतली. णववेंक आसतना बापूय भायर पडलो, फाटलीं तीनय भावंडां अबुद्द आशिल्लीं. दोग भयणी, तांचे फाटलो एक भाव. व्हडली भयण म्हण त्या खिणाक जबाबदारीची भावना कोणें सांगतासतनाच मनान पेलली. आवयच्या कश्टांक हातभार लायत शिकप चालू दवरलें. मॅट्रिके उपरांत एका खाजगी शाळेंत नोकरी धरली. एक्ट्रर्नल कॉलेजीचें ॲडमिशन घेतलें. दोनय जबाबदाऱ्यो सांबाळटना जीव रडकुरो जातालो, पूण हार मानली ना. बी.ए. साकून एम.ए. आनी एम.ए.च्यान पीएच्.डी. मेळयतना, नशिबान सांगात दिलो. स्वताच्या बुद्दी आनी गुणवत्तेच्या आदारार शाळेच्या टिचरीसाकून कॉलेजींत लॅक्चरर आनी कॉलेजींतल्या लेक्चररासाकून युनिव्हर्सिटींत प्रोफेसर म्हण संद मेळ्ळी.

यशाचें एक एक सोंपण चडटना, सांगाताक अफाट वाचनाची जोड मेळिल्ली, तरी ज्ञानपिपासू मनाची भूक दिशींमाशीं वाडतच वताली. आतां भोंवतणी वावुरतले लोक वेगळे तरेन भासताले. तांचें उलोवप, खावप-जेवप न्हेसप, सगळेंच मनाक बेचैन करतालें. तांच्या मुळां-पाळांचो सोद घेवपाचे नशेंत मन गुल्ल जातालें.

कश्टांच्या बुन्यादीचेर मेळिल्ल्या यशावांगडा हातांत पयसोय आयलो. ह्या पयशांनी फाटल्या भावंडांचें जिवीत घडयलें... खरें म्हळ्यार घडयलें म्हणचे परस 'सावरलें' हें उतरच हांगा योग्य जातलें. कारण हांव घडोवंक सोदतालें तशीं ती कोणच घडलिंनात. म्हज्या पयशांच्या आदारान तांणी आपल्याक उपजिविकेचो सोपोसो मार्ग सोदलो. तांणी म्हज्या इत्सा-अपेक्षांची पर्वा केली ना, तांचे नदरेन ती करपाचें कारणय ना! तांकां जाता तितले बेगीन आपलें जिवीत सावरपाची तिश्टत लागिल्ली. जिवीत सावरपाची तांची संकल्पनाय सामकी संकुचीत, मोडवी, बेबकाळी! शेड्ड्या सारकी तांची उडी; लग्न-भुरगीं-घर हेच वयेंवेली. तांच्या मतान, हें मेळयता तोच खरो शाणो. देखून म्हजीं पिशेपणां आयकून तांकां म्हजेसारकी पिश्यांची जीण जगपाची नाशिल्ली. तांकां तांचें ध्येय गवसल्लें, तांच्या जिवितांतलें म्हजें म्हत्व दिसान दीस उणें जायत वतालें.

आई बाबडी हें सगळें पळोवन खेदताली. तिका आतां खूब गुन्यावकारी जातालें. योग्य वेळार आपणें धुवेच्या लग्नाचें कर्तव्य केलें ना म्हण आतां ती दुकांय गळयताली. तिच्यो भयणी, बापोलभयणी येवन तिच्या कानांकडेन जायते फावट फुतफुत्ताल्यो, हांव सभा-संमेलनांनी भोंवता, परिसंवादाच्या निमतान दोन-दोन, तीन-तीन दीस परगांवांनी रावतां, संशोधनाच्या निमतान दादल्यांच्या पंगडांत एकसुरी बायल आठ-आठ दीस रानां-वनांनी भोंवतां... एक न्ही हजार! मेल्ल्या मड्याचेर जशीं गिधां तुटून पडचीं तश्यो त्यो म्हजे आवयचेर तुटून पडटाल्यो. पूण म्हजी आई मोठी म्हत्वाकांक्षी बायल! तांचे सारकी तिची नदर मोडवी नाशिल्ली. आपले धुवेचें कर्तुत्व पळोवन सोयऱ्या-धायऱ्यांचे दोळे दिपकावल्यात. मेटिल्ल्या तांच्या दोळ्यांक सगळें काळेंच

दिसता हें ती पुराय जाणा आशिल्ली. आपली धूव सामान्यांपरस वेगळी. देवान तिका असामान्य बुद्द दिल्या, ही बुद्द भुरग्यां-बाळांचें गू-मूत काडपाखातीर तिणें घाणाक दवरची न्हय तर समाजांत कितें तरी वेगळें घडोवपाखातीर तिणें वापरची अशें तिका मनापसून दिसतालें. पूण मरचे कांय दीस आदीं तिवूय सर्वसामान्य आवयभाशेन वागली. हॉस्पिटलाचे खाटीर पिडेन वळवळटना तिणें म्हजो हात हातांत घेतलो आनी म्हळें,

"बाय, दोळे धांपचे आदीं म्हजी एक इत्सा पुराय करशीत?"

"आयज मेरेन तुवें जी जी इत्सा परगटायल्या ती ती पुराय करपाचो हांवे यत्न केला आई, आतांय करतलें!... सांग!"

"बाय....बाय... तूं लग्न जा!.... शालीमावशेन एक बरोऽ भुरगो पळयला तुजेखातीर! बँकेत ऑफिसर आसा!"

एका दमांत ती उलयली आनी हांव दोळे मोट्टे करून तिचेकडेन पळयतच उरलें. कितें घडलां हाची म्हाका कल्पना आयिल्ली पूण आईच्या तोंडावयले भाव पळोवन शालीमावशेक उद्देशून तोंडार आयिल्ली एक सणसणीत जाप हांवें वोंठांतच दांबली. जिबेचेर पुराय ताबो दवरून हांवें आईक विचारलें,

"आतां ह्या वयांत, ह्या पदार पावतकच हांवें लग्न जावंचें अशें कित्याक दिसलें तुका आई?"

"तुका कोणाचो तरी आदार मेळटलो गो बाय... म्हज्या फाटल्यान तूं एकटें जावचेंना! कोणाचो तरी सांगात आसतलो तुका!"

"आदार? जिवितांत इतलें सगळें एकट्यान झगडून मेळयले उपरांत आतां कोणाकडल्यान कसल्या आदाराची अपेक्षा करूं? आनी सांगात जाय म्हण, जाचेकडेन म्हज्या मनाच्यो तारो जुळूंक शकनात अशा मनशाकडेन लग्न जांव? कित्याक फकत शरीराची भूक भागोवंक? आनी ताचो तो सांगातय जिविताचे अखेरमेरेन मेळटलो हाची कितें शाश्वती?"

मनाचेर संयम दवरुनय प्रश्नरुपी एक उद्रेक म्हज्या तोंडांतल्यान भायर पडलो. आई वाचा गेल्लेवरी जावन म्हजेकडेन पळोवंक लागली. आपल्या प्रस्नान हांव दुखावलां हांचें तिका भान आयलें आनी तिचे दोळे दुकांनी

दाटलें. तसो तिच्या गालावेल्यान हात फिरयत हांवें म्हळें,

"तूंच म्हजो खरो सांगात आई! हो देह, रक्तमांसाचें हें शरीर तुवेंच घडयलें आनी तांतल्या प्राणदिव्याक तेलूय तुवेंच दिलें! तूं ह्या संवसारांत आसूं वा नासूं, पूण तुजो अमूर्त सांगात जिविताच्या अखेरच्या खिणामेरेन म्हज्या वांगडा आसतलो..."

म्हज्यान आनीक उलोवंक जालें ना. हांव दाटिल्ल्या गळ्यान थंयच्यान उठून भायर गेलें.

***

हॉस्पिटला मुखावेल्या जार्दिनांत मांडिल्ल्या त्या पाशाणी सोप्याचेर हांव कितलो वेळ अंतर्मुख जावन बशिल्लें. आईच्या प्रस्तावान आज म्हजो आत्मसन्मान दुखाविल्लो. काळजाच्या गोंड्याचेर कोणेंतरी तिखाळ धारेची ब्लेड ओडिल्लेभशेन जाल्लें. तांतल्यान भळभळ करून रगत व्हांवक लागिल्लें. रगतान माखिल्लें तें काळींज दोनय हातांनी सांसपीत हांव म्हज्या मनाचो तळ सोदूंक लागलें... काळजाच्या खोल खोल तळाक फकत एकाच.... एकाच पुरुशाची मूर्त जतनाक दवरिल्ली आशिल्ली. सोळा ते छत्तीस! पुराय वीस वर्सांचो कालखंड! ह्या वास वर्सांच्या कालखंडात फकत एकाच दादल्याचे आसक्तीन मन बेचैन जाल्लें. तेंवूय एकदांच! उपरांत मेंदवांतल्या विवेकबुद्दीन हातांत चिंचेचें सोप घेवन मनाक दपकायल्लें, चिप्प केल्लें! ते उपरांत मनान केन्नाच ताची याद काडलिना.

त्या दिसा स वर्सांच्या कालखंडा उपरांत काळजाचें उत्खनन करुन ताची मुर्त वयर काडिल्ली. पूण जिविताच्या गर्भकुडींत प्रतिशठापना करपाखातीर भक्ती-भावनेन घडयिल्लें तें शिल्प आतां प्रदर्शनाची वस्त म्हण खंयच्याय संग्रहालयांत दवरूंक मन कसेंच तयार जायना जालें, देखून जे उर्बेन मुर्त वयर काडली, तशीच तिका परतून पुरली.

व्यास! व्यासकुमार शर्मा! नांवाक फावोशें झंझावाती व्याक्तीमत्व! ताच्या शरीरांत जणू तेजाचो हिरण्यगर्भ आशिल्लो!

ताच्या व्यासंगी पांडित्यान नकळटां म्हज्या काळजाक भूल घाल्ली. ताच्या तोंडार झांकळटल्या बुद्दीमत्तेच्या तेजान म्हजी कूड हुलपायल्ली. ताच्या भेदक दोळ्यांनी म्हज्या मनाची वणत आरपार चिरिल्ली. ताच्या धीरगंभीर आवाजान म्हज्या शिरंतरांनी बिजुलेचें केण रिगयल्लें.

कालिकत युनिव्हर्सिटीच्या एका सेमिनाराक विशय मांडपी उलोवप करपाखातीर तो मुद्दाम युपीच्यान आयिल्लो. हांव गोंयच्यान पेपर रिडर म्हूण गेल्लें. खरेंतर आमचेमदीं पेपरांतले चर्चेक धरून आनी गोंयच्या समाज-जीवनासंबंदान थोडेंशें औपचारीक अशेंच उलोवप जाल्लें. आनी तितल्यानच हांव पागळिल्लें. आनी मागीर ताचें दर एक उतर हांव कंठांत प्राण हाडून आयकूंक लागलें. ताचें दर एक वाक्य स्वल्प-पूर्णविरामासयत काळजांत रिकोर्ड करूंक लागलें. इतलो तेंप ताचे विद्वत्तापूर्ण लेखन- प्रबंध हांवें वाचिल्ले, शिकिल्ले. आज प्रत्यक्षांत ताकाच हांव आकलन करपाची धडपड करूंक लागलें.

म्हज्या अवतिकायेची ताका कल्पनाय आसचीना. आनी आसल्यारुय तो किंमत दितलो आशिल्लो काय हांव नकळं. तशें पळोवंक गेल्यार ताच्या खाजगी जिविताविशीं म्हाका कांयच खबर नाशिल्ली. ताचें संवसारी जिवीत कशें आसा, ताचें वय कितलें, तो लग्न जाला काय ना, ताका भुरगीं आसात काय ना, हांव कांयच नकळो आशिल्लें. आनी तें जाणून घेवपाचीय म्हाका इत्सा नाशिल्ली. म्हाक़ा कर्तव्य आशिल्लें तें फकत ताच्या शिरंतरांनी उमळटल्या तेजाच्या वझऱ्याकडेन!

विशय मांडपी उलोवप करून तो त्याच दिसा विमानान दिल्ली वचपाक गेलो, जवाहरलाल नेहरू विद्यापीठाची एक म्हत्वाची मिटींग अटेंड करूंक. थंय समाजशास्त्र विभागाचो तो प्रमुख आशिल्लो. हांवें मात सेमिनाराचे दोन दीस पुराय पिसाविल्ले अवस्थेंत काडिल्ले. बशिल्लेकडेन ताची सावळी आंगार पडिल्ल्याचो भास जातालो आनी नकळटां कानसुलां तापतालीं. शिरंतरांतल्यान एक जाय जायसो कंप सुट्टालो. ताचे तेजोमय कुडीक स्पर्शुवंचें, ताची अख्खी कूडच म्हजेभितर रिगोवन घेवची, ताच्या आंगांतल्यान

उमळटल्या तेजाच्या झरींनी चिप्प भिजचें, आनी... आनी ताच्या तेजाचो हिरण्यगर्भ म्हज्या कुसव्यांत रुजोवंचो, किल्लावंचो, स्वताच्या रगतपेशींचो अर्क दिवन ताका वाडोवंचो आनी बाळकाच्या रुपान म्हज्याच उदरांतल्यान परत एकदां ताका जल्माक घालचो, अशी खर इत्सा काळजांत उदेताली.

जिवितांत एका दादल्याच्या आसक्तीन हांव ते दीस पयलेच फावट इतलें अस्वस्थ जाल्लें. आजवेरच्या जीवन प्रवासांत कितक्यातरी दादल्याकडेन वळखी जाल्ल्यो, कितक्या तरी दादल्यांकडेन वेव्हार केल्ले, विद्यादाना निमतान ल्हान - व्हड वयाचो कितके तरी दादले सहवासांत आयिल्ले आनी गेल्ले. कांय जाणांनी लग्नाचो प्रस्तावूय मांडिल्लो, कांय जाणांचे दोळे मोगाची भाशाय उलोवन गेल्ले. पूण म्हज्या मनाक मात कोणच भावलो नाशिल्लो. भुजांर जबाबदारी आशिल्ली खरी, पूण ती सांबाळटनाय, तांतल्या एकादऱ्याचो प्रस्ताव स्विकारुं येतालो, ना अशें न्हय. पूण जाचे भोंवतणी जीव उंवाळून उडोवचो, असो एकूय सभागो तांचेमदीं नाशिल्लो. विद्ववत्तेबगर एरंड कशे ऐसपैस वाडिल्ले तांचे देह म्हाका कशेच आकर्शित करनाशिल्ले. जुवानपिशां सतराव्या वर्सा लेगीत अशे देह म्हाका केन्नाच भूल घालूंक पावलेनात. आतां तर वयाची-मनाची, पुराय परिपक्वताय गांठिल्ली. तिशीच्या हुमऱ्यार पावल पडिल्लें म्हजें तेन्ना. रिडर म्हण युनिव्हर्सिटींत हाताखाला दोन भुरगीं संशोधनूय करतालीं. विद्ववत्तेबगर मनीस म्हळ्यार उदकाविणें कळसो! जिवितभर तो हांडीर घेवन भोंवपाची कल्पनाच म्हाका मुर्खपणाची दिसताली.

मनाची ती अस्वस्थताय फकत दोनच दीस उरिल्ली. कालिकत साकून गोंय परतीचे वाटेर मन थीर जालें. मनांतल्या विवेकबुद्दीन काळजांत फुलिल्ल्या चंवराक निबर हातांनी तोडून वेव्हाराचे बाटलेंत भरिल्लो आनी ती बाटली काळजाच्या तळाक शेंवटून मारिल्ली, देंवचाराक बाटलेंत भरून दर्यांत शेंवटूचो तशी!

ताचे वेंगेंत वितळून वचपाची काळजांतली खर इत्सा परत केन्नाच वयर उफेलिना हय! पूण म्हज्या ज्ञानपिपासू मनान मात आख्खो संवसार धुंदाळून ताचें एक एक पुस्तक मेळयलें आनी तांतल्या गिन्यानरसांत स्वताक आकंठ

बुडोवन घेतलें, घेत रावलें.

त्या दिसा हांव काळोख पडसर हॉस्पिटलाच्या जार्दिनांत बसून आशिल्लें. ताच्या अतृप्त आसक्तीन परत ते दीस एक फावट मन सैरभैर जाल्लें.

म्हयन्याभरांत आई गेली आनी जिवन-मरणाचें तत्वगिन्यान जाणा जावनूय हांव पुराय हुमटलें. व्हडपणाचे जाबाबदारेन तिच्या म्हानिर्वाणाची तयारी करतना काळीज भितरल्यान होळम घालतालें. पूण दोळ्यांतल्यान एकूय दूक भायर सरनाशिल्लें. आजमेरेन वांट्याक आयिल्ल्या संघर्शाचे धगीन दोळ्यांच्या कुपयांतलें सगळें उदक आटून गेल्लें. आनी तातूंत कितेंय बाकी आसल्यार लेगीत हांव दुकां गळोवंक शकनाशिल्लें. म्हज्या भावनांचें प्रदर्शन लोकांमुखार करप म्हाका मान्य नाशिल्लें. म्हाका भावनाच नात, आसात ते फकत विचार, असोच म्हज्या भोंवतणच्या सगळ्यांचो समज आशिल्लो. म्हज्या भावंडांचें बरें, तीं हामेर घालून पोट फुटसर रडलीं. मागीर शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांनी कळवळून तांकां पोटाकडेन धल्लीं, मावशां-मामयांनी माया आटून तांचे फाटीवयल्यान हात ओडले. म्हज्या माथ्यार निकटो हात दवरचो अशें लेगीत कोणाक दिसलेंना. उलट म्हजे नदरेक नदर मेळटांच, नाटकीपणान वळवळटली तांची जीब गप्प-चिप्प जाताली.

कांय दीस दुकां गळोवन म्हजीं भावंडां आपआपल्या संवसारांत गुल्ल जालीं. म्हज्या जिवितांत मात भयानक एकसुरेंपण आयिल्लें. एक खोल अशी पोकळी जिणेंत तयार जाल्ली. जगपाची सगळी चेतनाच सोंपिल्ली. आनी....आनी अशा वेळार जिवितांत तो आयलो. तो.... तो म्हळ्यार अभि... अभिजीत देसाय!

ताच्या येवपान जगपाची नवी उर्बा काळजांत किल्लली. सत्वहीन जाल्ले पतिव्रतेक तिचें तेज परत मेळचें, तशी जगपाची नवी उमेद घेवन अभि म्हजे जिणेंत आयलो. शिशिरांत उगडो बोडको जाल्ल्या दोंगराक वसंतांत नवो चंवर येवंचो, तसो ताच्या येवपान म्हज्या अस्तित्वाक फुलोर आयलो. अभिमदीं म्हाका प्रो. व्यासाचें तेज गवसल्लें. ताचेसारकी असामान्य बुद्दी, तीच खर गिन्यान लालसा... तीच अफाट विद्वत्ता!

प्रो. व्यासाचें तेज कुसव्यांत रुजोवपाची म्हजी अतृप्त इत्सा अभिजिताच्या रुपान सत्यांत अवतरिल्ली. म्हज्या रक्तपेशींचें सत्व दिवन म्हज्या गर्भघरांत वाडयिल्लो नासूं, आजमेरेन हांवें मेळयिल्ल्या गिन्यान-कुंभांतलें अमृत पाजून ताकां हांव घडयतलें म्हणपाचो निश्चेव मनान ताका पळयिल्लो त्याच खिणाक केल्लो!

अभिक घडोवपाचे धुंदींत स वर्सांचो काळ कसो गेलो कळ्ळेंच ना. पयलीं ताचीं एम्.ए.चीं दोन वर्सां, उपरांत चार वर्सांचें ताचें पीएच्.डी. खातीरचें संशोधन. युनिव्हर्सिटींत, घरांत चोवीसय वरां ताका म्हजें दार उकतें आशिल्लें. ताच्या पीएच्.डी. क लागून हांवें हातांत घेतिल्ले म्हजे संशोधनाचे दोन प्रॉजेक्टय घुटमळटाले. पूण म्हाका ताची चिंता नाशिल्ली. एकदां अभिक डॉक्टरेट मेळ्ळी म्हणटकच म्हाका म्हजे तपश्चर्येचें फळ मेळटलें आशिल्लें. आनी मागीर अभिच म्हाका म्हज्या वावरांत मदत करतलो आशिल्लो.

म्हजें पुराय जिवितच अभिमय जाल्लें. दिसरात ताचेच विचार, ताचींच चिंतनां. एक दीस तो दिसलोना जाल्यार जीव खासावीस जातालो. ताच्या आंगावेल्यान निकटी उब गेली जाल्यारूय काळीज सकल वयर येतालें.

अभिचोय जीव आतां म्हज्या पांखट्यामदीं घुस्पल्लो. म्हज्या कपलाक एक मिरीं लागल्यारय तो रडकुरो जातालो. हालिंसराक म्हाका कितें जाय-नाका, बाजार नुस्तें, सगळें तोच करतालो. एकाद्रो दीस हांवे आडायलो जाल्यार ताच्या दोळ्याचे कांठ उदकान उपाट भरताले. मागीर म्हाकाच गुन्यावकारी जातालें. तेन्ना मनांत नकळत विचार येतालो, 'व्यासाच्या वीर्यान खऱ्यानीच म्हगेर पूत जल्मल्लो आशिल्लो जाल्यार करचो नाशिल्लो तो म्हजेखातीर हें सगळें? घेवंचो नाशिल्लो म्हजी काळजी? मागीर अभिन केलें म्हण कितें जालें? व्यासपूत नासलो तरी म्हजो मानसपूत तो!

अभिवांगडा चडशें शम्मीय येतालें म्हगेर. मागीर म्हजो मोनो फ्लॅट तांच्या दोगांयच्याय चिंवचिंवाटान आंग आंग चंवरतालो, सुखावतालो. शम्मी अभिची जीवन सांगातीण जावपाचें आशिल्लें. अभिची पीएच्.डी. जाली म्हणटकच तीं रोखडींच लग्न जातलीं आशिल्लीं. सद्याक शम्मी एम्.ए. पुराय

करून लागींच सरकारी कॉलेजांत शिकयतालें.

शम्मी पयले फावट जेन्ना म्हज्या फ्लॅटार आयिल्लें तेन्ना परत वचूंक भायर सरतना म्हजो जीव चुटमुटूंक लागिल्लो. घरांत आयिल्ल्या लक्ष्मीक रित्या हातान परती कशी धाडप? नकळत म्हजीं पावलां आरमारीकडेन वळील्लीं. शम्मी साडी न्हेसना हें जाणा जावनय एक नवी घडी मोडूंकनाशिल्ली साडी हांवें हातांत काडिल्ली.

म्हज्या घरांत देवारो नाशिल्लो, पूण देवतेरुपी म्हजें आवयचो फोटो म्हज्या बॅडरुमांत पुजेक लायिल्लो आशिल्लो. तिच्या फोटवामुखावेलो कुकमाचो करंड हांवें उबारलो.

शम्मी लजेन सामकें तांबडें जाल्लें, हातांतली साडी सांबाळत नाकार पडिल्ल्या पिंजरीक फूंक मारीत, तिरश्या दोळ्यांनी तें अभिकडेन पळेतालें... आनी अभि एकसारको खिदळटालो. खिदळटां खिदळटां म्हजी फकाणां मारतालो.

''मॅडम, तुमी कितक्योय शिकल्यो तरी शेवटाक बायलो त्यो बायलोच न्ही?''

''हय रे बाबा, आमी बायलो त्यो बायलोच म्हूण तुमकां दादले ते दादलेच जावंक मेळटा!''

अभिच्या प्रस्नाक हांवें ताचेच पद्दतीन हांसत जाप दिल्ली.

मन समाधानान भरून आयिल्लें. बायलांक दिवपांत कितें सूख मेळटा हें त्या पिशाक कितें खबर? आनी दिवप, तेंवय अभिच्या 'व्हूड बी'क! म्हज्या घरांत हुमऱ्यावेलें माप उमथून केन्ना कोण येवपाचो नाशिल्लो, केन्ना सुनेची पावलट दरवंजा भितर पडची नाशिल्ली. पूण शम्मीच्या येवपान ती म्हज्या घरांत पडिल्ली, मागीर त्या पावलांच्या धनिणिचो भोवमान केले बगर तिका हांव परत कशी धाडूं?

पारव्यांचे जोडयेसारकी चोंचींत चोंच घालून शम्मी आनी अभि दोगांय चिंवचिंवत गेलीं आनी मागीर म्हाका म्हजेंच हांसूंक आयिल्लें. येदी व्हडली विदुशी बायल हांव, कसले रिती-भातीक चिकटून आसां? कसल्यो प्रथा

पाळटा?

पूण त्या दिसा म्हाका एक दिश्टावो जाल्लो. आमची वार हे मातयेंकच जोडिल्ली आसा. कितलेय शिकले संवरले तरी मातयेच्या उदरांतल्यान हे वारीचें पोत आमच्यांनी तोडूंक जावचेंना!

अभिच्या थिसिसाचें काम आतां जवळ जवळ पुराय जाल्लें. निमाणो हात फिरोवन आतां हस्तलिखित रोखडेंच छापणावळीक दिवपाचें आशिल्लें. अभिपरस म्हज्याच मनाचेर चड ताण आशिल्लो. आतांमेरेन पांच जणांनी म्हज्या हाताखाला डॉक्टरेट मेळयल्ली, पूण इतलें टेंन्शन म्हजेर पयलेच फावट आयिल्लें.

हेरांची गजाल वेगळी, अभिची वेगळी. अभिचें संशोधन एक फावट प्रकाशित जायत तर ताणें मांडिल्ल्या निश्कर्शांनी राष्ट्रीय अंतरराष्ट्रीय मळावेल्या मानववंशशास्त्र आनी समाजशास्त्राच्या विद्वानांनी मांडिल्ल्या निश्कर्शांक आव्हान मेळटलें आशिल्लें. नामना, प्रतिश्ठा खिणांत ताच्या पांयांकडेन लोळणी घेतली आशिल्ली. आनी म्हज्या जिविताचें ते दीस सार्थक जातले आशिल्ले. पूण ते खातीर पर्फेक्शन सामकें गरजेचें आशिल्लें. बारीकांतली बारीक चूक लेगीत विपर्यास घडोवंक कारण जावपाची शक्यताय आशिल्ली. 'कोंकण प्रांतांतलो आर्य-अनार्य संकर' ह्या विशयाचेर अभिचो वावर आशिल्लो.

त्या दिसांनी म्हज्या मनांत अभिच्या थिसिसाबगर दुसरो कसलोच विचार येनाशिल्लो. त्याच व्यापांत मन पुराय घुस्पल्लें. एक दीस अचकीत जाणवलें की हालीं शम्मी पयली सारकें अभिवांगडां येना. आदीं दिसलें अभिक ताच्या प्रबंधाच्या कामांत डिस्टर्ब करुंनये म्हूण येना आसतलें! पूण दोनदां वाटेर मेळिल्लेकडेन ताणें नदर घुंवडायिल्लेभशेन केली. हांवें मुद्दाम हटकितकच वैलेचाराक उलयतात तशें तें उलयलें. तेन्ना मात हांव येवजूंक पडलें. येवन हांवें अभिक तशें विचारलें लेगीत. पूण अभिनूय हांसून म्हज्या प्रस्नाची जाप दिवपाचें टाळ्ळें, तेन्ना तांच्या दोगांयमदीं कितेंय झगडीं जाल्यांत म्हणपाचो म्हाका दुबाव आयलो. आसतलीं मोगाची झगडीं! जातलीं दोन दिसांनी

एक! ह्या वयांत अशेंच घडटा, अशें येवजत म्हज्या कामाच्या व्यापांत हांव ती गजाल विसरूनय गेलें. .... आनी ध्यानामनांत नासतना त्या दिसा तें सगळें नाटक घडलें. त्या नाटकान म्हजें जिवीत उध्वस्त केलें. म्हज्या मान-सन्मानाचीं बोंदरां करून भर चावडेर लांबयलीं...

लॅक्चर सोंपोवन हांव तेन्नाच म्हज्या स्टडीरुमांत भितर सरतालें, दारांतल्यान धड भितर लेगीत पावलें ना म्हळ्यार जाता. इतल्यात झड-मोड करीत येवपी वावतर कशें शम्मी भितर सरलें. ताची झळ लागतांच हांव चक्क करून फाटल्यान वळ्ळें.

''मॅऽ ऽ डऽ ऽ म्!

थरथरतल्या शम्मीच्या ओठांतल्यान बरोच उंचेलो आवाज भायर पडिल्लो. ''मॅडम! अभिक केन्ना मुक्त करतली तूं?'' शम्मीचो प्रस्न आयकून हांव गोंदळ्ळें. अशें कितें विचारता हें आज?

''केन्ना म्हणजे? आगो आनीक दोन म्हयन्यांनी, म्हळ्यार डिसेंबराचे अखेर मेरेन ताची थिसीस टायप जावन तयार जातलीं. ती एकफावट सबमीट केली म्हणटकच ताका मुक्तीच मुक्ती!''

''कोण जाण ताका मुक्ती मेळटली काय ताच्या गळ्यांत फांस पडटलो म्हूण !.... म्हाका लोकांनी सांगिल्लेंच, तुज्या सारक्या बायलांक कंवळ्या चल्यांची चटक आसता म्हण! एकदां आंगाक चिकटल्यो म्हणटकच जळूसारक्यो पोट तडस जालेशिवाय कश्योच सोडिनात म्हण तांकां! पूण हांवूंच मूर्ख...म्हजोच विस्वास नाशिल्लो तांच्या उलोवण्यांचेर...!''

तापिल्ल्या कैलांतल्यान ल्हाय उसळची तशें शम्मी फटफट्‌ करून उलयतालें. ताच्यो नाकपुडयो फुगिल्ल्यो, दोळ्यांतल्यान उज्याचें धगधगीत केण भायर सरताले.

कडिल्ल्या शिशावरी शम्मीचीं उतरां कानांत पडलीं आनी म्हज्या काळजाक व्हडल्यान चुरको आयलो. तें न्हिन्नळ्ळें.

''आऽ ऽ आ ऽ ऽ ई ऽ ऽ गे ऽ!''

''गेट आवट! गेट आवट फ्रॉम माय रुम शम्मी!''

म्हज्या आवाजाक चडिल्ली धार आनी दोळ्यांतली खरसाण शम्मीच्यान पेलूंक जाली ना. तें आयलें तशेंच धुमसत गेलें. आनी हांवें घडायंच करून कदेलार बसकण माल्ली. हाता -पांयांतली शक्तच गेल्लेवरी जाल्लें.

- शम्मी... शम्मी म्हणटा हें म्हाका! जे चलयेक हांवें सदांच म्हजी धूव कशी मानली, म्हज्या मानसपुताची जिवनसांगातीण म्हण सदांच तिच्यो अर्थ - अपुर्बायो केल्यो, तें... तें शम्मी म्हणूंक पावलें हें सगळें म्हाका! आनी कोणाविशीं? अभिविशीं! अभि म्हज्या काळजाचो गोंडो. म्हज्या पुराय जिविताचें सत्व दिलें ताका हांवें! भुरगेपणांत ताका मांडयेर घेवन घडये राती जागयल्यो नात हांवें, पूण ह्या स वर्सांतलो म्हजो दरएक खीण ताचोच फुडार घडोवपाच्या चिंतनांत घालयलो... शम्मीक हें सगळें खबर आसा न्ही... न्ही... तेंच ह्या सगळ्याची गवाय आसा... आनी त्या शम्मीच्या तोंडांतल्यान असलीं उतरां! बरें जालें, येन्नाच ताच्या काळजांतली कोडसाण भायर सरली ती. अभिक सांगचें पडलें हें सगळें... ताकाच आतां निर्णय घेवंदी कितें तो!

नाका.... नाका....! अभिच्या कानार आनी ही गजाल घालप नाका. खूब दूख जातलें ताका. पांखां तुटिल्ल्या सुकण्यावरी फडफडटलो पोर म्हजो!... आनी तिडकीसरशीं शम्मीकडले संबंद तोडले जाल्यार मरसर जियेसर पश्चतापाक म्हारग जातलें म्हाका....!

हांव जाणां, चाळीशी हुंपल्या तरी म्हजी कूड अजूनय आखीव-रेखीव आसा. हालींसराक आंग थोडें सुटलां, पूण ताणेय व्यक्तीमत्वाक एक भारदस्तपण आयलां. मुळच्या गोऱ्यागोमट्या चेऱ्याचेर मारतली कर्तुत्वाची कांत अजूनय म्हज्या सहकाऱ्यांचे दोळे म्हजेर खिळोवंक कारण जाता. म्हणून कितें जालें, लोकांनी म्हजेविशीं अशें उलोवप?

...माथ्याक पुरुशी स्पर्शचो हुनहुनीत चुरको लागलो आनी मेजार दोनूय हातांच्या घडयेंत खुपशिल्ली म्हजी मान हांवें एकदम वयर केली.

"अ...भिऽऽ!"

अभिचीं बोटां निबर जावन म्हज्या केसांत भोंवतालीं.

"शम्मीचें मनाक लावन घेवंनाका तूं देवी... ताचेकडले सगळे संबंदच

तोडून उडयल्यात हांवें आज!"

"दे...वी?"

किर्ते उलयता हो अभि आज? मॅडमची देवी केन्ना जाली ताका हांव? म्हजे हातपांय एका अनामीक भंयान थरथरूंक लागले. काळजाचो धोल कोणतरी डबडब करून वाजोवंक लागलो.

"आयजवेर तुवें खूब सोंसलें देवी... हाचेमुखार दुख्खाचो एक खीण लेगीत तुज्या वांट्याक येवंक दिवचों ना हांव!... हाचेमुखार तुज्या दोळ्यांतलीं सगळीं दुकां हांव पियेवन उडयतलों... देवयानी...!"

"देवी...देवयानी...आभि, अभि किर्ते उलयता तूं आज हें? तकली जाग्यार आसा मरे तुजी? अऽ ऽ भि!"

भंयान एक किळांच म्हज्या तोंडांतल्यान भायर पडली. दोळे मोट्टे करून हांव अभिकडेन पळोवंक लागलें. आज तो म्हाका वेगळोच भासूंक लागलो. ताच्या दोळ्यांतली सदची निरागसताय ना जाल्ली. ओंठावेले काळे ल्हंवेचें आतां दाट मिशयांत रुपांतर जाल्लें. सांखनळेंतल्यान भायर सरतल्या आवाजाक आतां दादलेपणाची झांक मारताली.

ताच्या आंगांतल्यान भायर सरतलो पुरुशी दर्प म्हज्या नाकाक नेटान झोमूंक लागलो... आनी म्हज्या पोटांत एकदम धवळ्ळें.

हो...हो...हो म्हजो अभि न्हय. हो.. हो कोणतरी परकी दादलो! आरे देवा, ताका हांवें म्हजे इतले लागीं कसो येवंक दिलो?

म्हज्या केंसांक कुरवाळटलो ताचो हात झिडपून उडोवंक हांवें म्हजो उजवो हात नेटान वयर केलो जाल्यार अभिन ताकाच घट्ट धरलो. आपल्या दोनूय हातांच्या तळटांमदीं तो दामून धोगरेल्ल्या आवाजांत तो म्हणूंक लागलो,

"तुजेकडेन लग्न जातलों हांव देवी!... खूब खूब सुखांत दवरतलों तुका...!"

हांव कोण, खंय आसा, कित्याचेंच म्हाका भान उरलें ना. बोमलेच्या देठांतल्यान हांव आड्डुलें, "लाग चलूंक ऽ ऽ ! लाग चलूंक म्हज्या दारांतलो! परतून केन्नाच तोंड दाखयनाका म्हाका!"

म्हज्या आवाजाक शंभरांनी फागूर फुटिल्ले, म्हज्या कॅबिनाच्यो वण्टी फोडून ते फागूर जळामळा शेजारच्या रुमांनी पाविल्ले.

म्हज्या कॅबिनाच्या दारांत आतां गर्दी जाल्ली. सगळ्यांच्याच ओंठार 'कितें घडलां?' हो एकूच प्रस्न आशिल्लो. तांच्या प्रस्नांक जाप दिवपाचे अवस्थेंत हांव नाशिल्लें, म्हाका इत्साय नाशिल्ली. आनी खंयच्या तोंडान कितें जाप दितलें आशिल्लें हांव तांकां?

अभि म्हळ्यार म्हजो तळटावयलो फोड हें म्हज्या सगळ्या सिनियर –ज्युनियरांक खबर आशिल्ले. विद्यार्थ्यांक ताची पुराय कल्पना आशिल्ली. त्या अभिचेर हांव इतल्या व्हडान आड्डुलें? म्हज्या रुमाच्या दारांत उबे आशिल्ल्या दर एकाच्या तोंडार कितेंय तरी अघटीत घडिल्ल्याची भावना आशिल्ली. अजापीत जावन सगळीं जाणां आमचीं दोगांयचीय तोंडां नियाळटालीं.

दारांत गर्दी वाडटा ताची जाणीव जातांच अभि म्हज्या रुमांतल्यान भायर सटकलो. आनी हांवें आसा ना त्या फोर्सासरशीं घडायंच करुन दार माल्लें.

***

ते रातीं म्हज्या मनान एक निर्णय घेतलो आनी दुसऱ्याच दिसा सकाळींफुडें हांवें युनिव्हर्सिटींत म्हजो राजिनामो सादर केलो. व्हि.सी.च्या कसल्याच प्रस्नाक जाप दिनासतना मोन्यानी हांव भायर सरलें. राजिनामो मान्य जातलो काय ना हाचीय चिंता केली ना, येवन सरळ गरजेपुरतें थोडें सामान सुटकेशींत भरलें.

जायतीं कामां अर्दकुटीं आशिल्लीं. सद्द्याचे मनस्थितींत खंयचेंय काम करप म्हाका शक्य नाशिल्लें. मेंदवाचे कुकुडशा इतले बारीक कुडके जाल्ले. ते घडोवन परत मेंदवाक आकार दिता म्हणसर कितको काळ वतलो हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली.

भराभर सगळ्यांक पत्रां बरयलीं. पोस्टय केलीं. घोव मेले उपरांत सवाशीणपणाचो आंगावेलो शिरंगार सकल देंवयतना विधवेक जें दुख्ख

भोगचें, तेंच दुख्ख तीं पत्रां बरयतना काळजाक भोगतालें.

बँकेंत वचून अकावंटांतले थोडे पयशे काडले आनी सरळ टॅक्सी केली. दनपारचें देड वर जाल्लें. सांजेच्या चारां पयलीं म्हाका पिर्ला पावंक जाय आशिल्लें. पिर्लेचो दोंगर चडून कर्ला पावपाक म्हाका दोन वरां लागतलीं आशिल्लीं.

पिर्लेच्या दोंगराची उबी चडटी अशीर आनी आडखळीच्या पांयवाटेन चार वर्सां आदीं कुळंबी जमातीच्या सर्वेक्षणाच्या एका प्रॉजेक्टा निमतान हांव चडिल्लें. आज ती वाट तशीच आसा, काय दोंगराचीं पालसणां कोसळून पुरवल्या, काय सरकारान डांबर घालून ताचो रस्तो केला, म्हाका कांयच खबर नाशिल्लें. पिर्लेच्यान वयर वचपी कोणय मनशाचो सांगात धरून म्हाका कर्ला वचपाचें आशिल्लें.

दोंगरा माथ्यार आपल्याच धुंदीत, आपल्यांत मग्न जावन बशिल्ल्या त्या कर्ला गांवान खरें तर म्हाका चार वर्सां आदींच आपल्या कुशींत येवन बस म्हण सांगिल्ले. आपल्या भुजांचेर मान तेंकोवन सगळ्या दुख्खांक विसर घाल म्हण तेन्नाच सांगिल्लें. पूण त्यावेळार म्हाका स्वताच जावन खांदार घेतिल्ल्या जबाबदाऱ्यांचो मोह सुटना जालो. मात थंयच्यान परततना हांवें जानुदादाक सांगिल्लें,

"जानुदाद, म्हज्या जिवितांत जर केन्ना तपश्चर्येक बसपाचो प्रसंग येत जाल्यार हिमालयांत वचनासतना तुमच्या गांवांत येतलें हांव! दितले मरे म्हाका तेन्ना रावपाक जागो तुमच्या गांवांत?"

"केद्याय वेळार बाई! कित्याक भिल्या तूं? आमच्या गांवांत तूं रावप म्हटल्यार आमकांच व्हडपण तें!"

"व्हड म्हण रावपाचें ना रे म्हाका! म्हाका रावपाचें आसा हांगा, तें तुमचेंच जावन! तुमचे मदलें एक म्हण!"

जानुदाद गांवचो म्हाल बुदवंत, पूण ताकाय म्हज्या उलोवपा फाटलो भावार्थ कांय समजलो ना. तो 'बरें, बरें!' म्हणत रावलो.

लुंविल्लीं शेतां, उबीं उशेलां आनी झाडाचीं पांचवी गल्लां फाटीं घालीत

टॅक्सी पिर्लेच्या बरम्या देवळाकडेन थांबली आनी म्हज्या मनावेलो ताण थोडो ल्हव जाल्लेभशेन जालो.

गुडूगुडू करून टॅक्सी भोंवतणीं ल्हान आडसाठीं धायेक भुरगीं जमलीं. दोन-तीन आंगणांनी उब्यो रावन बायलो बागवल्यो. शाळेच्या पडवेर इस्पिकांनी खेळटल्या दादल्यांनी खेळ थांबयलो आनी गांवांत टॅक्सीन कोणागेर सोयरो आयला काय म्हण उमळशीकेन पळोवंक लागले.

"बाई, कोणागेर येयल्या तूं?"

"खंय वयता तूं बाई?"

"कोण जायो बाई तुका?"

त्या पोरांनी म्हजे भोंवतणी कलकलाट केलो. "कर्ला वता हांव!"

"कर्ला?" सगळयांनी म्हजेकडेन अजापान पळयलें. दोग पोर एकामेकांकडेन पळोवन पिच्च करुन हांसले लेगीत.

"कर्ला कशी वयतली तूं बाई! वयर दोंगरार तें. गाडी बी कांयच वचना थिंगा!"

"तुज्यान कशेंच वचोंक जावंचेना थंय!"

"तें मागीर पळोवया रे! तमचे मदलो कोणूय म्हाका वाट दाखोवंक येता जाल्यार सांगात."

तेन्ना मात ते हांव-तूं करूंक लागले. इतल्यांत एकल्यान म्हळें, "बाई, हेऽथंय चाये दुकानार कर्लेचो एकटो बाप्पा बसोन आसा. तेजेबराबर वच तूं! हांव आपयतां तेका!" आनी म्हजे जापेक रावनासतना ताणें धांव माल्ली.

पयसुल्ल्यान जानुदादाक हांव वळखलें आनी म्हजें काळीज सामकें उचंबळून आयलें. संकश्टाच्या प्रसंगार आपल्या मायेच्या मनशाक पळोवन जो धीर येता तोच जानुदादाक पळोवन म्हाका आयलो. तो म्हज्या म्हर्यांत पावचे आदींच दोनूच दांगां करुन हांव ताचे फुड्यांत उबें रावलें.

"....जानुदाद.... तुमच्या गावांत रावंक आयलां हांव! उतर दिल्लेप्रमाण दिता मरे म्हाका जागो तुमच्या गांवांत?"

जानुदाद म्हज्या उलोवण्याचेर विस्वास बसनासतना कितकोसो वेळ

म्हज्या तोंडाकडेन पळयतच उल्लो.

***

गेल्लें वर्सभर हांव कर्लेच्या रानांत मनशांती सोदपाचो यत्न करतां. थंयचे रोयणीची माती आंगाक लेपून मनावेल्यो किळसवाण्यो यादी पुरोवन उडोवपाखातीर धडपडटां.

जानुदादाच्या व्हडल्या आप्पोल्या खोपीची हांवें म्हजेखातीर पर्णकुटी केल्या. जाण्टेपण जाल्ल्यान हांव वच्चे आदीं वर्सभर साकून व्हडलो आप्पो जानुदादाल्या घरांत रावतालो. तो जानुदादाचो बापोलयो. बायल कांय वर्सां फार्टी मेल्ली. भुरगीं-बाळां कोण नाशिल्लीं, ताचें घर बंदच आशिल्लें. जानुदादान म्हाका तें वापरपाक दिलें. सुरवातीक जानुदादा आपल्या नळ्यांच्या घरांत, आपल्या घरच्यांवांगडा राव म्हण एकसारको आग्रो करतालो. मागीर हांवें ताका म्हाका बरोवपाखातीर एकांत जाय म्हण निमित्त सांगलें. तेन्ना मात ताच्या मनाक समजणी मेळ्ळी. म्हज्या खाण-जेवणाच्यो, न्हेसप-पांगुरपाच्यो गरजो आतां सामक्यो मर्यादित जाल्ल्यो. जानुदादाच्या आनी ताच्या घरच्यांच्या आदारार त्यो हांव भागयतालें. शक्य तीं म्हजीं कामां हांवूच करतालें.

तशें ‘धा’ घरांतल्या थंयच्या सत्तर लोकांक ‘बाई’ क कितें जाय-नाका हाची चिंता आशिल्ली. कोण ना कोण म्हजे भोंवतणी घुटमळतच आशिल्लो. तांच्या पोरसांतलें फळ, शाक-भाजी आपणें खावचे पयलीं म्हज्याक-घरांत पावताली. जिवितांत आतांमेरेन जायत्यो पदव्यो मेळयिल्ल्यो, खूब मान - सन्मान मेळयिल्ले, पूण काळजांतल्यान उदेल्ली आपलेपणाची भावना हांगाच्या लोकांमदीं हांव नव्यानच अणभवतालें.

अलिप्तताये‌ची सिद्धी मेळोवपाखातीर ह्या अनवळखी वातावरणांत तपश्चर्येक बशिल्लें हांव नकळटनां एका नव्या नात्याच्या पासांत घुस्पूंक लागिल्लें. जानुदाद आनी ताच्या बंधवांच्या सुख-दुख्खांत हळूहळू समरस जावंक लागिल्लें.

एका वर्सांत तांचेखातीर कितक्योश्यो गजाली करपाखातीर हांव धडपडलें. ह्यांच धडपडींतल्यान गांवांत मुळावी शाळा उबी केली. आमदाराच्या फाटीक लागून कर्ला ते पिर्ला डांबरी रस्तो पास करून घेतलो. गांवांत लायट हाडपाखातीर धडपडलें. अजून ती पावली ना हें खरें, पुणून चार दिसां आदींच खांबे घालपाखातीर मुळसांत लेमां खणूंक सुरवात जाल्या. आतां एक मुळावें भलायकी केंद्र कर्ला नासूं, निदान पिर्ला तरी घालून घेवप शक्य जाता जाल्यार पळोवंक जाय. खूब हाल जातात दुयेंतीचे. कर्लेच्याक केप्यां घेवन येता म्हणसर जितो उरतलो काय कितें हाचीय केन्ना खात्री उरना! तशें कर्लांत गांवठी वैज आसात. झाड-पालो आनी जायत्या मुळां. कोडलांचे वखदी गूण हांगाच्या तांतया-पिल्याक खबर आसात. पूण हालीं तांचोय तांचेवेलो भावार्त उडला. देखून ते तांकां गुणाक पडनात. जिणेंत भावार्त सगळ्यांत म्हत्वाचो. एकादां तो शेणलो म्हणजे जिवीत सगळें शुन्य! देखुनच तें शास्त्र परत एकदां प्रस्थापीत करपाखातीर हांव धडपडटां. जानुदाद, व्हडलो आप्पो, बारकेबाब हांच्या सांगातान रानांतली दरएक वखदी पळोवन घेतां, जाणून घेतां, गळ्यांत हुमकळयिल्ल्या कॅमेऱ्यांत तांचीं चित्रां सांठयत वतां, म्हजे पर्णकुटयेंत रात-रात बसून बोटां दुखसर तांची म्हायती बरयत रावतां. फुडारक वखदी वन म्हण तो जागो सरकाराकडून संवर्धीत करपाचो विचार आसा.

तशे हांगा आनीकय जायते व्याप करतां हांव! ददल्यांवांगडा मांडार वचून तांचो शिगमो नियाळटां, बायलांच्या हातांत हात घालून दिंनलो नाचतां. कामेरीं शेतांत नडटनां मेरेर रावन नेर बुड्डितां... गांवपणावेळार बुदवंतां सोप्यामुखार हांवूय नीत आयकूंक बसतां...

केन्ना केन्ना म्हजे म्हाकाच प्रस्न पडटात, कितें चल्लां म्हजें हें सगळें? कसलो निर्णय घेवन आयिल्लें हांगा हांव? आनी आतां स्वताक कसल्या व्यापांत घुस्पून घेतलां हांवें?...

प्रस्न हांवूच करतालें आनी मागीर ताका जापूय हांवूच दितालें... दुदान तोंड भाजलें म्हण गायेचे पाने कोण दागनात? चूक पितल्याची! ताणें घोट

मारचे आदीं पेल्यांत बोट बुडोवन पळोवंक जाय आशिल्लें... आनी भाजिल्ले ओंठ पेकोवंक जाय म्हणूनच तर हांगा आयलां हांव! गायेच्या दुदाकडलें नातें तोडूंक न्हय!

...हळूहळू मन मार्गाक लागतालें. हांवें अदमास केल्लो ताचेपरसय चड बेगीन चिनरां जाल्ले म्हजे काळजाचे गोजडेक कपयो लावन पुराय जाताल्यो! इतल्यांत मर्दीच सूत ओडून शिंवण उसोवची तशी म्हज्या मनाची अवतिकाय शम्मीच्या पत्रान केली. परत एकदां काळजाचीं बोंदरां जावन चोंयवटेन लांबूंक लागलीं.

फांतोडेर शेणा-शिंताडो घालून अनवाळें केल्ल्या आंगणांत येवन मर्दीच कोंबयेन चिरपुवंचें, तशें म्हयन्याआदीं शम्मीचें पत्र घेवन पोस्टमॅन आयलो. शम्मीक म्हजो पत्तो, ठाव-ठिकाणो कोणें दिल्लो, कसो दिल्लो, कांयच खबर ना. पूण ताचें पत्र म्हज्या थिरावतल्या जिवितांत खवदळ घालूंक कारण जालें.

चार पानांच्या शम्मीच्या पत्रांत ताणें उतरा कणकणीं भोगशिणेची विनवणी केल्ली. ताच्या करणेचें ताका उपाट दुख्ख जालां म्हणपाचें ताणें परत परत बरयिल्लें. पूण भोगशिणी मागप इतलेंच त्या पत्रांचे प्रयोजन नाशिल्लें.ताणें अभिखातीर तें पत्र बरयिल्ले. कोसळून पडटली आपल्या जीवन सांगात्याची कूड सांवरूंक ताका म्हजो आदार जाय आशिल्लो.

पत्राचे अखेरीक शम्मीन बरयिल्लें, ''मॅडम, तूं गेले उपरांत अभि पुराय कोसळ्ळो, पश्चतापाच्या उज्यांत दीस-रात हुलपलो... आनी... आनी ते हुलोप सोंसूंक जायना जावन ताणें ड्रग्सांचो आदार घेतलो! त्या ड्रग्सांचे चामाळेन ताच्या आंगांतलें पुराय रगत चिंवून घेतलां. आतां ताच्या कुडींत उल्ल्यांत तीं फकत हाडां! येन्नाच ते चामळेक ओडून भायर मारली ना जाल्यार ती ताचीं हाडां पोखरपाचें नेमावेगळें कृत्य करतली. ताच्या आंगाक दशिल्ले ते चामाळेक ओडून काडपाची शक्त फकत तुजेच एकटेकडेन आसा मॅडम! तुज्या भुरग्याचे अक्षम्य गुन्यांव पोटांत घालून तूं येशीत न्हय ताका वांचोवंक?''

पत्रांतल्या एका पॅरेग्राफांत शम्मीन बरयल्लें, 'मॅडम, अभिन त्या दिसा

उक्तायिल्ल्यो ताच्यो भावना खऱ्यो आशिल्ल्यो, तो तुजेर काळजाच्या खोलायेसाकून मोग करतालो. तुका सुखी दवरपाचें एकूच सपन तो रात-दीस पळयतालो. पूण ह्या मोगाच्या नात्याचें नांव कितें? तुज्या सुखाची जात कितें, हें ताचे अपरिपक्क बुद्धीक कळ्ळें ना; म्हाकाय तें उमगलें ना! जेन्ना कळ्ळें तेन्ना खूप कळाव जाल्लो, तूं आमकां सोडून नाच्च जाल्ली. तुका आमी खूब खूब सोदली. तुजो जंय जंय पत्रवेव्हार चलतालो थंय थंय सगळ्याक तुजो सोद घेतलो. पूण हाताक यश आयलेंना. मागीर हताश जाल्ल्या अभिन आपल्यो सगळ्यो संवेदनाच मारून उडवपाचो सोपो मार्ग सोदलो. ताका थातारपाची शक्त आमच्या कोणायकडेन नाशिल्ली, ताच्या आवय-बापायकडेन लेगीत!

आज नशिबान तुजो थाव मेळ्ळा, आनी हें पत्र हांव बरोवंक बसलां. तुज्या दोळ्यांक दोळो दिवपाचें म्हाका धाडस ना म्हण कागदाच्या ह्या कुडक्याचेर म्हज्यो भावना बरोवन हांव तुका धाडटां. मॅडम, हें पत्र हांवें म्हज्या रगताच्या तिंतान बरयलां. तांतलीं अक्षरां सुकचे आदींच तूं धांवन येतली हाची म्हाका खात्री आसा!'

- सुवार्थी! सगळीं एकजात संदीसादू! हीं मनशां आपल्या सुवार्थाक लागून केन्ना कोणाच्या वर्मार घाय घालत आनी केन्ना कोणाचे पांय धरत सांगूं नज! आपलें आंत जळटा तें पळोवन म्हजी याद जाली? तेन्ना चुरूचुरू उलयतना जिबेक म्हज्या भावनांचो विचार करपाची गरज पडलिना!... आनी तो... तो अभि..., चोरान म्हजें पुराय आयुश्य विखयाळें करून उडयलें! स्वताच्या जिविताची वीट वीट आयली म्हाका! म्हज्या तपाचें तेजच भशटोवन म्हजी सगळी जिणच ताणें लुळो-गुळो केली! आतां पश्चाताप करपाचें नाटक करून कोणाक दाखयता? लोकांक?

पत्राचे कुडके कुडके करून हांवें रान्नींत उडयले. दोन दीस मन थतरवितर जालें, आनी मागीर आसा तशेंच आपल्या व्यापांत दंगलें.

आठ दिसां आदीं शम्मीचें परत एक पत्र आयलें. बेशुध्द अवस्थेंत अभिक गोवा मॅडिकलांत ॲडमिट केला म्हण, आनी मेटिल्ल्या ताच्या ओठांतल्यान

'मॅडम,मॅडम' असोच ध्वनी भायर सरता म्हण.

हांवें जबरदस्तीन परत एकदां मनाचीं कवडां बंद केलीं. पूण काळजाचें पिल्लू भितर रावन एकसारकें दारार खोंटो मारूंक लागलें.

पंदरा वीस दिसांनी चुकून म्हणटा तशें एकादयाक पत्र घेवन येवपी भिकू पोस्टमॅन ते उपरांत आठ दिसांनी रोखडोच कर्लेच्या दोंगरार दिसलो. म्हका आयिल्लें शम्मीचें तिसरें पत्र दिवपाक तो आयिल्लो.

***

काल शम्मीचें अखेरचें निर्वाणचें कशें पत्र आयिल्लें. ताणें तातूंत फकत चारच वाक्यां बरयिल्लीं. पूण त्या वाक्यांतलो गंभितार्थ जाणून म्हजें मन आनी काळीज हे मदीं संघर्श सुरू जालो. दोगांय एका तोडिचीं! रातभर झुंजलीं तरी अजूनय कोणाचीच हार जायना! कोणूच फाटीं सरना. तांच्या ह्या झुजांत म्हजें 'हांव' पुरात रक्तबंबाळ जाल्लें!

मनाचें आनी काळजाचें झूज चालूच आशिल्लें. आतां ताचेकडेन दुर्लक्ष करून हांव उठलें. दीस केन्ना उदेल्लो. दारांतल्या वोवळीच्या पानांतल्यान धगमोडी किरणां आंगणांत पातळिल्लीं.

दाव्या खाक्यांत तुवाल्यांत गुठलयिल्ली घालपाच्या कपड्यांची पोटली आनी उजव्या हातांत कळसो घेवन हांव आंगणांत पावलें. व्हांवत्या थंड उदकांत अस्वस्थ कुडीक शांत करची हे आशेन हांव झरीर वचूंक भायर सरिल्लें.

तुळशीक दाव्यान अर्द प्रदक्षिणा घालून आंगणाचे मेरेभायर पावतां पावतां म्हजी नदर एकदम थिरावली.

जानुदादाली धवी गाय आंगणा कुशीच्या कांटयेच्या झाडाचो पालो खाताली आनी तिचे व्होटीक धोंगशे दीत तिचें चानयाळें शिब्रे पाडूक पान्यांक लुचतालें. हो देखाव खरें तर म्हाका सदचो. गांवांत हेर कडेनय अशे देखाव जायते फावटी म्हाका पळोवंक मेळटात. गांवांत गायेचें दूद कोण काडिनात. हांगा गायेच्या दुदाचेर फकत तिच्या पाडकाचो अधिकार. पाडकां दिसूयभर

आवयचे पाने चोखीत आसतात.

– तो देखाव पळयतना, म्हज्या काळजांच्या तळांतल्यान एक कळ उठली. कपड्यांची पोटली छातयेकडेन दामून हांव झरीर गेलें. झरींतल्या उदकांत हांव गळोमेरेन कितको तरी वेळ बुडून रावलें.

आंगाक शाबू लावपाची, आंग चोळपाची आज वान्साच जालीना. आंगावेल्या झिरपतल्या उदकारच हांवें कपडे चडयले.

झरीवेल्यान परत घरालागीं पावतनाच म्हजी नदर सगळ्यांत पयलीं कांटयेच्या झोंपीकडेन गेली. पूण वदळची गाय आनी तें पाडूक आतां थंय नाशिल्लीं. एक रुखरुख कशी काळजांत उदेली.

हातांतल्या वोल्यांचे पिळे आंगणांतले दोरयेर सोडयनासतनाच उडयले आनी हांव भितर आयलें. कण्णाचे वण्टीक दोरयेन हुमकळायिल्ल्या आईच्या फोटवामुखार दोनय हात जोडून उबें रावलें, आनी मन एकाग्र करपाचो यत्न करूंक लागलें.

कितको तरी वेळ हांव ध्यानस्त अवस्थेंत आशिल्लें. भोंवतणच्या सगळ्या अस्तित्वाचो म्हाका पुराय विसर पडिल्लो.

धांपिल्ल्या दोळ्यांमुखार आतां फकत आईचें मुर्त रूप दिसतालें.... उपरांत हळूहळू तिचो चेहरोच दोळ्यांक दिसूंक लागलो. मागीर म्हज्या दोळ्यांक फकत तिचे दोळेच जाणवूंक लागले... आनी पळयतां पळयतां त्या दोळ्यांच्या तेजांत म्हजें अस्तित्वच विलीन जालें!

पेट्टच्या होमखाणांतल्यान दिव्य तेजाची एक जोत भायर सरची तशें कांय वेळान आईच्या दोळ्यांत विलीन जाल्ले म्हजे दोळे भायर सरले आनी म्हजे खड्डेचे पोकलेंत येवन दसले.

आदिं दोळ्यांक आईचे दोळे...मागीर तिचो चेहरो...उपरांत तिची मुर्त आनी शेवटाक दोळ्यांक तिचो फोटो... अशें एक एक गजालींचें अस्तित्व शेणिल्लें तशेंच परत जाणवूंक लागलें. आतां कानांच्या पड्ड्यांचेर कितलेशेच वळखी–अनवळखी आवाज येवन आदळटाले.

“बा ऽ ई! बाईऽ ऽ !”




स्पर्श जाणवता इतल्या लागी येवन जानुदादाची बायल, दुरपदीव्हनी, म्हाका साद घालताली.

म्हज्या आंगणांत अख्खो गांव जमा जाल्लो. हांव आकांतलें.

"कोणाक कितें जालें गे व्हनी? लोक कित्याक जमल्यात हांगा?"

"भिवपाचें कांय ना गे बाई! हे त्या बारकेबाबाल्या भिकाऱ्याक दोंगरार गोरवां घेवन गेल्लेकडेन धाळींत एक पाशाण सांपडलां... तेचेर कसलें तरी देयी-देवांचीं चित्रां आसात. तें दाखोवंक घेवन येयल्यांत तुका सगळे!"

दुरपदीव्हनीच्या उतरांनी म्हजें काळीज सावरलें, पूण ताका पाशाण पळोवपाची उमळशीक जाली. हांव दुरपदीव्हनीक थंयच सोडून भायर धांवलें.

आंगणांत तुळशीचे पेडयेक तेंकोवन तें हातभर लांबयेचें आनी अर्द हातभर रुंदयेचें पाशाण दवरिल्लें आशिल्लें. ताचे भोंवतणी दादल्या-बायलांची गर्दी पडिल्ली. हांव म्हऱ्यांत पावतकच बायलो कुशीक सरल्यो. भुरगेय मात्शे कडेक रावले. मात भिकारो त्या पाशाणाचेर हात दवरून नेटान बसून रावलो.

भिकाऱ्या कुशीक बसून हांव तें पाशाण बरीकसाणेन नियाळटालें आनी भिकारो म्हाका रिपोर्टींग करतालो.

"जाणा बाई, काल सगळ्या राखण्यांनी गोज्यां -बारांनी खेळटना रडी करून म्हाका झील काडूंक लायलेलो, म्हुणोन आज हांव तेंच्याबराबर वचनासतना रागान एकटोच गोरवां घेवन कोल्या-घोळाक गेल्लो... थंय व्हडल्या आंब्यामुळांत मुतोंक गेल्लेकडेन धाळींत पुरोवन आसलेलें हें पाशाण म्हाका दिसलें... तसो तुका दाखोवंक म्हुणोन तें माथ्यार घेवन धांवत येयलों गांवांत!... गोरवांक बुसोन थंयच सांडलीं हायें.... तेंचो फोटो काडून पेपरार दिता म्हगे बाई?"

"भिकाऱ्या! खरेंच सांगता तूं हें पाशाण तुका धाळींत मेळ्ळें म्हुणुन? म्हजेकडेन फट उलोवं नाका!"

काळ्या पाशाणाचेर कातयिल्ल्या चित्रांच्या कात्र्यांत दडून आशिल्ल्या उदकाचें ओलसाणीक बोट लायत हांवें म्हळें आनी म्हज्या आवाजांतली जरब पळोवन भिकारो तत् पप् करूंक लागलो. दोळ्यांच्या एका कोनशांतल्यान

बापायक पळयत आनी एका कोनशान बशिल्ल्या बायलां मदल्या आवयचेर नदर मारीत सांगूंक लागलो,

"तें... तें... बाई म्हाका देयी पाणट्यार मेळ्ळें! गोरवांक राणये घट्टणार चरोंक सोडून हांव न्हावंक देंवतालों उदकांत. तें पायांक लागलें!"

"हातत् रांडेच्या! एकूच लाथ घालतलों पोटकुळेचेर!" बारकेबाब भिंकाऱ्याचेर झुडून गेलो. पूण हांवें ताका थातारलो.

"बाई, ह्या विद्वाट्याक हायें कितके फावट सांगलें, त्या बाठाराक वचनाका म्हुणोन! मार बुसोन घातलो तेका उस्केबडयांनी त्या घोग्यार वयता म्हुणोन न्हावपाक! पूण ह्या चेड्याक इशीम ना! तेची कोणें वार पुल्लेली म्हुणोन जाणा कोण थंय! आनी राणये घट्टणारच कितें तण आसा रे गोरवांक चरोंक? हेरकडेन कितें पाड पडलें?"

"आतां कसलें अरिश्ट येयलें जाल्यार कोण निवारण करतलो रे देवा! घेवन आनी येयलो तें गांवांत! पाणट्या धडेरच तरी दवरून येवपाचो न्हूं रे तुवें बाईक सांगोंक?"

"कसलें अरिश्ट बी येना रे बारकेल्याबाबो! आदीं ही मुर्त कोणाची ती आमी सोदुंया, मागीर जाय जाल्यार देवाक गाराणें घालून भोगशिणी मागुंया! आनी प्रसाद-पाकळी घेवन तिका व्हरून शिंयापुरसा मठांत दवरया. तो करतलो सगळें निवारण! भुरग्यांची चूक देव पोटांत घालना जाल्यार कोण घालतलो?"

भिकाऱ्याक रखपाच्या उद्देशान हांव उलयलें तशें बारकेल्याक सांत्वन मेळ्ळें. तो न्हिवलो. तशें तें पाशाण कोणाचें? खंयच्या देवाचें हें सोदपाची जणू सर्तच लगिल्ली. बोमदाद, सांगट्ट, सुकडो, कुश्ट, येसो, सगूण, बाबी... बायलो मात तोंड धांपून ओग्गी आशिल्ल्यो. घडये त्यो आपलेमदीं फुत्ताल्यो आसत. पूण म्हज्या कानार तांचो आवाज पडनाशिल्लो.

"बाई, त्या पाशाणाचेर दोन चित्रां आसात! एक दादल्याचें एक बायलेचें!"

"बाई, तीं म्हादेव-पार्वती आसतलीं!"

“ना रे! इश्णु -लक्षिम तीं!”

“देयी-देव रे तो!”

“पिशाभशेन कितें उलयता रे बाबी तूं? देव-देयीच रे तीं! पूण तेंचें नांव कळोंक जायें न्हू?”

“अशीं एकठेन दोन चित्रां आमी बाबा केन्ना पळयलीं नात!”

“कातयल्ली तरी आमगे गांवांत खंय पाशाणां आसात? आमगे देव म्हण्टात ते सुळसुळीत खांबे! एका आंगाचे! तेंकां मुखें बी कांयच ना!”

“अशीं हायें पाणाणी चित्रां पळयल्यांत तीं पर्वतार! चंद्रेश्वरा देवळांत. तिंवूय खंय चांदरा मेळ्ळेलीं! कदंबराजा मुस्तींतलीं! ”

“बाई ऽ ऽ ! हीं चित्रां पुराय नागडीं आसात म्हगे!”

“आनी तो देव पळय ते देयी दुदां चोखता!”

“शी! सामको म्हरे तूं लज नासलेलो! बाई हुजरां पोजडें उलयता?”

“पोजडें कितें उलयलां हांव तेतूंत? दुदां चोखता तें दिसता म्हणटगर....”

“बरें तर, दुदां तर दुदां! पूण ती चोखता म्हणनाका, पिता म्हण!”

चक्क करून हांवें सांगटूच्या तोंडाक पळयलें. म्हज्या मनांत एक वितार येवपाक सांगटू दुदां पिता म्हणून गेल्लो.

परत एकदां हांवें त्या पाशाणाचेर नदर थीर केली आनी ताचेर कोंरतिल्लीं दादल्या-बायलेचीं दोनय चित्रां बारीकसाणेन आभ्यासूंक लागलें.

चित्रांतल्यो दोनूय आकृत्यो पुराय नग्न आशिल्ल्यो. पूण दोगांयचींय जननेंद्रियां मात उठावदार कोंरतिल्लीं. बायल मोडवीं, पूण आंगापांगान धश्ट-पुश्ट! थानां हिसपापरस मोठीं मातृदेवते सारकीं! तिणें केसांचो आंबाडो घाल्लो. त्या आंबाड्याचेर एक साळक माळिल्लें. तिच्या कमराक नागाच्या आकृतिचें कडें आशिल्लें.

दादलो लांब-रूंद ताच्या केंसांच्यो जटयो फाटीर लोळटाल्यो. खाडा-मिशयांनी तोंड भरिल्लें. ताणें मान बागोवन तिच्या उजव्या थानाची चींव तोंडांत घेतिल्ली. ताचो दावो हात तिच्या गळ्याचेर आशिल्लो.

म्हजी नदर आतां जानुदाद आनी व्हडल्या आप्पोक सोदूंक लागली.

तुळशीकडच्यान पयस वचून आंगणाच्या एका कोनशाक उखणयां बसून ते दोगूय विडी फुंकताले.

“जानुदाद, तुका कितें दिसता? कोणाचीं चित्रां आसतलीं तीं?” तांचे मात्शे लागीं वचत हांवें म्हटलें.

“व्हडलो आप्पो म्हणटा बाई तीं कामदेव आनी कामावंतीदेयीचीं म्हुणोन!”

“कितें? कामदेव? व्हडल्या आप्पो, तूं जाणा म्हरे कामदेव म्हटल्यार कोण तो?”

“जाणा गो बाये, हांव पुर्राय जाणां!”व्हडलो आप्पो कच्च करून उलयलो. आनी णव्वदीच्या लागीं पाविल्ल्या त्या जाण्टेल्यामदीं आजुनय कितको आत्मविस्वास आसा ताची म्हाका कल्पना आयली.

“आप्पो, पूण तांच्या तोंडार बारीकसाणेन पळयल्यार कितें दिसता जाणा?”

“कितें दिसता? त्या देवाक ती देयी दूद पाजयता अशें दिसता म्हुगो? आनी तो देव तिच्या दुदांक लुचता अशें दिसता म्हुगो?... खरेंच तें! वोगीच आमगेले जाण्टेले तेंची फटीचीं चित्रां कित्याक कोरांत्तले?”

हांवे परतून एक फावट त्या शिल्पाचेर नदर माल्ली. शिल्पांतल्या त्या दादल्यान ते बायलेच्या थानांक तोंड लायिल्लें खरें. पूण तिच्या तोंडाचेर कामपिडेची विलगताय मातय उदेल्ली दिसनाशिल्ली. उरफाटें तिच्या मेटिल्ल्या ओंठांचेर वात्सल्याचो हांसो पर्जळटालो. त्या दादल्याचें चित्र पूर्ण पुरुशाच्या भेसांत आशिल्लें, पूण मदाग्निचे बदला बाळकाचीच निरागता ताच्या तोंडाचेर झांकळटाली.

शिल्प नियाळटां नियाळटां म्हाका सकाळीं कांटयेच्या झोंपिचो पालो खायत पाडकाक पाजयतल्या गायेची आनी चूरचूर करून दूद पितल्या तिच्या पाडकाची याद आयली. न्हय... तेंच नातें ह्या शिल्पांतल्या दादल्या बायलेंचें एकामेकांकडे आसा म्हणपाचो साक्षात्कार जालो.

व्हडलो आप्पो सांगूक लागलो, “त्या चित्राचो अर्थ कळटलो जाल्यार

बाई, आदीं तेचेफाटलो इतिहास जाणा जावंचो पडटलो. म्हाजेबगर हांगा कोणाक तो सारको खबर ना ! हांवेंय म्हुणोन म्हाज्या बापायकडल्यान आयकल्लो. तेणें कोणाकडल्यान आयकल्लो तें हांव नकळों. आतांच्या भुरग्यांसारके जाण्टेल्यांनी कितेंय सांगलें जाल्यार आमी तेका आरते-परते विचार नासलेले!''

हो गांव खंय बाई आदीं कामावंती नांवाचे एके राणयेन वसयलेलो. ''हें तें राणयेघट्टण पळय जें गांवांत आसा, थंय खंय तिचो सोन्या विंगळो आसलेलो. तेंतूंत खंय ती रावताली, आनी त्या पाणट्यार न्हाताली. म्हुणोन तो देयी पाणटो!... राणी म्हटल्यार देयीच गे ती... ती गुप्त जातकच लोकांनी खंय त्या जाग्यार देवूळ बांदलें... आनी कामावंतीदेयीची आनी बाळाची एकटेन मुर्त करून थंयच पुजेक लायली, अशें जाण्टेलो सांगतालो. पूण हायें केन्ना थंय देवूळ बी पळयलें ना! भुरगेपणा साकून राणयेघट्टण म्हण्टा थंय हायें मातयेचें धडेंच पळयलां...एक दिसा हांये जाण्टेल्याक इचाल्लेलें, थंयचें देवूळ कशें मोडलें काय म्हुणोन, तेन्ना तेणें सांगलें, 'पुता, कामावंती आनी बाळ दोगांय गुप्तखंडा वयतकच मागीर फाटल्यान बाळाचे नातरू-पण्टू खूब मातले, तेणीं वचत थंय भश्टकार केलो तेन्ना ते पळोवंक नजो जावन देयीन हिंगाचो आपलो म्हयमा सोंपयलो! म्हयमा ना जातकूच देवूळ उरता? तें गेलें मोडून पावस वाऱ्यान. मागीर किल्ललो तेचेर एरंड-शेमो!... आतां तरी थंय कांयच ना बाये! म्हाज्या भुरगेपणांत थंय सामके मोट्ठे मोट्ठे शेम्याचे रुख आसलेले. सुळ्ळऽ सुळ्ळऽऽ करून हेवाटेन तेवाटेन सोरोप भोंवताले. भंयान त्या वाठाराक कोणच वचनासलेले.''

''आतां त्या देयी घोग्यार हें पाशाण मेळ्ळें म्हणटकच जाण्टेल्याली ती खबर खरीच जालीना?'' व्हडलो आप्पो मोठो रंगांत येवन सांगतालो. येदोळ म्हणसर सगळ्यांनी पाशाणाक थंयच सोडून व्हडल्या आप्पोक मदीं घाल्लो.

''आप्पो... बाळ म्हटल्यार...?''

''तेंच तर सांगतां न्ही गो हांव? फुडें आयक....''

''तर एक खंय त्या राज्यांत सेनापती राजा आसलेलो. तेची खंय तारामंती

राणी आसलेली. त्या राजाक खंय सगळें सुख-धनदौलत आसलेली. पूण राजा पुत्रावाटेन खंय दुख्खी आसलेलो. जायते दान-धर्म केले पूण कशेंच फळ ना. राजा खंय सामको खेद करूंक लागलो. कशें जातलें आपलें फुडें? कोण सांबाळटलो हें राज्या? आपूण तर जाण्टो जालां! तेन्ना परधानान बुद्दी केल्यो, राजाक शांत राव म्हटलें आनी आपल्या रामजी-गोमजी शिपायांक धाडले कन्या सोदूंक! राजाक दुसरी बायल करया म्हटली आतां... तर रामजी-गोमजीक चंद्रसुर्याच्या राज्यांत एक कन्या दिसली. आं! म्हटलें, आमच्या राजाक ही बायल म्हण दिस्त फावो. तेणी चंद्रसुर्य राजाकडेन तिका मागणी घातली आनी थंयचे थंय लग्न थारायलें. लग्ना दिसा कितें जालें, दांत झडलेलो, केंस पिकलेलो, कमराक सात आठ येठे बांदुनूय बाग पडलेलो राजा पळयनाका, कन्या संतापली, कशीच लग्नाक तयार जायना. जायते लाळे-गोळे केले, तूप -लोणी लायलें, कन्या कशीच आयकना. राजाचेर आकांत येयलो. व्होर दारांतल्यान परतो गेल्यार पातक लागचेंना! मागीर परधानान कन्येक समजायली आनी पट्टराणी करपाचें उतर दिलें. मागीर कन्या माटवांत उबी रावली !

लग्न जावन परतो येतकच तो सेनापती राजा आनी ती चंद्रसूर्य राजाची कन्या लागलीं पलंगार मौजमजा करूंक. पूण हे राणयेगेरूय कशेंच पुत्रफळ जायना. पूण हे वाटेन कितें मजा जाली, व्हडले राणयेक दीस गेले. राजाक खबर ना, तो करता मजा धाकटे पलंगार. व्हडलेक जेवण-खाण कांय ना. ती खाता कणी-तूस शिजोवन. परधानाक कळनाफुडें परधान गेलो राजाफुड्यांत. पिळ्ळे कान राजाचे. मागीर राजान व्हडले बायलेचे सेवेक दासी-बटीक दवरल्यो. जाय जाय तें दिलें तिका. कांय दिसांनी राजाक भायल्या गांवांत तारूं घेवन वचपाचें जालें. तेन्ना पुत्र जायसर राणयेची बरी सेवा-चाकरी करात म्हण सांगून, वैजिणींक सुपलीभर द्रव्यें दिवन बरी ओर्द दिवन राजा गेलो. राजा वचनाका, धाकटेन कितें केलें? राजापरस चड द्रव्यें दिवन वैजिणींक आपल्या अर्दान ओडल्यो आनी राणयेगेर पूत जातांच तेका व्हरोन शेणागायरींत पुल्लो. हेवाटेन राजाल्या तारवार खंय माणिक-मोतयांचो

पावस झडलो, तसो आपल्याक पूत जाला हे उमेदीन राजा अर्दार साकून घरा परतलो तेन्ना धाकटेन सांगलें, व्हडले राणयेगेर हेवाळें जालां. राजाक मारली तिडक आनी तेणें राणयेक काडली आनी बंदखणीत उडयली.

तेवाटेन शेणागायरींत पुल्लेल्या बाळाक राजाचे म्हालगायेन उस्तून वयर काडलो. तेका चाटून निवळ केलो, दूद बीजन पासून जिवदान केलो. मागीर बाळ गायेबरबर बरों भोंवता. रातचो गोठ्यांत न्हिदता. कोणाक कांयच खबर ना.

एके दिसा गायेबराबर मड्डेर गेल्लेकडेन राखण्याक तो दिसलो. हो पुत्र राजाक फावोसो आसा, तेणे तो व्हरचो अशें चिंतून राजाक सांगूंक म्हण ते येताले, ते राणयेक सांपडले. तेन्ना राणयेन तेंचेकडेन सगळें विचारून घेतलें. तोच तो बाळ म्हणपाची तिची खात्री जाली. मागीर एक तणावरंड घेवन ती मड्डेर गेली, गायेक ती घालून, ती खातासतना बाळाक आपूण उबारतली म्हुणोन. पूण गायेक ज्युस्त कळ्ळें, ती राणयेक पळयतांच लागली शिंगाडो उबारून फाटल्यान. तशी राणी घरा येयली. आनी कट करून राजाक ती गाय विकूंक लायली. पूण ते आदीं गायेन बाळाक काडून म्हालम्हशीकडेन दिलो. तेन्नाय बाळाक राखण्यांनी म्हशी वांगडा पळयलो आनी राजाक सांगूंक येताले ते राणयेक परतेय सांपडले.

हेवूय फावट राणी तणाची वरंड घेवन म्हशी म्हऱ्यांत गेली. म्हस वरंड पळोवन बाळाक विसरली. मागीर राणयेन म्हस तण खाता म्हणसर बाळाक उबारलो आनी अटंग्य रानांत व्हरून कोयतुलान तेची गोमटी कापली आनी एका धिंवार व्हरून पुल्लो. त्या धिंवांतल्यान पाताळांतल्यान मृतखंडा वयर येवपाची म्हाल शेखाची वाट आसलेली. तो रातचो चरूंक वयर येतालो. तो चरतकच हेर शेख चरपाचे, धिंवार बाळाचें मडें आसा तें पळोवन म्हालशेरव ओग्गी बुरखो मारून न्हिदलो, तेन्ना हेर शेख उडून तेचे कामावंती कन्याफुड्यांत गेले. कन्येन बापायक बुरखो मारून न्हिदपा सारकें कितें कारण घडलां काय म्हण विचारलें. तेणें तेन्ना सांगलें,

'धुये म्हाजे, म्हाज्या चरवण्याक वचपाचे वाटेर एक नरमनशाचें पित्र

आसा. तेचेर दांग घातल्यार म्हाका पातक लागता आनी तेका हात-बोट लागल्यार तरासांत पडटा! म्हाजें सत्व हरण जाता!'

तेन्ना कन्या उठली, नीट त्या पित्रा म्हऱ्यांत गेली. आपलें कितेंय जाल्यार जाता, सगळ्या शेखाचे प्राण वाचतात न्हू! तिणें पित्र खाक्यांत माल्लें, पाताळांत हाडलें, शेखराजांक चरवण्यांक वचूंक वाट करून दिली.

आतां करतली कितें? ती तर भश्टली! तिका आतां शेखाराज्यांत कशेंच रावंक मेळना! तिणें बाप्पाकडल्यान अमृतकुंपी मागून घेतली, बाळाक जीवदान केलो आनी मागीर तेका घेवन नीट मृत्युलोकांत येयली. मृत्युलोकांत येवन ती खंय आमगे गावांत पावली. तेन्ना खंय हिंगा गांव-घर नासलेलें एक अटंगे रान आसलेलें. त्या रानांत न्हंयेचे धडेर तिणें आपलो सोन्या विंगळो बांदलो. मंत्रसाधन करून भुलीचें सगलें बाग-बागशेर तयार केलें. सर्वणाचें पाळणें तयार करून, मातयेच्या दोरयांनी तें आंगणांत बांदलें. मागीर तेतूंत बाळाक न्हिदोवन ती धोलोवंक लागली. दिशीं-माशीं बाळ वाडूंक लागलो. 'आई, आई' करून दिसभर तिचे भोंवतणी भोवूंक लगलो. करतां करतां बाळ बरोच व्हड जालो. कामावंतीच्या भुजांक तेंकलो. आतां तो तीर-कामटो हातांत घेवन शिकारेक वचूंक लागलो. सुकणें-सावद मारून हाडून कामावंतीक सैंपाकाक हाडून दिवंक लागलों.

एक दीस बाळ शिकारेक गेल्लेकडेन कामदेवाची नदर तेचेर गेली. गोरो-गोमटो रसरशीत सुर्यावर्णाचो बाळ तेच्या मनांत भल्लो. ल्हवूच बाळाक कळनासतना तो तेच्या आंगांत भितर शिरलो. बाळाक कांयच खबर ना! तो सदचे भाशेन शिकारे साकून येयलो. दारांत रावन 'आई ऽऽ! म्हण शाद घातलो. मागीर दोगांय जेवली-खालीं, आप-आपल्या पलंगार न्हिदलीं.

बरी रात उलगनाका, बाळाच्या आंगांतलो कामदेव जागृत जालो. पलंगार उदारी न्हिदलेले कामावंतीक पळोवन तेका सामको मद शिरशिरून येयलो. तो उठलो, ल्हवूच कामावंतीच्या पलंगार गेलो. कामावंती गाढ न्हिदलेली. तिका काय एक खबर ना! कामदेवान तिचें एक एक वस्त्र उतरायलें... आनी तिच्या नागड्या आंगाक आपल्या हातांनी घट येंग माल्ली.... आनी तिच्या

चिंवांक दांत लायले.

धडपडून कामवंती जागी जाली, पळय जाल्यार बाळ आपल्या आंगाक घट दसला! तिका कितें घडलां तें अंतरज्ञानान ज्युस्त कळ्ळें. देयी ती! तिका कोणाच्यान फटोवं जाता?

कामावंतीन आंगार चडलेल्या बाळाक झिडपून उडोवपाचो जायतो यत्न केलो, पूण तो मात पूण कुशीक सरना, परतो अदिकच घट जाता. ती कितें करतली? देयी जाली म्हुणोन तिवूय बायलमनीस न्हूंगे? दादल्या मनशाची येंग तिच्यान सोडोवं येता?

मागीर कामावंतीन आपल्या सत्वाक उलो केलो. आपूण खरी सत्याची बायल जायत तर यो म्हटलें आपल्याक धांवोन! पाव म्हटलें आपल्याक परसंगाक!

मागीर कितें पळयतलो? देयीच्या सगळ्या आंगांक चिंवोच चिंवों फुटल्यो! तेंतल्यान पावस पडटा तश्यो दुदाच्यो धारो उसळोंक लागल्यो! त्या धारांनी बाळ चिप्प भिजलो. देयीच्या दुदाचे थेंबे बाळाच्या नाका तोंडांत वयतांच तेच्या आंगांतलो कामदेव गेलो घुस्मटोन... तेणें माल्लो पळ आनी बाळाचें जालें ल्हान बाळशें. तें देयीच्या पान्यांक लागलें लुचोंक!

...देयी हांसली. उठोन तिणें बाळाक खाक्यांत घेतलो आनी व्हरोन पाळण्यांत दवल्लो आनी लागली बरी झिलप्यो दिवंक!

अशी ही देयी! परत बाळ व्हड जायसर थंय रावली... मागीर तो बरो मार्गाक लागला तें पळोवन, आपलें मंत्र - साधन करुन गुप्तखंडाक गेली! बाळान मागीर आपले आईचें नांव राखूंक बरीं राज्यां जोडलीं... नांव-किर्त मेळयली आनी मागीर आपल्या पुतांच्या हातींत राज्य सोंपावन तोवूय एक दीस गुप्तखंडा गेलो...!

...व्हडलो आप्पो सांगतालो आनी ताचें एक एक उतर म्हज्या काळजांत खवंदळ घालतालें.

आप्पोच्या काणयेंतल्या कामावंतीच्या जाग्यार म्हाका हांवूच दिसूंक लागलें.... तिच्या काणयेंतल्या बाळाच्या जाग्यार म्हाका म्हजो अभिच

दिसूंक लागलो...

– हय? तर मागीर म्हजें सत्व खंय गेलें तर? कामावंतीच्या सत्वाच्या तेजान तिच्या आंगांक चिंवोच चिंवो फुटल्यो! मागीर म्हज्या आंगांक कित्याक फुटल्यो नात तर त्यो? म्हजें सत्व खरें आशिल्लें जाल्यार म्हज्या बाळाच्या आंगांतल्या कामदेवाक थंड करप म्हाका कशें शक्य जालें ना तर तें? कामदेवाची बाधा जाल्ल्यान दुयेंत पडिल्लो म्हजो बाळ थंय मरणाकडेन अखेरची झुंज दिता आनी ताच्या आंगार म्हज्या छातयेंतल्या अमृताचो शिंवोर घालचें सांडून हांव हांगा कितें करतां तर?...

...हय! वचूंक जाय आतां म्हाका. आत्तां, ह्याच खिणाक, हेच घटकेक!.... मात लेगीत वेळ व्हगडायलो जाल्यार, छातयेंतल्या म्हज्या अमृताचें सांसणाखातीर वीख जातलें! मागीर संवसारातले खंयचेच आवयक केन्नाच पानो फुटचोना! तांच्यो व्हटी सदांखातीर पोक्यो जातल्यो! म्हज्या गुन्यावाचो स्राप सगळ्या आवयांक भुजतलो!

"जानुदाद... व्हडल्या आप्पो, हांव वतां! आत्तां, ह्या खिणाक!"

"खंय वयता बाई तूं? एकदम कितें जालें तुजें?"

"हांव वतां जानुदाद म्हज्या बाळाक वाचोवंक!... निश्प्राण जायत वतल्या म्हज्या बाळाच्या तोंडांत म्हज्या काळजांतले कुंपयेंतलें अमृत घालूंक! तुमच्या कामावंतीदेवीन आपल्या सत्वाच्या तेजान तिच्या बाळाच्या आंगांत रिगिल्ल्या कामदेवाक धांवडावन ताका नव्यान जिवंत केलो! मागीर ह्या देवयानीन नाका कामदेवान पिडिल्ल्या तिच्या अभिक जिवंत करूंक?"

"पूण... पूण हांव परत येतलें हांगा... ह्या पाशाणाची स्थापना करूंक! तोंवेर हें पाशाण, ताचेवेली कामावंती आनी तिचो बाळ म्हज्या आंगणांतूच आसुंदी जानुदाद!... दितले न्ही म्हजे विनवणेक तुमी मान?"

जानुदादाकडल्यान उतर आयकुंकच आतां म्हाका थार नाशिल्लो, पूण ताची जाप म्हजे अपेक्षेप्रमाणच आसतली हाची म्हाका खात्री आशिल्ली.

खांदाक फकत पयशांची पर्स लावन आंगावेल्या त्याच वस्त्रांनिशीं हांव वादळ कशें रस्त्याक लागलें...

जानुदादाक म्हजें कितें घडलां ते कांयच समजलें ना. ताकाच न्ही, कोणाकच कळ्ळें ना. सगळे गोंदळून म्हजेवटेन पळयताले. "बाई ऽऽ! बा ऽ ई ऽ ! राव गे, मुळसामेरेन सांगताक तरी व्हर कोणाक!"

जानुदाद एकसारको आड्डुतालो. ताची उतरां म्हज्या कानांत पडटालीं, पूण म्हजे पांय कशेच थारनाशिल्ले.

आदीं स्पश्ट आयकूंक येतलीं जानुदादाचीं उतरां खिणाखिणाक अस्पस्ट जायत वताली....

वर्सा आदीं पडट्या वेळार कर्लांत भितर सरिल्लें हांव, आज चडट्या वेळार गांव देंवतालें!



# सतीमाय

**शेदाचें** खोमीस, ताचेवयर लांब कोट, कमराक रेशमी सुताचें धवेंफुल्ल , नवें ताल्ल खोमीस, खांदार उपरणी, माथ्याक पगडी, पांयांक खडाव, कानाक अत्तराची गुड्डी, उजव्या हाताच्या मदल्या बोटाक हिऱ्याची मुदी, गळ्याक मोतयांचो कंठो, कानाक भिकबाळी, खोमसाच्या बोल्सांत सरपळेची घडयाळ... आपल्या खाशेल्या ठेवणींतल्या भेसांत हातांतलें रोद ठक्क... ठक्क... ठक्क... करून वाजयत, पांयांतले खडाव करकरायत रावजी आपल्या वाड्याचीं सोंपणां देंवलो आनी दारांतल्यान सोपणां सकल उबो आशिल्ल्या गांवकारंच्या चोम्यांतलो येसो जल्मी बेगी बेगीन मुखार धांवलो. आपल्या हातांतली जरीची झालर लायिल्ली तांबडी विलुदाची सत्री ताणें ताच्या माथ्यर धरली.

शेनाय- चौगुड्याच्या वाजपान नेट धरलो. धोल-ताश्याचोय आवाज तातूंत भरसलो. फुडें रावजी म्हालपरब, ताच्या फाटल्यान देवस्थानाचे हेर मानकरी- सेवेकरी, गांवचो भौस... अशा थाटांत सगळी इलामत सतीमायेच्या थाण्यार वचूंक भायर सरली.

रावजीच्या घरांतलेय सगळे जाण त्या इलामतीचो वांटो जाल्ले , सोडून सत्यवतीबाय. भायर वसरेर लेगीत येनास्तना ती माजघरांतल्या दरवंजाक घट धरून उबी आशिल्ली.

तिच्या मुखामळार उजवाड नाशिल्लो. तोंड काळें-निळें पडिल्लें. तिचो मुळचो सुंदर, वांटकुळो, नाजूक तोंडादिवो बावन गेल्लो.

खरें तर घोव कसल्याय बऱ्या कार्याक, गांवच्या उत्सव-पालखेक भायर सरतना बायलेन ताका राट-दिवो दाखोवपाची ह्या घराण्यची रीत. पूण फाटल्या चार वर्सांसाकून तिणें ती मोडल्या. ते आदिय म्हणूनय तिणें ती मनापासून केल्या अशें ना.

लग्न जावन ती ह्या घरांत आयली आनी तिनच म्हयन्यांत घोवाविशीं, ह्या घराण्यविशीं एक प्रकारची किळस, वीट तिच्या काळजांत उदेली.

तिची सोयरीक थारलेली त्या दिसा तिका कितकी खोशी , उमेद जाल्ली जाणा ? ती सामकी दोनय पांयांनी नाचिल्ली. आवयन मागीर तिचेर व्हडल्यन धेंगसो घाल्लो, ''सत्या, आगो सोबना तुका हें...कोणय पळयल्यार हें चली सामकें लग्नाक आयलां म्हणटलो मुगो तुका...!''

आवयलें उलोवप सत्यवतीन व्हडलेशें काना-मनार घेतलेंना. तिका इतकी उमेद जाल्ली , ती कितें आपल्याक घोव मेळटा, आपलें लग्न थारलां म्हण न्ही तर, आपलें लग्न ज्या घराण्यांत जाता त्या घराण्याचो नांव-लौकीक आनी कीर्त पळोवन. तिका भुरगेपणा साकून असल्या गजालींची वोड चड. शूर-वीर लोकांविशीं आदर व्हड. तिचो पणजो खासा सौदेकाराच्या सैन्यांत मोठ्या हुद्द्याचेर आशिल्लो. ताच्या शूरपणाच्यो खबरी बापाय-आज्या कडल्यान आयकतच ती वयाची सतरा वर्सां मेरेन वाडिल्ली.

लग्न थारतांच सत्यवतीच्या बापायन, गुणी देसायान, म्हालपरबांच्या घराण्याच्या कर्तृत्वाच्यो जायत्यो खबरी तिका सांगिल्लो. त्यो आयकून ती सामकी चांट पडिल्ली...

म्हालपरबांच्या घराण्यांतलो कुलपुरूश खंय मूळ महाराष्ट्रांतलो. गोंय-महाराष्ट्र शिमेर आशिल्ल्या चंद्रपूर ह्या ल्हान संस्थानाचो खंय तो सत्ताधीश आशिल्लो. ताचें नांव निळोजी सामंत. तो खूब पराक्रमी आशिल्लो तसोच आपले प्रजेचें हीत पळोवपी स्वामी आशिल्लो. सतराव्या शतमानाच्या

मदेकाक मराठ्याच्या एका वंशजान आपल्या राज्याचो विस्तार करपाच्या उद्देशान ताच्या संस्थानाचेर घुरी घातली. मराठ्याचें सैन मोठें, तर निळोजी सामंताचें ल्हान. कांय अवघेच घोडदळ आनी पांयदळ. पूण तो मोठ्या धाडसान आनी पराक्रमान लडलो. ताच्या खांदांक खांद लावन ताचो अपुरबायेचो एकटो पूत चंद्रभान वावुडलो. तांणी मराठ्यांचो पराभव केलो, आपलें संस्थान राखून दवरलें. पूण त्या झुंजात चंद्रभानाक वीरगती प्राप्त जाली.

...अपुरबायेच्या एकुलत्या एका पुताक वीरगती प्राप्त जाली तें पळोवन निळोजी भ्रमीश्ट जालो...आपल्या आंगावेल्या युध्दाच्या भेसाचेरूच तो, झुंजामळा वेल्यान पांय व्हरता ते वाटेन चलत रावलो. कितले दीस तो चलतालो, ताकाच खबर ना, पूण चलत चलत तो गोंयचे शिमेर आशिल्ल्या सावरणें गांवच्या मळार पावलो.

पावसाचे दीस , मध्यान रात जाल्ली. इतके दीस चलून चलून ताच्या पांयांक गुळे आयिल्ले...शिवाय काळोख जाल्ल्यान मुखावयलो मार्ग दिसनाशिल्लो. तो एका झाडामुळांत बसलो...आतां ताची भ्रमिश्ट अवस्था हळू हळू निवळूंक लागिल्ली...आपूण कोण? खंय पावलो...? ताचो सुगाव घेवंक तो तकलेक ताण दिवंक लागलो...

इतक्यांत ताका सकल्यान, गांवचे वटेच्यान व्हडल्यान बोबो -हुयेली आयकूंक येवंक लागल्यो. ताचे भितरलो प्रजेचो प्रतिपाळक जागो जालो, ताणें आवाजाचे वटेन धांव घेतली. काळोख चिरीत तो कांय खिणांतच गांवचे वस्तेर पावलो...

गांवांत एक वाग पाविल्लो आनी चवताळून दिसता ताचेर झोपय घालतालो... ताणें धायेक गोरवां-पाडकां मारून वडयिल्लीं आनी आतां तो नरमनशाचें रगत पिवपाचे तयारेंत आशिल्लो.

वाग कोणाकच आटापा येनाशिल्लो... आडावंक गेल्ल्या कितक्याश्याच जाणांक ताणें जखमी केल्ले. लोक जीव आसल्यार भिकमागून खायन म्हण जळा-मळा धांवताले.

इतक्यांत वागान एका दादल्याचेर झोपय़ घातली. ताचे गोमटेक धांस मारपाच्या पावित्र्यांत तो आसा तें पळोवन निळोजी सामंतान वेळ केलोना. कमराची तरसाद उबारून तो वागाचेर झुडून गेलो. वागय कमी तयारेचो नाशिल्लो. दोगांयचीय बरोच वेळ लटाफट जाली. लोक उस्वास रोखून तें वाग आनी मनशाचें मल्लयुध्द पळयताले.

निळोजी सामंतान जायते डावपेच खेळून अखेर त्या वागाक मातयेंत लळयलो. ताची गोमटी आपले तरसादीन हाणली.

वाग मेल्लो पूण निळोजी सामंतय बरोच जखमी जाल्लो. ताच्या आंगांतल्यान रगतां व्हांवताली. तो निचेश्ट जावन धरणेर पडलो.

आपल्या गांवाक संकश्टांतल्यान तारपी त्या वीर पुरुशा म्हन्यांत सगळ्यांत पयलीं धांवलो तो गांवचो मुखेली – विष्णू परब. मागीर बाकीच्या दादल्यांनी ताचे भोंवतणी कंवडाळें केलें. तांणी निळोजीक शाबुद्देर हाडलो.

विष्णू परब त्या गांवचो मुखेली, गांवचो म्हालपरब. निळोजी विशीं ताचें काळीज कृतज्ञतायेन भरलें. ताणें ताका शाबुद्देर येतांच म्हणलें,

"हे वीर पुरुशा, तूं देव कसो आमच्या गांवच्यांच्या रक्षणाक आयलो. ह्या वागान गेल्ल्या आठ दिसांसावन धुमाकूळ मांडिल्लो. तो कोणाकच आटापा येनाशिल्लो. तुवें ताचो नायनाट केलो. तूं सादो मनीस आसोचना... कोण तरी वीर क्षत्रीयच आसतलो...

सांग आमकां ... तूं कोण?... खंयचो...?"

निळोजी सामंताक आतां पुरायेन आपूण कोण ताची याद जाल्ली... पूण आपल्या त्या राज्यांत परत वचपाची ताका वान्सा जायना जाली. ताणें म्हणलें,

"म्हाका हांव कोण, खंयचो, ती कांयच याद ना!... हांव तुमच्या गांवांत कसो पावलो तिवय याद जायना..."

"तुमी म्हाका तुमच्या गावांत अश्रय दियात...ना तर हांव फुडले वाटेन वतां..."

विष्णू परबान म्हणलें,

“ना पुरुशा... तूं ह्याच गांवांत राव...ह्या गांवांतच कित्याक ... आयच्यान तूं म्हज्या घराण्याचो वारस. म्हज्या पुताक ह्या वागान चार दिसां आदि खालो...आज त्या वागाक मारून तूं म्हाका मेळ्ळा...आयच्यान तूं म्हजो पूत... आमचें घराणें गांवचें देवदेवस्पण फुडें व्हरपी म्हाल परबाचें घराणें... आयच्यान तूंच ह्या गांवचो म्हालपरब... हांव म्हजो अधिकार ह्या धा जाणांचे साक्षीन तुज्या हातांत दिता...तुजें नांव आयच्यान वाघोजी परब... वागाक मारपी परब...!”

अशेतरेन निळोजी देसाय, वाघोजी परब जावन सावरणें गांवचो मुखेली जालो. आंगांत मुळचे राजाचे गूण आशिल्ल्यान ताणें गांवचें व्यवस्थापन बरे तरेन केलें. शेतां-भातां, रस्ते -मार्ग... देव-देवळां... सगळ्यांची ताणें नव्यान मांडवळ केली... गांवचो मुखावळो बदल्लो, गांव भरभराटीक हाडलो. ताणें गांवचेंय नांव बदलून वाघ्रपूर केलें. ज्या जाग्यार ताणें वागाक मारिल्लो थंयच ताची पाशाणी मुर्ती स्थापन केली. वाग लोकांक त्रास करतालो म्हण ताका मारचो पडलो, पूण वाग हें वनदैवत...ताची कृपा आसल्यार रानां-वनां सुगूर उरतात, ताणे लोकांक शिटकायिल्ले आनी वर्सांतल्यान थंय वाघ्रपुजेची भोगावळ सुरू केल्ली.

वाघोजी आतां वाघ्रपूर गांवच्या लोकांच्या सामको काळजाचो गोंडो जाल्लो. ताचे शिवाय गांवचे पान हालनाशिल्लें. गांवच्या भुमका देवतेची पालखी, दसऱ्याचीं तरंगां, शिगम्याचें हळडुणें... कितेंच ताचो हात लागले बगर उठनाशिल्लें. इतलेंच कित्याक? गांवचे न्हवरे लेगीत तो लग्ना माटवांत उबो जालो ना तर व्हंकलेच्य गळ्यांत माळ घालनाशिल्ले.

वाघोजीन आतां परत लग्न करून संवसारूय थाटिल्लो. ताका दुसरे बायलेपसून एक पुत्रय जाल्लो.

वाघोजीच्या कर्तृत्वाची खबर पुर्तुगीज सरकारांतय पावली. तांणी ताका मुजरत आपोवन व्हरून , ताचो भोवमान केलो, वाघ्रपूर आनी ताचे कक्षेंत येवपी चार गांवचे वेव्हार पळोवपाची ताचेर जबाबदारी सोंपयली. ताका

थंयचो बारांव केलो.

रावजी हो वाघोजीच्यी घराण्याचो आठवो पुरुश. तोवय भोव हुशार, तल्लख बुद्दिचो. गांवच्या कारभाराचेर, लोकांचेर ताचो खूब शेक आशिल्लो. भुरगेपणांतच बापूय भायर पडिल्ल्यान भायले- घरचे सगळे वेव्हर तोच सांबाळटा म्हणपाची म्हायती सत्यवतीच्या बापायक मेळिल्ली. आपल्याक येदो व्हडलो, कर्तुत्वी जांवय मेळटा म्हूण तो सामको भुल्लुशिल्लो.

लग्नापयलीं प्रत्यक्षपणान सत्यवतीन रावजीक पळोवंक नाशिल्लो.गांवच्या आनी घराण्याचे रितीप्रमाण जाणट्यांनीच पळोवन , उलवणीं करून सोयरीक थारायिल्ली.

रावजीक जशें हुशार, कर्तुत्वी चलोमनीस म्हण नांव आशिल्लें, तेचतरेन एक रुपेस्त, गुणी, शालीन चली म्हण सत्यवतीचेंय आशी-कुशीच्या चार गांवांत नांव गेल्लें. आनी हेच नांवांक लागून रावजी खातीर सत्यवतीक मागणी आयिल्ली.

ज्या दिसा हुमऱ्यावेलें माप उमथून सत्यवती परबांच्या घरांत भितर सरली त्या दिसा तिका एक जाणवलें, आपलो घोव जितलो कर्तुत्वान म्हण लोक मानतात, ते परसय ताका हट्टी, अरेरावी म्हण वळखतात. ह्या गांवांत तो म्हण्टा तीच उंदेंत आनी तो म्हण्टा तीच अस्तंम!

लग्न थारिल्ले तेन्ना ती जे उमेदिन नाचिल्ली, ती तिची उमेद लग्नाच्य दुसऱ्यच दिसा खंयचे खंय ना जाल्ली. म्हाल परबांच्या आठ चौक्यांच्या येद्या मोठ्या वाड्यांत तिका , तिणें आयकल्ल्या शूरवीरपणाचो उन्मेश, खंयच दिसलोना. तर तिका दिसलो तो थंय वावुरतल्या दर एका दादल्या-बायलेच्या तोंडावेलो दडपणाचो, सुतकीपणाचो भाव.

तशें पळोवंक गेल्यार त्या वाड्यांत म्हाल परबांच्या रगताचो म्हण रावजी सोडल्यार एक्कूय दादलो मनीस नाशिल्लो. जे आशिल्ले ते सगले वावराडे, बंदे, चाकर. बायलांमदीं घरच्यो फक्त तीन बायलो आशिल्लो. त्योवय बोडक्यो...जित्यो आसुनय मेल्लें मडें कश्यो भासतल्यो.

रावजीची आवय, आतें आनी काकी, ह्यो त्यो तीन बायलो! हांतलें आतें हें बालविधवा जाल्यार आवय आनी काकी दोगांयचो कुकूम ऐन तरणें पणांत सांडिल्लो. ताचे आवयन ताच्या रुपान एक फळ तरी पोटांत पिकयिल्लें, काकीक बाबाडेक तेंवय नशीब फावो जालें ना.

हात, कान, गळो उगडो. बोडां ताशिल्ल्यो. तांबड्या आलवणांत पुराय आंग , तकली गुंठलयल्ल्यो त्यो तिगय बायलो लग्नाच्या दुसऱ्या दिसा पांयपडणेच्या वेळार तिचे मुखार येवन आशिर्वाद दिवंक लागल्यो तेन्ना नकळत सत्यवतीच्या हाता-पांयांक एक शिरशिरी आयली. काळजाची घबघब वाडली.

लग्नाआदीं तिणें बोडक्या बायलांच्यो जायत्यो खबरी आयकल्ल्यो, पूण प्रत्यक्षांत केन्ना कोणा बोडकेक पळोवंक नाशिल्ली. आज एकदम तीन बोडक्यो तिचे सामकार उब्यो जाल्ल्यो.

बोडक्यांची चड सांवळी सवायशिणीचेर पडूंक जायना, असो समज परबांच्या घराण्यांत आशिल्ल्यान ते उपरांत ती केन्ना तांचे मजगती वचून बसलीना. त्योवय केन्ना तिचे म्हऱ्यांत आयल्योनात. त्या तिगांच्योय कुडी वेगळ्यो, तांचें जेवण-खाण वेगळें. हेरांचें जेवण भावणी समाजांतल्यो रांदपिणी रांदताल्यो, तांचें मात त्यो स्वताच रांदून जेवताल्यो. तांचे कुडीक उजवाडाक प्रवेश नाशिल्लो, दीस अस्तमतेक वच्चे आदीं, दोन गोटे खावन तांकां कुडींत बंद करून घेवचें लागतालें.

त्यो जरी आपलेपसून पयस रावतात तरी तांचें आपल्याचेर बारीक लक्ष आसा हें मात सत्यवतीक परत परत जाणवतालें. काळखाकुडींत बसले थंयच्यानच तांचे भेदक दोळे आपल्याचेर मांडिल्ले आसतात , असो तिका भास जातालो, ताका लागून एके तरेचो कांच तिच्या मनाचेर आसतालो.

परबांच्या त्या येद्या मोठ्या वाड्यांत भायलें-भितरलें काम करपी म्हण पन्नाशेक चाकर दिसपट्टे वावुरताले. कांय जाणांखातीर जेवणाच्यो पंगतीय आसताल्यो. पूण सत्यवती मात त्या वाड्यांत एकटीच पडिल्ली. तिचेकडेन

न्हेसण-पांगरुणाच्यो, भांगरां-शिंगरांच्यो पेटांर पेटो आशिल्ल्यो. कितेंय जाय म्हणचो वेळ, ती वस्त खिणांत तिचे मुकार उबी जाताली.

पूण सत्यवती आशेताली ती मनशांक, मनशांच्या सहवासाक. तो मात दिवंक तिका थंय कोणच नाशिल्लो. रावजीचो आनी तिचो संबंद फक्त रातचो येतालो, तोवय न्हिदपा पुरतो. त्यावेळार ताचेकडे कितेंय सुख-दुख्खाच्यो गजाली उलोवपाचो तिका धीर जायनाशिल्लो. तिचेर ताचें वाग्रें पडिल्ले बशेन जातालें. भियेल्ल्या पडकावरी ती ताका हां...ना...इतकीच जाप दिताली. तो खुणायता तशी वागताली.

सकाळीं उठून न्हाण-धूण, देव-देवस्पण जालें म्हणटकच तिचे मुखार सगलो रिकामो वेळ. ह्या वेळांत तिचे तकलेंत फकत त्या तिनय बोडक्यांचोच विचार घोळटालो. कसली जीण जगतात ह्यो बायलो? ...कसल्या पातकांचें पानवळ भोगतात?

लग्न जावन घरांतली पांयपडणी जातकच रावजीन तिका सतीमायेच्या दर्शनाक व्हेल्ली. बरोबर घरांत वावुरतल्यो चार-पांच बायलो आशिल्ल्यो. फळीसबन जावचे आदीं नवे व्हंकलेन तिची व्होंटी भरपाची घराण्याची रीत. तो घोड्यार बसून गेल्लो. तिका मेण्यांत बसोवन व्हेल्ली. घरच्या मानायांनी तिचो मेणो खांदाचेर उबारून व्हेल्लो. अशें परक्या दादल्यांच्या खांदाचेर बसून वतना तिका कितेंशेंच दिसतालें.

गच्च रानांत न्हंयेचे धडेर ल्हान आंगणांयेदो मेकळो जागो आशिल्लो. त्या जाग्यार सतयेची कळी आशिल्ली. कांकण-चुड्यान भरिल्लो, बायलेचो उजवो हात कोरांतिल्लें तें पाशाण. त्या पाशाणां कुशीक आनीक दोन लांब फांतर आशिल्ले पूण तांचेर कसलीच आकृती कोरांतिल्ली नाशिल्ली.

सतयां मुखार एक पाशाणीच पणटी आशिल्ली. बरोबर गेल्ले एकटे बायलेन तातूंत तेल- वात घालून ती पेटयली. मागीर व्होटयेचें ताट तिचे मुखार दवरलें.

रावजीन म्हाल फांतराकडेन बोट दाखोवन म्हणलें, ''ही परबांच्या

घराण्यांतली म्हालसती. हेर सतयो तिचे फाटल्यो. म्हाल सतयेची म्हयमा मोठी. तिचें कर्तुपय म्हान. कोणा काळार राज्यां जिकूंक गेल्लेकडेन तिचो घोव वीरगतीक पावलो तेन्ना तिच्या पोटांत गर्भ वाडटालो... ते खातीर तिका सती वचूंक कोण दिना जाले. त्या वेळार हे म्हामायेन खंय कुळपुरसाचे तरसादीन आपलें पोट फाळून गर्भच भायर कडलो आनी घोवाच्या सरणार सती गेली...हिची व्हड सासय आमच्या घराण्याचेर आसा...हिचेच कृपेन आमच्या घराण्यांतल्या बायलांच्या कपलाचो कुकून तिगता! तूं तिच्या शरणा वच, तुकाय अखंड आयावपण लाबतलें!''

कसली सासाय...? कसलें आयावपण...? रस्त्यावस्त्या घरांत तीन बोडक्यो बायलो काळखाचे कुडींत जीण जगतात, त्या घराचेर सतीची कृपा आसा म्हणप ? सत्यवतीच्या तोंडाचेर एक छद्मी हांसो उदेलो. घोवाविशींचो मनांतलो आदर त्याच खिणाक आंगूळभर उणो जालो.

तरणो, निकतीच पंचविशी हुंपिल्लो, जुवानेच्या तेजान रसरसतलो, गोरोपीट्ट, लांब-रूंद, राजबिंड्या रुपाचो रावजी. आदल्या दिसा अंतरपाटाच्या पोंदच्यान आनी उपरांत भटान सांगिल्ल्यो एक एक विधी करतना सकल मान घाल्ली आसतनाय तिरशा दोळ्यांनी ती ताचें रुप नियाळटाली, तेन्ना ती आंग आंग चंवरिल्ली पूण त्या दिसा सतीमायेची व्होंटी भरून घरा परततना तिच्या मनांत घोवाविशीं एकतरेचें परकेपण तयार जालें. रातचो ताचो पयले फावट शरीरस्पर्श अणभवतना तिच्या मनाक तरतरून पालय फुटलीच ना.

तुळशी लग्न जावन तिचें लग्न रोकडेंच जाल्लें. आतां लग्नाक तीन म्हयने भरचे आदिंच शिगमो आयलो. ह्या शिगम्यान तिच्या सगळ्या सपनांची, भावनांची होळी केली...ह्या शिगम्याक सारकीं सत्तावीस वर्सां जालीं. ह्या सत्तावीस वर्सांत तिणें रावजी बरोबर संवसार केलो, ताच्या पुताची... पुरुषोत्तमाची ती आवयूय जाली, पूण तिच्या मनाचो संवसार मात तेदिसा जो विस्कटिल्लो तो परत सांवरलोच ना. लग्न जावन तीन म्हयने मनशांच्या सहवासाक आशेल्ले सत्यवतीन उपरांत आपूण जावन सगळ्यां खातीर आपले

मनकुडीचीं कवडां बंद केलीं.

वाघ्रपूर गांवचो शिगमो णव दिसांचो. पयले दिसा वाघ्राथळार राखण्यांची होळी. ते उपरांत भुमकेच्या देवळामुखार म्हाल होळी. ते नंतर सात दीस, गांवच्या सातय वाड्यांनी होळी आनी रोमटां. रोमटांचो मेळ दार-दारांनी नाचपाचो. णव्या दिसा हळडुणें, आनी मागीर पावणेन शिगम्याची समाप्ती.

सत्यवतीचो तो नवो शिगमो. तातूंत आनी ती परबांली सून. तिणें हळडुण्याक आनी पावणेक हाजीर रावंक जाय अशी वर्द रावजीन तिका आदिंच दिवन दवरिल्ली. ती वर्द मोडपाचें तिचे मर्दी धाडस तयार जावंक नाशिल्लें. शिवाय सून म्हण आपल्या रिती-कर्तव्यांची तिका पुराय जाणीव आशिल्ली.

शिगम्याच्या सगळ्याच भोगावळींक बायलांक हाजीर रावपाची मान्यताय नाशिल्ली, फक्त पयल्या दिसांची भुमकेची म्हाल होळी आनी हळडुणें-पावणी तितक्याकच बायलांक हाजीर रावंक मेळटालें. हळडुण्याक तर बायलांनी हाजीर रावलेंना तर तांच्यो व्हंटयो सून जातात असो त्या गांवांत समज आशिल्लो.

रावजीबरोबर मिरवणुकेन ती ते दीस सतये थळार गेली. दनपारचो सुमार तीन वरांचो वेळ. लोकांची हीऽऽऽ गर्दी जाल्ली. दादले -बायलो, नेण्टीं-जाण्टीं सगळीं जाणां थंय जमिल्लीं. थळ जणू मनशांनीं फुलिल्लें.

रावजी आनी ती सतये थळार पवताच तांकां आपोआप वाट जाली. चोमो ल्हवूच कुशीक सरलो. तांकां मानकऱ्यांनी व्हरून खासा तयार केल्ले बसकेर बसयलीं.

बशिल्ले थंयच्यानच सत्यवतीन जमिल्ल्या चोम्याचेर एक नदर भोंवडायली. सगळ्यांच्यो नदरो तिचेच कडेन लागिल्ल्यो. तिणें आंग चोरून घेतलें. तिणें फाटीर पांगुरिल्ली पामरी वोगीच परत सारकी केली. नाकांतले नथीचो दांडो दांबलो. रावजीचे सुचोवणेक धरून मनांत नासतनाय ती आज शालू न्हेशिल्ली. आंगार नवे अंळंकार घाल्ले, नाकाक हिऱ्याची नथ घाल्ली.

मुळची ती सुंदर, आज तर तिका अदिकच कांत मारताली.

थळार धोल-ताशांचें वाजप चालू आशिल्लें. एक धा - पंदरा मिनटां थळार कांयच विधी घडलेनात. तरी तितक्या वेळांत आपल्या घोवाचो गांवच्याचेर कितको शेक आसा हाचो तिका अंदाज आयलो. रावजी थंय पावताच लोकांची वाचा अंदली. कोणाच्या तोंडांतल्यान उतर भायर सरना जालें. भुरग्यांय चिप्प जालीं. जमिल्ल्या दादल्यांमदलो एकएकटो फुडें सरून रावजी मुखार मान बागोवन ताका हात जोडून वचूंक लागलो.

...थोड्याच वेळांत एक एक वाड्यावेलें म्हण सात हळडुणीं थंय पावलीं. सात वाड्यावेलें हळडुण्याचे सात कळस आनी सात वाजपां. त्या वाजपांचो आवाज थळावेल्या म्हाल वाजपांत भरसलो आनी सगळो आसमंत थरथरून उठलो.

सत्यवतीक दिसलें , आपल्या कानाचे पड्डे आतां फुट्टात, आपलें हड्डें तुटून सकल पट्टा. आपलेंच कित्याक ...आतां मळबय तुटून सकल पडटलें! अशें तरेचें काळीज फोडपी वाजप ती पयलेच फावट पळयताली. तिच्या कुळारा शिगमो जातालो, पूण ताका अशें आकंताळें वाजप आनी अफाट गर्दी केन्ना नासताली.तीन दिसाचो शिगमो तांचो. तांच्याच गांवच्या पन्नास-साठ दादल्यांनी खेळपाचो. एक धोल, एक तासो, इतलींच वाद्यां आनी तांचेंच वाजप. पयले दीस मेळ, दुसरे दीस होळी आनी तिसरे दीस गडे... इतक्योच शिगम्याच्यो विधी.

वताचीं किरणां थळार लखलखताल्लीं. एक किरण तर रावजीचे तकलेर नाचतालें...

रावजी बसकेवेलो सट्ट करून उबो जालो, तशीं वाजतलीं वाजपां चप्प करून मोनीं जालीं.

"गुरवा करया म्हरे सुरवात देवीचे न्हावणेक?"

"हय सायबा!" गुरव ताचे मुखार येवन हात जोडून उबो रावलो

"जल्मी, सावंत, कोठारकार, तरंगकार, गुडीकार... सगले आयले

म्हरे?''

''हय सायबा!''

''सातय वाड्यावेलीं हळडुणीं पावलीं?''

''हय, पावलीं सायबा!''''

''तर चल करया देवीचे न्हावणेक आरंभ!''

''हय सायबा!''...गुरवाच्या आवाजांत आतां शंभरेक आवाज भरसल्ले. मुखावेल्या मेळाचेर एक नदर भोंवडायत रावजीन आपलें तोंड सत्यवती वटयां घुंवडायलें.

''फुडें सर आनी कळसांतल्या उदकाच्या सात पोश्यांनी देवतेक पयलीं न्हावणी घाल.आज देवतेक न्हावणी घालपाचो पयलो मान म्हाल परबांचे सुनेचो. आपाजी गेल्ल्याक फाटल्या वीस वर्सांत हे चालींत खंड पडलेलो. आतां तूं आयल्या...आईन चलयिल्ली चाल तूं फुडें व्हर...''

सत्यवती आबूज जाली. आपल्याक अशें कितें तरी करपाक पडटलें हाची तिका मातय कल्पना नाशिल्ली. आनी इतक्या लोकां हुजरां... रावजी मुखार आपणें अशें कितें तरी कार्य करप म्हणल्यार ...तिच्या काळजांत खपखपूंक लागलें.

'' हांव...? हांव...ना...ना...''

तिच्या तोंडांतलीं उतरां पुराय भायर सरचे आदींच रावजीचे मोट्ठे दोळे तिचेर मांडले. तशें तिच्या पोटांत भंयाचो व्हडलो गुळो आयलो. ती कडकडत उठली आनी मंत्रयल्ले सारखी सतयेचे कळये मुखार वचून उबी रावली.

सतीमायेक आज तांबडें चीर रेंवडायिल्लें. तांबड्या दसणीच्या फुलांनी तिका पुराय भरिल्ली. ताचेर वयर तांबडी पिंजर उधळिल्ली. मुखार पेटयिल्ले पण्टेंतली वातय तांबसोच उजवाड फांकरताली...ह्या सगळ्या तांबड्याच रंगाक नियाळटा नियाळटां सत्यवतीक तें तांबडें रगतच दिसूंक लागलें...

पळयतां पळयतां त्या रगतांतल्यान तिच्या दोळ्यांमुकार एक बायल मनीस आकारली. पोट फाळिल्ली...पोटांतल्यान भळभळटल्या रगताच्या कोंडांत

उबी आशिल्ली. ती मोठ-मोठ्यान इकळापत सांगताली... "बाय... हांवें आपूण जावन फाळ्ळो ना गो पोटांतलो गर्भ...ह्या लोकांनी म्हाका चिरूंक लायलें म्हजे पोट...म्हाका सरणार चडोवपा खातीर...म्हाका सती धाडपा खातीर... म्हाका जगपाचें आसलें गो...म्हाका म्हज्या बाळाक जल्म दिवपाचो आसलो... ताका...वाडोवपाचो आसलो...!"

मनपटलाचेर उबें जाल्ल्या त्या चित्राचे जाणिवेन सत्यवतीन कच्च करून आंग काडलें...तशें तिणें पोश्यांत घेतिल्लें हळडुण्याचें...हळद-पिंजरीचें उदक फस्स करून तिच्या हातांतल्यान सकल सांडलें.

"कितें चल्लां..?.कसलीं हीं भुरगेपणां...?" रावजी धेंगशेलो.. तसो, गोगलगायेन कोंगयेत आंग वोडून घेवचें, ते परीन तिणें जीव काळजांत वोडून घेतलो.

गुरव तिच्या आदाराक धांवलो.

"नवी आसा ती, आनी संवय ना तिका असल्या कार्याची!"

रावजी कडेन पळोवन तो उलयलो. मागीर पयल्या मानाचो कळस तिचेमुखार धरून ताणें म्हणलें, "घे सुनबाय, भर पोसो परतो. घाल देवीच्या मस्तकार."

गुरवाच्या आदारान सातय कळसांतली न्हावणी सत्यवतीन पोसो पोसो भर देवतेच्या माथ्यार ओतली.

आपलें कार्य सोपून ती जेन्ना आपले बसकेर बसली तेन्ना घामान चिप्प भिजिल्ली, तिच्या ताळ्याक तानेन कांटे आयिल्ले. खूब थकिल्लेवरी जाल्लें तिका.

सत्यवती कुशीक सरली आनी दुसरी न्हावणी देवतेक रावजीन घातली. ते उपरांत हेर मानकरी, सेवेकरी... मागीर लोकांचो झुंड मुखार सरलो... सगळ्याक एकूच बोवाळ!

सत्यवतीचो जीव ते झुंडीत, बोवाळांत घुस्मटलो. तिका थंयच्यान धांव मारची अशें दिसलें. पूण ती धांवतली कशी?... तिणें बशिल्ले कडेन दोळे

गच्च धांपून घेतले.

एकदम आपले भोंवतणी सगळें शांत-किरांव जाल्ल्याची तिका जाणीव जाली आनी तिणें धांपिल्ले दोळे उगडले आनी ती मुखावयलो देखाव पळोवन चांट पडली. ''हें... हें... आनी कितें...? ही कसली भोगावळ...?''

सतयेक फुडो करून पांच बायलो जमनीर उदाऱ्यो न्हिदिल्ल्यो. तांचे मुखार रावजी आनी देवस्थानाचे चार मानकरी उबे आशिल्ले. तांकां सगळ्या लोकांनी कंवडाळें केल्लें.

सगळीं वाजपां थांबिल्ली. आंगार कांटे हाडपी किण्णताय वातावरणांत पातळिल्ली. कंवडाळ्यांत उबे आशिल्ले लोक एक-दुसऱ्याच्या आंगार बागवून भितरलो देखाव पळोवपाक उसउसताले, फुतफुतताले. तांचें तें फुतफुतप वातावरणांत गूढताय तयार करताले. त्या आवाजांतल्यान सत्यवतीक एक गजाल कळ्ळी ती! म्हणजे, ह्यो बायलो ह्या देवस्थानाच्यो भावणी. त्यो जल्म सवाशिणी... तांचे पावणेची हांगा आज भोगावळ जावपाची आसा. हे पावणे वरवीच वाघ्रपूर गांवात धन-धान्य भरपूर पिकता...गांवची भरभराट जाता...गांवच्या बायलांच्यो व्हटी फळाक येतात... असो जनसमज.

असली कसली पावणी काय ही?...ते खातीर भरिल्ले सभेमाजार ह्या बायलांक जमनीर कित्याक न्हिदयल्यात? सत्यवतीक ते सगळें विचित्र कशें दिसलें.

त्या बायलांमदीं एक आशिल्ली सत्तरींतली...एक पन्नाशींतली, दोग जाणी सादारणपणान पंचवीस- तिशींतल्यो, जाल्यार एक सामकी कंवळी , पंदरा - सोळा वर्सांची.. पांचय बायलो जरी-देगेचीं कापडां न्हेशिल्ली. तांणी खांदा भोंवतणी पदर गच्च पांगुरिल्लो. तरी तातुंतल्यान गुंथिल्ल्या पिड्डुकांचे काळे पोड हुमकळटाले आनी त्या पिड्ड्कांच्या पोडाक म्हुर्तमणया बदला दावल गुंतिल्लें स्पस्ट दिसतालें. धरणेर फाट लावन न्हिदिल्ले कडेन तांणी आंग चोरून घेतिल्लें, तांची नदर पांयांकडेन लागिल्ली.

सत्यवती गोंदळून त्या बायलांकडेन पळयता आसतनाच गुरवान पावणेक

सुरवात केली,

“हे थळांत बसलेले सतीमायेक... , बाळपुरसाक ..., भुमकेक..., रवळनाथाक..., सांतेर- खुंटयेक..., शिमेपुरसाक...ह्या वाघ्रपूर गांवच्या वाघोजी पुरसाक उलो करून आनी तेचें उतर घेवन आमी आयच्या कार्याक ...म्हसपावणेक सुरवात करतात...”

“हय सायबा...!” जमिल्ल्या चोम्यांतल्यन नेटान आवाज उठलो.

“तर ही गांवची म्हालम्हस...” गुरवान सत्तरींत पाविल्ले ते जाण्टे भावणी कडेन बोट दाखयलें.

सत्यवतीचो आंवडो अंदलो, म्हालम्हस...म्हालम्हस...ही जाण्टी भावीण म्हालम्हस...? ही कसली भाशा...? तिणें ते जाण्टेलेच्या तोंडार नदर घातली. लज, असहाय्यपणाचे भाव तिच्या तोंडाचेर उदेल्ले. सत्यवतीच्यान ते पळोवंक जालेनात. हेच न्हय, तर मुखार जें जें घडलें, तें कितेंच तिच्यान पळोवंक जालेंना.

“ही गांवची म्हालम्हस!...ही...बारा वितांची...ही एका कापड -विड्याक गांवाक पावली...एक फावट...!”

“वाघ्रपूर गांवचो सतये मळावेलो शेत-मळो...”

रावजीचो आवाज उठलो. सत्यवतीन अजापान घोवा वटेन पळयलें... गुरवाची पावणी मुखार सरली .

“ सतयेचो शेतमळो एक फावट...सतयेचो मळो दोन फावट...सतयेचो मळो तीन फावट...पावतो... सा”

रावजी मुखार सरलो... गुरवाच्या हातांतलें फूल ताणें आपल्या कोनोळ्यांत घेतलें.

फाटोफाट हेर चार भावणीची पावणी जाली. “ही चार वितांची...ही एका विताची...ही आतांच फळटा...”

गुरव एक एकटेची माहिती दितालो आनी चार मानकऱ्यां मदलो एक एकटो फुडें येवन देवस्थानाची थारायिल्ली बोली लायतालो. तेप्रमाण गुरव

पावतोसा करतालो...जमिल्ल्या लोकांमदी ते बराबर एक फुतफूत पातळटालो. त्यो बायलो आपलें आंग अदिकच आंवळून घेताल्यो.

येदे व्हडले सभेमाजार, इतक्या लोकांच्या मेळ्यामुकार ह्या बायलांची ही विटंबणा...सत्यवतीक थंयच्यान उठून पयस धांव मारची अशें दिसलें .पूण तिका तें शक्य जालेंना आनी तिचेर तेंवय फुडली भयंकर...न्ही म्हाभयंकर घडणूक पळोवपाचो प्रसंग आयलो.

“ पांचय पावण्यो जाल्यो आनी आतां दूद काडात रे...! आतां म्हशीचें दूद काडपाचें...!” एक आवाज उठलो.

सत्यवती कांचवेली. कोणाचें दूद...? म्हशींचें ? ...म्हशी खंय हांगा...?

–आरे देवा...! तिणें मनांतल्या मनांत एक किळांच मारली...

– म्हशी म्हणल्यार...ह्यो..ह्यो बायलो...हांचे दूद...?

फुडल्या खिणाक तिणें पळयलें...रावजी मुखार सरलो आनी ताणें आपल्या आवयच्या...न्ही आज्जेच्या वयाच्या ते बायलेच्या छातयेवेलो पदर कुशीक काडलो आनी ....

दुदाची धार वोडपा खातीर पानो वोडचे तेप्रमाण रावजीन तिच्या थानांचें बोंड वोडलें...

–देवा ... हें कितें?...कसली ही भोगावळ...?

–ना... रावजी...नाका....!

सत्यवतीच्या तोंडांतल्यान एक व्हडली आड्डुणी भायर सरली, पूण तिचो आवाज त्या जमिल्ल्या चोम्याच्या कानामेरेन पावलोच ना. धोलांच्या नेट–नेटाच्या आवाजान आनी सतीमायेच्या जयजयकारान तांचे कान भरिल्ले.

“ पाव गे माये सतीमाये...फुलय फळय तुजो गांव...व्हांवय हांगा दुदाच्यो न्हंयो... उदकाच्यो गंगा....!”

आनीक चार फावट जयजयकार जालो. धोल–ताश्याचो ढबढब वाडलो. सत्यवतीच्या आंगाक कांपरें भरलें. दोळे येद्दे मोठे जाल्ले...वाचा जणू गेल्ली. मनाभोवतणी प्रश्नांचें मालें गुंटलल्लें. ह्या माल्यांत अर्दजीव तिचें

मन करांदाय मारतालें,

...हो ...हो ...इतिहास ह्या गांवचो... भरल्या सभेमाजार चाली-भोगावळीच्या नांवान स्वताच्याच गांवच्या आवय-भयणींची विटंबणा करप हो पराक्रम परबांच्या घराण्याचो...? ह्याच पराक्रमांक भुलिल्ली हांव...???"

खिणांत तिच्या मनांत रावजी परबांचें घराणें, ताचो गांव...गांवचे लोक ... सगळ्यांविशीं एक तिटकारो मनांत तयार जालो, मुखार स्थापन्न जाल्ले सतीमायेक तिणें आड्डून प्रश्न केलो... 'जे बायलेच्या सतित्वाची पुजा जाता ते तुवें, एके बायलमनशेन, दुसऱ्या बायलांची जातली विटंबणा उगड्या दोळ्यांनी ...अशी मुकाट्यांनी पळोवप?'

मुखावेले विधी तिणें सारखें पळयलेच नात. रावजी जसो खुणायतालो... तशें ती भेरेल्ले अवस्थेंत करताली.

सतीमायेकडल्यान घरा परतुवपाचे आदीं रावजी तिका बाळपुरसाचे देवळेकडेन घेवन गेलो. थंय लागींच ती, धायेक मिटरांचे अंतराचेर आशिल्ली.

सतीमायेच्या पोटचो गुळो तो. स्वताचें सतित्व सिध्द करपा खातीर तिणें स्वताच्या हातांनी पोट फाळून भायर काडिल्लो!

बाळपुरसा मुखार हात जोडून उबी राविल्ले कडेन परत एकदां सत्यवतीचें मन प्रस्नांच्या फेऱ्यांत घुस्पलें....सतीमायेन खऱ्यानीच काय आपखोशयेन आपलें पोट फाळून हाका भायर काडलो, काय परबांच्या घराण्याच्या लोकांनी तिका तें फाळपाक भाग पाडलें...परबांच्या घरांत सद्द्याक तीन बोडक्यो वावुरतात, त्यो खऱ्यांनीच आपूण जावन बोडक्यो जाल्यो? ...घोवाच्या मरणान खरेंच काय तांच्या मनांत संवसारीक मोयपासा विशीं विरक्तताय तयार जाली...?

सत्यवती सांगातान रावजीय हात जोडून बाळपुरसा मुखार उबो आशिल्लो. गुरवान सांगणी केली,

"हे बाळपुरसा...परबांचे हे सुनेची कूस तूं बेगीन फळय...तिच्या

कुसव्यांतल्यान तूं नव्यान जाल्माक यो.. वर्साभितर तिचे मांडयेर तूं बाळ खेळय...पिळगेन पिळगेचो तुजो जल्म तूं परत एकदां सिद्द कर...!''

गुरवान कितें सांगणी केली ती सत्यवतीन आयकलीच ना. ताचें एकूय उतर तिच्या कानाच्या पड्ड्याचेर आदळ्ळेच नात, तिच्या मनाच्यो सगळ्यो संवेदना मरून गेल्ल्यो.

सतये मळार साकून परबांच्या वाड्यार परततना सत्यवती आदली सत्यवती उरूंक नाशिल्ली. रावजी, म्हाल परबांचें घराणें, वाघ्रपूर गांव, गांवच्यो चाली-रिती, उत्सव...सगळ्यविशीं एक परकेपण, एक आकस तिच्या मनांत तयार जाल्लो. शी...कसले चोथे दादले ह्या गावचे?... आपलो पुरुशार्थ सिध्द करपा खातीर आपल्याच आवय-भयणांचे चोळयेक भर सभेंत हात घालतात!... आनी ह्या असल्या गांवची ...असल्या घराण्यची सून जावंक मेळ्ळी ते खातीर हांव एक दीस नाचिल्ली?

...हें ...हें ...सगळें बंद जावंक जाय...! थांबोवंक जाय हें सगळें! ...हे फुडें हें चालू उरूंक फावना...! पूण कशें...? कितें तरी करूंक जाय?

ते दिसा रातचें , पयलेच फावट तिणें रावजीकडेन उलोवपाचो यत्न केलो. सांजवेळा जें पळयलें-अणभवलें...तेविशीं ताका तोंड फोडून जाप विचारली. ताचो परिणाम मात भयंकर जालो. आकांताचो गडगड मारून बिजूल पडची आनी उज्याचे लोळ उठचे तश्शें घडलें.रावजीचो सभाव कितको शीघ्रकोपी आनी आकांताळो हाचो ते दिसा तिणें प्रत्यक्ष अणभव घेतलो.

ती निंदेली. तिच्यो दांतखिळयो अंदल्लेवरी जाल्यो, त्या दिसाच्यान तिणें मोनेळ पांगरून घेतलो. दीस गेले...म्हयने गेले...वर्सां गेली...सत्यवती आजूनय मोनीच आसा...तिचें मोनेपण पयस करपाचो कोणे यत्न केलोच ना. करतलो तरी कोण?...त्यो तीन बोडक्यो...? त्यो तर आपली सांवळी तिचेर पडत म्हण पयस रावताल्यो!... आनी रावजी?..हय...सुरवातेक ताणें तिका बोलती करपाचो थोडो यत्न केलो, ना अशें न्ही..रातचो तो जेन्ना हांथुणार येतालो तेन्ना तिणे आपल्याकडेन उलोवचें म्हण तो तिचेकडेन लाळे-गोळे

करतालो. पूण तिणें तोंड उगडलें ना. तिचे कुडीनय ताका मनापासून केन्ना साथ दिली ना. कांय तेप मोन्यानीच दोनय कुडींचो खेळ चल्लो. उपरांत रावजी त्या खेळाक विटलो. मागीर अत्र्या-पयऱ्यान गांवची रत्नेभावीण वाड्यार रातची वस्तेक रावंक लागली.

त्या घरांतले नोकर-चाकर, वावराड्यो-कुळमिणी...सगळ्यांक सत्यवतीची मोन्याची भास आतां समजूंक लगिल्ली. येतो-वतो, सोयरो-दायरो सगळेच तिची उतरांबगरची भास जाणूंक लागिल्ले.

घरांतल्यो चाली-रिती, व्रतां-परबो...सगळें आदलेवरींच चलतालें. तातूंत कांयच बदल जाल्लो नाशिल्लो. तोंड बंद करून सत्यवती सगळें करताली, करून घेताली. सतीमायेक न्हावणीय ती दरवर्सा घालताली आनी म्हसपावणेकय हाजीर रवताली. पूण तिच्या एकाय कृत्त्यांत जिवंतपण नाशिल्लें.

त्या दिसा बाळपुरसाकडेन, गुरवान तिची व्होटी फळूं म्हण केल्ली सांगणी फळादीक जाल्ली...तिचे मांडयेर वर्साभितर बाळ खेळिल्लो.

...बाळ... तिचो एकुलतो एक बाळ!... पुरुषोत्तम!... पुरुषार्थान भरिल्लो...स्वताचें दादलेपण सिध्द केल्लो!

ताकाय केन्ना सत्यवतीन "बाळाऽऽऽ" म्हण उलो केलोना. ताचे खातीर तोंडान केन्ना आल्लय गायली ना. कोल्या-कोलयेच्यो काणयोय केन्ना ताका सांगल्योनात. ताका तिणें मोन्यानी-कुरवांनी घडयलो. पूण तिच्या छातयेंतल्या दुदावांगडा... तिच्या पोटांतलो सगळो उद्रेक... तिच्या काळजांतलो सगळो खतखतो पियेवनच तो व्हड जालो.

म्हणूनच ते दिसा तो रावजीक..खासा स्वताच्या बापायक विरोध करूंक पावलो... तितकी तांक ताचेमर्दी तयार जाल्ली.

ताणें ते दिसा रावजीक गांवची म्हसपावणी बंद करपा खातीर सांगलें. आदी विनवणी केली मागीर शिटकावणी दिली. ताचो परिणाम मात भयंकर जालो. बळ आनी सत्ता हाताचे मुठींत घेवन वावुरतल्या रावजीन ताका

स्वताच्याच घरांत बंद करून दवरलो. भायल्या जगाकडली ताची वारुच तोडली...

चार वर्सां जालीं , ताचे ऐन विशींतलें कंवळें जुवानपण चार वण्टींभितर घुस्मट्टा.

...वाजपां सांगातान मिरवणुकीन सतयेमळार देवतेक न्हावणी घालूंक आनी पावणी करूंक भायर सरून गेल्ल्या रावजीक पळोवन सत्यवतीच्या दोळ्यांमुखार तिच्या पुतामदीं आनी रावजीमदीं त्या दिसा जाल्लो रणखेव उबो रावलो...

म्हसपावणेचो तो दीस. दारांत वाजप-इलामत उबी रावली आनी न्हेसून आदींच तयार आशिल्लो रावजी देवाकुडींत गेलो. गर्भकुडींत कुळपुरुसा मुकार ताणें माथें बागयलें . मागीर ताचेर, तशेंच ताच्या मुख्यामुखार तेंकोवन दवरिल्ले तरसादीचेर ताणें कुकूम उधळयलो . तरसादीचें पातें लखलखतालें, शिगम्याखातीर ताका खास पाजण दिल्लें, ताचेर उधळिल्लो कुकूम रगताच्यो चिटयो कश्यो भासताल्यो.

“ हे कुळपुरसा...वाघोजी परबा ...तूं ह्या गांवचो राखणदार... तुवेंच हो गांव तारला... तुजी वयवाट तुजे वंशज चलयत आयल्यात... हांवय तुजोच वारसो फुडें व्हरतां...!

आज गांवची वर्सावळीची म्हसपावणी संपन्न करूंक हांव भायर सरतां...येश दी पुरसा...जैत दी...तुजो गांव फुलय फळय... गावची भरभराट कर...!”

देवाक सांगणी करून रावजीन तरसादीच्या पात्यावयल्या कुकमाचे चिटयेक बोट लावन कपलाक उबी चीर वोडली आनी तो देवाकुडींतल्यान भायर सरूंक वळ्ळो...

देवाकुडीच्या हुमऱ्यार पुरुषोत्तम... ताचो कुलदिपक उबो...

रावजी ताका पळोवन गोंदळांत पडलो...हें कितें ? न्हेसलो ना तूं आजून? दारांत सत्री पावली परबांक व्हरूंक आनी तूं हे पोरनेच कपडे घालून ? चल

वच सडसडीत आनी यो न्हेसून नवी मुस्तायकी!''

....

''कितें जालें?..उबो कित्याक तूं आजून... खुट्ट खुबो कसो..?''

''ताता, तुका कितें सांगपाचें आसा म्हाका..''

''तुका कितें सांगपाचें आसा न्ही, तें फाल्या सांग म्हका...फाल्या बसून सुशेगादीन उलोवया आमी...आज म्हजे कडेन वेळ ना...''

''तुमकां आतां वेळ काडचोच पडटलो ताता...म्हजें सांगणें आयकून घेवचेंच पडटलें!''

पयलेच फावट पुताच्या आवाजांत तयार जाल्लो धेक पळोवन रावजीक चक्क जालें. वोंटांवयले ल्हवेक आजून काळसाण येवंक ना, तो बोटभर पोर म्हजेर शेक गाजयता...कालमेरेन म्हजे नदरेक नदर दितना हो बिलू जातालो, आज हाच्या दोळ्यांत इतको आत्मविस्वास खंयच्यान आयलो...?

रावजीन नाईलाजान म्हणलें... ''सांग कितें सांगपाचे आसा तें , बेगीन!''

'' ता..ता..., आज जातली म्हस पावणी बंद करात... सदांखातीर.. सासणाची!''

'' कितें...?'' रावजी व्हडल्यान आड्डलो. ''तकली जाग्यार आसा म्हरे तुजी पुरुषोत्तम... ? गांवची पुर्वापार चलत आयिल्ली रीतभात, भोगावळ तूं बंद कर म्हण्टा...येदो व्हडलो जालो तूं...कोणे दिलो तुका हो अधिकार...हो रावजी...गांवचो म्हालपरब...ह्या गांवचो मुखेली जितो आसतना तूं गांवची इतक्या वर्सांची वयवाट बंद कर म्हण सांगता...?''

रावजीचो रागाचो कड जसो वाडूंक लागिल्लो तसो पुरुषोत्तमाचो आवाजय चडूंक लागिल्लो...आतां तो देवाकुडीच्यो वण्टी हुंपून भायर पविल्लो... घरांतले, भायले सगळे देवाकुडीच्या दारांत एक जाल्ले...सत्यवतीय माजघराच्या हुमऱ्यार येवन उबी जाल्ली.

''गांवच्याच आवय-भयणींच्या चोळयांक भर सभेमाजार हात घालपी कसलो तूं गांवचो मुखेली?... कसली ही गांवची वयवाट...? हें कसलें

देवस्पण गावच्या उद्धाराचें...? आमच्याच गांवांत तें कित्याक जाता...? हेर गांवांत कित्याक ना...?''

''ना कशें? ...हेर देवस्थानांतल्यो भोगावळी आयकल्यांत तुवें?.. न्हवरो-व्हंकल करतात ती पळयल्या तुवें केन्ना शिगम्याक...? कसलें कसलें पोजडें उलोवप आनी हाव-भाव करतात हे भोगावळीत...पळय वचून एकदां थंय...कांय कडेन देवां बरोबर मनशांच्याय गुप्तांगांचीं नांवां आड्डी मारीत भोंवतात गांवभर...तें आयकलां तुवें केन्ना?... जाणा तूं... भायल्या राज्यांत खंय एकीकडेन , एका उत्सवांत देवीच्या भगतिणींक नागड्यो नाचयतात.... ताचे मुखार आमगेली ही पावणी कांयच न्ही...आरे , हें सगळें गांव फुलूंक -फळूंक जाय म्हण करतात...आमगेल्या पुर्वजांनीच तें रचलां...!''

'' ना ताता... परंपरेच्या नांवाखाला रचिल्ली ही सगळी जमीनदार-इनामदारांची खाज! भावणी-कलावंतीणींची घराणी कोणाक लागून जल्माक आयलीं?... कोणाचे सेवेक वावुरतात तीं...?

गांव फुलूंक-फळूंक जाय म्हण करतात खंय ह्यो भोगावळी! ...ताता.. आज देशाच्या कोनशा कोनशांत स्वतंत्रतायेचो संग्राम पेटला! इंग्रजाच्या अत्याचारांतल्यान देश मुक्त करपाखातीर देशभक्त आपल्या जिवाची आहुती दिवंक फुडें सरल्यात आनी आमी मात हांगा आमच्याच बायलांच्या चोळ्यांक हात घालतात...!''

पुरुषोत्तम एक एक वाक्य उलयतालो आनी रावजीचो संयम सुटत वतालो. तो व्हडल्यान आड्डुलो... ''पुरुत्तमा... तोंड सांबाळून उलय!''

''सत्य कोडू आसता ताता पूण म्हाका आज उलोवचेंच पडटलें!. .. पोर्तुगजाचे राजवटीत तुजो शेक चलता म्हण तुका हे फुडें कित्याय कितें करूंक मेळचेंना! हांव करतलों तुजी कागाळ व्हायसरॉया कडेन! ...लिस्बोवा मेरन वतलों हांव ही प्रथा बंद करूंक. पोर्तुगेज सरकारान शेसविधी बंदीचो कायदो केल्यार आज पांच वर्सां जालीं...तरी आमच्या गांवांत दोन म्हयन्याआदीं नवी भावीण जाली...हें कशें ताता? ...उलय...जाप दी म्हाका...!''

"ताता...हात जोडून मागतां हांव तुजेकडेन...बंद कर हें सगळें...आनी जा खऱ्या अर्थान प्रजेचो प्रतिपाळक...!"

आतां रावजीची आनीक आयकुवपाची शक्त सोंपिल्ली...तरी तो वेळ काळाचें भान दवरून सरळ उठून सतये थळार गेलो. पूण पुरुषोत्तम थंयीय पावलो.

" ही हळशिकावणी, लजकाडणी भोगावळ आयच्यान बंद करात !" ताणें व्हडल्यान आङ्कुत गांवच्यांक उलो केलो.

जें घडटा तें रावजीचे सहनशिलतेचे पलतडचें आशिल्लें. खासा आपलोच पूत आपल्याच अधिकाराक आव्हान दिता?... आजवेर गांवच्या म्हाल जाण्टयांक लेगीत आपले मुखार एक उतर मोठ्यानं उलोवपाचें धाडस जालेंना, थंय आपलो पूत आपले मुखारच...आपले विरूध्द गांवच्यांक चिथायता...?

आतां रावजी भितरलो शासक जागो जालो. तो बापूय-पुताचें नातें विसरलो. ताणें धडाधड आपल्या शिपायांक-पेद्यांक फर्मान सोडलें... "ह्या उर्मटाक धरून वाड्यांत बंद करून दवरांत!"

...चार वर्सां जालीं पुरुषोत्तम घरांतच बंदखण जियेता. ह्या चार वर्सांत ताणें भायलो वाठार पळयलो ना...ताचें शिकप-भोवप बंद जाल्लें तो पुण्यातल्या एक कॉलेजीत पदवीचें शिकप करतालो. ...ताचें फुलतें जुवानपणचार वण्टीभितर बंद जाल्लें.

सत्यवती भितरले भितर कडटाली, खतखतताली. पूण तिच्या वोंठावेलो मोनेऴ मात आजुनय तसोच आशिल्लो. ह्या मोनेळांतल्यानच तिणें घोवाकडेन विद्रोह करपाक सुरू केलें. पुताक जे दिसा घोवान कुडींत बंद केलो ते दिसाच्यान तिणें आपणें करपाच्यो घरांतल्यो सगळ्यो चाली-रिती बंद केल्यो. ती सतयेक न्हावणी घालना जाली...पावणेक वचना जाली...

सत्यवतीच्या ह्या वागण्याचेर रावजी बसोच खंकाळ जालो, ताणें रुद्रावतार घेतलो . पूण हे फावट सत्यवती ताका बदली ना. रावजी धुमसत उरलो.

आतांय तिणें आपल्याक परंपरे प्रमाण राट-दिवो दाखयलो ना , हाची

तिडक रावजीच्या मस्तकाक मारिल्ली. भिरकेंतच तो भायर सरून गेल्लो.

रावजी चाळवून भायर सरून गेल्लो पळोवन सत्यवती आपल्या बंद वोंठांभितर आसूरी खोशयेन खदखदून हांसली आनी हांसता हांसता तिका हड्डें फुटून रडूंक येवंक लागलें. तिच्या दोळ्यांतल्यान तिच्या मनाचो घुस्मटमार उदकाच्या रुपान व्हांवंक लागलो.

मागीर तिच्या मनांत प्रश्नांचें वावतर उठलें... केन्ना सोंपतलो हो जिवाचो तळतळाट... ? केन्ना मुक्ती मेळटली ह्या मनाच्या यातनांक...? मुक्ती मेळटली... काय मुक्ती करची पडटली? ...हय, सगळ्यांत पयली मुक्ती करूंक जाय ती पोटच्या गुळ्याची! ..चार वर्सां जालीं तो वयले माळयेर बंदखण भोगता... ना ताणें भायलो वाठार पळयला, ना ताका मनशाचें तोंड दिसलां... जेवण-खाण, गरजेच्यो वस्ती ताका जनेलांतल्यान भितर दवरतात... एखाद्र्या अट्टल खुन्या सारख्यो!"

– ताका पयलीं मुक्त करपाक जाय... आज घरांत कोण नात... सगळें नोकर –चाकर... बंदे– बडकुरां सतयेमळार गेल्यांत . घरांत आसात फक्त त्यो तीन बोडक्यो–जाण्टल्यो. त्योवय धरणेक बागवल्ल्यात... इतक्या वर्सां भियेवन दीस काडले... आतां ह्या भंयाचो अंत करपाचो वेळ आयला...

मनाचो निश्चेव करून सत्यवती रावजीचे कुडींत वचपाक वळ्ळी... ताचे कुडींत पुरुषोत्तमाचे बंदखणीची चावी आशिल्ली.

त्याच वेळार कोण तरी व्हडल्या व्हडल्यान वाड्याचें म्हालदार बडयता हें तिच्या लक्षांत आयलें.

तिचीं पावलां नकळटां दारावटेन वळ्ळी.

दार आड करून सगळें भायर सरून गेल्यांत तें ती जाणा आशिल्ली. आज गांवभर लोक सतयेमळार आसपाचो...आनी हो कोण दार बडयता? ती अजापली.

"कोण...? कोण दारार मारता?"

ती दाराकडेन गेली, तिणें आड केल्लें दार उक्तें केलें. दारांत दोन–चार

तरणे भुरगे उबे आशिल्ले. सामके आकुळ-पिकूळ जाल्ले. धांपेताले.

" कोण रे तुमी? ...कितें जालें? ...कोण जाय?"...सत्यवतीन मोनेळानच तांकां प्रश्न केलो.

" ताईबाय...आज घात घडपाचो आसा... तुमी कितेंय पूण करात... आज सतये मळार मोठो रणखेव जातलो... तो कसोय करून आडायात!... आज कोण कोणाचो जीव घेतलो म्हण कळना !... गांवांत दोन पंगड जाल्यांत..."

" घडलां कितें तें स्पश्ट सांगात...!"सत्यवतीचो परतय मोन्यांचो प्रश्न.

" पांचवे भावणीक काल आर जाली... ती आज पावणेक पावचिना म्हण सरकारान वर्द दिल्ली, तिच्या घराण्यांतल्या कोणाय आंकवार चेडवान पावणेक येवचें...तिच्या पुताची धूव...तिची नात ...तिचें लग्न थारलां...ती कशीच येवंक तयार ना...बापूयय धाडूंक तयार ना...सरकार म्हण्टा, देवाक भावीण जाय आसतना खंयचेय भावणीचे नातीक वा धुवेक लग्न जावंक मेळचेना...तिणें पावणेक येवचेंच पडटलें!"

" सरकारान मनीस धाडून तिका सतयेमळार उबारून हाडल्या...तेका लागून गांवात दोन पंगड जाल्यांत... एक सरकारा वटेनचो एक भावणी वटेनचो...तोंडाची बाचाबाची करतां करतां दांड्या-कोंड्यांचीं झगडीं पेटल्यांत!"

" सरकाराची शक्त व्हडली...भावणीच्या लोक जिते उरचेंनात...!"

आयकतां आयकतां सत्यवतीच्य आंगार कसलो भार आयलो तिकाच कळ्ळें ना. ती पीट्ट करून वाड्याच्या भितर धांवली. देवाकुडींत वचून तिणें वागोबा पुरसाच्या मुख्यामुखार उबे करून दवरिल्ले ताचे तरसादीक हात घातलो.

तरसादिच्या लखलखतल्या पात्या सारखे तिचे दोळेय लखलखताले. तिच्या काळ्जांतले सगले इंगळे तिच्या दोळ्यांत एक जावन पेटिल्ले.

तिका आपोवंक आयिल्ल्या त्या पोरांक कितें घडटा तें कळचे आदींच

ती, हातांत तरसाद उबारून घराचीं सोपणां देंवन रस्त्यावेल्यान वारें कशें धावंक लागली. लग्नाच्या सत्तावीस वर्सांत ती पयलेच फावट अशी गांवच्या रस्त्यावेल्यान एकटी, पांयांनी वताली...

धांवतना तिच्या मानेवेलो आंबाडो सुटून केंस फाटभर जाल्ले... खांदावेलो पदर धुल्ल हुंबयत येतालो.

पयसुल्ल्यानच सत्यवतीच्या कानार सतयेमळार चलिल्लो बोवाळ पडलो... तसो तिच्या पावलांनी अदिक नेट घेतलो ... बिजुलेची गती तिच्या आंगांत संचारिल्ली..

चार वर्सां आदीं पुरुषोत्तमान उडयिल्ले उज्याचे किटीन धुमसत धुमसत आज आगट्याचें रुप घेतिल्लें. त्या आगट्याचे लोळ गांवभर पातळिल्लें.

चवताळिल्ले वागणी सारकी सत्यवतीन सतयेच्या कळये मुखार जमा जाल्ल्या मेळ्या मुखार उडण मारलें...

तिणें पळयलें, दोग जाण आडदांड दादले एका पंदरा सोळा वर्साच्या कंवळ्या चेडवाक दोनीय भुजांक घट्ट चिड्डून धरून उबे आसात आनी ताका जमनीर कळये मुखार न्हिदोवपाचो यत्न करतात. तें चेडू आकांताचें भियेलां ... तें थरथरता...भंयान ताच्या तोंडांतल्यान रडणेय भायर सरना... मात तें तांच्या हातांतल्यान सुटपा खातीर धडपडटा.

“ खबरदार! ...सोडात ताका पयलीं...नातर ह्या वाघोजी परबाचे तरसादीन एकएकट्याच्यो शिन्न्यो करतली !”

सत्तावीस वर्सांनी सत्यवतीच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लो तो आवाज ...त्या आवाजाक तरसादीच्या पात्याबशेन लखलखीत धार आशिल्ली... सगळो कलकल...बोवाळ...करंदायो..चिरीत तो आसमंतांत घुमलो...

त्या आवाजान सगळे आवाज खिणाक ठप्प केले.. खिणभर कोणाक कितें घडटा तें समजलें ना. दांडेकारांच्या हातांतले दांडे वयरच उरलें... कोंडे जमनीरच थिजले... धावतल्यांचे पांय घट जाले...आड्डतल्यांचें तोंड उगडेंच उरलें...

सगळ्यांत पयलीं भानार आयलो तो रावजी..

“ स..त्य...व...ती... !” तो व्हडल्यान आड्डुलो. “ कितें चलयलां तुवें हें...?”

“ हांवें कांयच चलयलें ना...चलयलां तुमी...! हांव हांगा आयल्या ती, जें हळशिकवणें कर्म इतलीं वर्सां मेरेन चलत आयलां ताचें बिन्न मोडूंक!

ह्या म्हज्या कामाआड जो कोण येतलो ताका ल्हान-व्हड म्हणनासतना, आपलो-तुपलो म्हणनासतना ना करून वडयतली हांव... म्हज्या पुरुषोत्तमान भोगिल्ले घुस्मटीचो बदलो घेतली हांव आज...!

हे सतीमायेचो सोपूद घेवन सांगतां, ... तुमीय आड आयल्यार आज तुमकांय कापतली हांव...हे सतीमायेन सती वचून आपलें सत्व राखलें... हांव सत्व राखून सती वतली...!”

रावजीन पळयलें, सतीमायेच्या कळयेमुखार पणटेंत पेट्टले जोती परसय खर धग आज सत्यवतीच्या तोंडार पेट्टा...हे धगीक हात लावपाचो यत्न केल्यार आपूण पुराय जळटलों. तो हतबल जालो...ताणें आपली हार मानून घेतली.

म्हालपरबांच्या घराण्यांतल्या पुरुशाची ती पयली हार!



# तिची काणी

**ऑफिस** सुटून बसस्टॅण्डार पाविल्लें तेन्ना फक्त स वरांच जाल्लीं, पूण सात-साडेसात जाल्लेवरी अंधारून आयिल्लें. तडव्या पावसाची एक व्हडली दडक बदळ दनपरां - तीनवरांच्या सुमाराक येवन गेल्ली. येतना विजो, गडगड, वाऱ्याक सांगाताक घेवन आयिल्ली. म्हाळ म्हयन्यांतलो परतीचो पावस तो.

गडगड-विजां सांगाताक मोठ्यो मोठ्यो दडको घालीत येवप हो ताचो सभाव . पूण ह्या पावसाक लागून लोकांची खूब धांदळ जाता. सकाळ फुडें लखलखीत वत पडिल्ल्यान रेनकोट-सत्र्यो चडशा लोकांनी व्हेल्यो नासतात, मागीर पांयस्वार, स्कुटरस्वार, सायकलस्वार ...दडको पडूंक लागल्यो म्हणटकच हांगा थंय मर्दींच आपलीं वाहनां थांबोवन झाडांमुळांनी, कोणाच्या दुकांना-घरांच्या पांख्यामुळां आसोराक रावतात आनी ताका लागून , मुळांत रस्त्यावेल्या फोंडकुलांनी उदक भरिल्ल्यान मंद जालें रस्त्यावेलें ट्रॅफीक मुयेचे गतीन चलूंक लागता. हाचोच परिणाम म्हण मागीर बसस्डॅण्डार बसी वेळार पावनात आनी थंय लोकांची जात्रा भरता.

आजय तशेंच जाल्लें. बसस्डॅण्डार लोकांची हीऽऽऽ गर्दी जाल्ली. शटल सर्वीसाच्या तिकेटी खातीरची रांक तर मारूतीचे शेपडे बशेन खिणा खिणाक वाड वाडत वताली. तिकेट कांवटराकडेन मुयेक लेगीत रिगूंक जागो नाशिल्लो. मडगांवच्यान सुटिल्ल्यो बसी जो मेरन पणजे स्टॅण्डार पावनात

तो मेरेन पणजेच्यान मडगांव वचूंक बसी सुटनाशिल्ल्यो.

म्हाका तीं लक्षणां काय बरोबर दिसलिनांत. लायनीक उबें रावल्यार णव मेरेन मडगांव पावपाचो दुबाव आशिल्लो. तातूंत आनी पावस येवपाचो. ट्रॅफिक जॅमांत सांपडून केन्ना घरा पावतलें हाचो काय भरंवसो नाशिल्लो.

लायनीक उबें राविल्ले कडेन हांव सामकें अस्वस्थ जाल्लें. मडगांवच्यान घरा वचपाक निमणी बस साडेआठांक, पूण एक एकदां ती सव्वाआठाकच सुट्टा. कितें करप? कोणय सांगाताक मेळ्ळ्यार टॅक्सी करून वचूं येता, पडटात ते पयशे पडूं ... सांगाताक येता ताणें दिले नाजाल्यार जाता, पूण असल्या पावशी आनी काळखी वातावरणांत सांगाताक दुसरो कोण आसप बरें, म्हण हांव टॅक्सी करपा खातीर लायनींत कोणय वळखीची व्यक्ती दिसता जाल्यार पळोवंक लागलें...

आनी म्हजी नदर, म्हजे मुखार चार पॅसेंजर सोडून उबे आशिल्ले पाचवे बायलेचेर गेली. हय न्हयशी वळखिची कशी दिसली. एक तर बसस्टॅण्टार लायट गेल्ली. अंधुकसो उजवाड आशिल्लो.... त्या उजवाडांत हांव तिचो सरांव घेवंक लागलें....

हय...तेंच तें... सुखदा... पूण ते आज अशें कशें दिसता... सामकें दुर्येत... अशक्त... थकिल्लें...! वळखूंकय कठीण जालें म्हाका !

हरशी म्हण तें खंय उमेदीत, तरतरीत दिसतालें? जेन्ना साकून हांव ताका पळयतां, तेन्नाच्यान ताच्या तोंडार हांवें केन्ना हांसो म्हण पळयलोच ना. सदांच ताचें तोंड बाविल्लें. चिंतेस्त. बरें वेवस्थीत न्हेशिल्लें, सजिल्लें तें केन्ना म्हाका दिसलेंच ना. आंगार एक सादोसो फिकट रंगाचो, क़ॉटन वा तसलोच कसलो चुडिदार, माथ्यावेल्या मुठभर धवी सया मरूंक लागिल्ल्या केंसांची उंदराची शेंपडी कशी दिसपी विणी. कानांक इल्लेशे, चण्याचे दाळी येदे बड्डू आनी गळ्याक दोनपडी सरसरीत पिड्डुकाचें मंगळसुत्र, इतकेंच ताचें भांगर. हाताक एक-एक कंवचेचें कांकण इतकोच ताचो शिंरगार...ताका पळयतनाच एकाद्रो ल्हान भुरगो लेगीत सांगपाचो, हे बायलेचें कितें तरी जालां, ती खूब दुख्खी आसा म्हण.

पूण आयचें ताचें दिसप वेगळेंच आशिल्लें. तें एखाद्र्या दुयेंसांतल्यान उठून आयिल्ल्या सारखें दिसतालें. ताची म्हाका दिसतली फाट सामकी आंवळून आयिल्लेवरी जाल्ली. ताच्या केंसांचे विणयेवेल्यान हांव खरें तर ताका वळखल्लें. ती विणी मात आदले सारखीच आशिल्ली...

तें म्हाका आज उणें उणें दोन म्हयन्यांनी दिसतालें. ते आदि म्हाका तें सप्तकांत तिनदां तरी मेळटालेंच. ताचो ऑफिसांतल्यान भायर सरून बसस्टॅण्डार पावपाचो वेळ निश्चित आशिल्लो. ताच्या ऑफिस स्टाफाक पावोवपाक ऑफिसाची गाडी येताली, ते खातीर तें सद्दां एकाच वेळार बसस्टॅण्डार पावतालें, पूण म्हजें तशें नाशिल्लें. ऑफिस लागींच आशिल्ल्यान कोणेंय पावोवपाचो प्रश्नच नाशिल्लो पूण म्हजो भायर सरपाचो वेळ थोडो घुस्पतालो. हातांतलें काम सोंपयले बगर एक तर म्हज्यान उठूंक जायनाशिल्लें, शिवाय ज्युस्त भायर सरपाच्या वेळार कोणय व्हिजीटर आयल्यार मागीर सहज पांच धा मिनटां वेळ जातालो. ताका लागून तें म्हाका सद्दां मेळनाशिल्लें.

फाटल्या वर्सभरा सावन हांव ताका पळयतां. अदीं मदीं एक तर बसस्टॅण्डार वा बसींतच ते म्हाका चड करून दिसतालें. पयले फावट हांवें जेन्ना ताका पळयलें तेन्नाच तें म्हज्या लक्षांत उरलें, कारण ताच्या तोंडार म्हाका संवसारांतलें सगळें दुख्ख एकठांवल्लें दिसलें. ताच्या दोळ्यांत खर वेदना दडिल्ली दिसली. ताका पळोवन म्हज्या मनांत प्रश्न उबो रावलो की अमृत मंथनांतल्यांन वयर सरिल्लें सगळें वीख त्या शिवशंकरा बदला हाणेंच पिवन वडयलें ना मूं?...

ताका कित्यानच आस्त आसा अशें दिसनाशिल्लें. तें आपल्याच विचारांत शेणिल्लें आसतालें. भोवतणचें जग, आशी-कुशीक वावुरतलो लोक... कोणच ताच्या जगात ना अशें जाणवतालें. तें अलिप्त वावुरतालें. म्हन्यांत कितें घडल्यारूय ताचे खिजगणींत तें नासतालें. चेतना नाशिल्ल्या माकना सारखें ताचें वागप आशिल्लें. बसस्टण्टार आयलें... लायनीक उबें रावलें... तिकेट घेतली... बसींत चडलें... मेळंटा त्या सिटार बसलें आनी दोळे मेटले... बस मडगांव पावली की देंवलें आनी मुकाट्यांनी देंवन बसीक

फाट करून आपले वाटेन गेलें.

ताका पयले दीस पळयिल्लें ते दिसाच ताचे जिणेंत किते तरी मोठ्ठें अदृश्ट घडलां आसूंक जाय हाची हाचो म्हाका दुबाव जाल्लो.

तशें पळोवंक गेल्यार तिकेटी खातीर लायनीक उबीं रावपी सगळींच जाणां किटकिट्टात... उलयतात अशें ना. कांय जाणां मुकाट्यांनीय उबीं रावपी आसात. पूण हाच्या रावपांत एक वेगळेंपण जाणवतालें. हेर जाणां वोगी रावलीं तरी तांच्या तोंडार एक जीवंतपणा आसतालो... जीणेविशीचो उल्हास दिसतालो, पूण ताच्या तोंडार दुख्खाशिवाय दुसरें कांयच दिसनाशिल्लें. तें कोणाकडेन पळय नासतालें. ताची नदर सकल जमनीकडेन लागिल्ली आसताली. तेच अवस्थेंत तें लायन जशी मुखार वता तशें मुख मुखार वतालें. तिकेट कांवंटरा कडेन पावतकच खिणा पुरती ताची नदर वयर येताली, मागीर तिकेट हातांत पडटकच परत ती जमनीक लावन तें बशींत वयर चडटालें.

म्हजेकडेन तें पयलें उलयलें ताचे आदीं दोनदां तरी आमी एकाच सिटार बसून प्रवास केला. पूण तें कांय म्हजे कडेन उलयलें नाशिल्लें. उलोवप खंयचें? ताणें नदर वयर करूनय म्हज्या तोंडाकडेन पळयल्लें लेगीत नाशिल्लें. दोग जाणाचें सीट. हांव जनेलाकडेन बशिल्लें. तें येवन म्हजे कुशीक बसलें आनी ताणें तकली सिटाचे फाटीर तेकोवन पट्ट करून दोळे मेटले. तें खऱ्यांनी न्हिदिल्लें काय ताणें निकटे दोळे धांपून घेतिल्ले हें हांव कांय सांगूंक शकना. पूण ताणें सिटाक तेकयिल्ली आपली मान काडली आनी दोळे उगडले ते बद्द मडगांव पावतकच. बसींतल्यान देवतनाय ताणें मान वळोवन म्हजेकडेन पळोवंक ना. जशें काय आपूण एकटेंच ते बशींत आशिल्ले सारखे तें नाकामुखावेले वाटेन चलूंक लागिल्लें.

सुमार पांच म्हयने बी जातले तें म्हजेकडेन पयले फावट उलयल्यार. ते उपरांत तें म्हजेकेडेन सात-आठ फावट तरी उलयलां. पूण जोक्तेंच. पयले फावट उलयलें तें मात सामकें पोटभर. कितक्या तरी दिसांचो, न्हय... न्हय... वर्सांचो आपल्या पोटांतलो वोग ताणें म्हऱ्यांत वोकिल्लो....त्या दिसा उपरांत

तें हांव दिसलें की म्हजे म्हन्यांत बसपाक येतालें. ताच्या मोनेळ पडिल्ल्या वोठांच्या कोनशार एक तुटक हांसो खिणभरच उदेतालो. हांवें प्रतिसाद दिलो म्हण्टकच तो आशिल्लो तसो गुप्त जातालो. मागीर,'म्हजें काम केन्ना करता?' असो पयलो प्रश्न तें म्हाका विचारतालें. हांवें जाप दितकच 'बरें' म्हण दोळे धांपतालें. तशेंच कितें मनात आयल्यार वा हांवेंच विचारल्यार उतराक उतर म्हण्टा तशी जाप दितालें.

खरें तर ताणें म्हाका पयले फावट जाप केली तेन्ना म्हजो विस्वासच बसलोना तें म्हजेकडेन उलयता आनी ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरल्यांत म्हण. हांव आंऽऽऽ करून ताचेकडेन कांय खीण पळयतच उरिल्लें...

ते दिसा सांजेचें हांव बस स्टॅण्डार पावलें तेन्ना लायनीक कोण नाशिल्लो. शिवाय बसूय लागिल्ली आशिल्ली. हांव बसींत वयर चडलें. भितरूय चार-पांच जाणांच बसून आशिल्लीं . म्हाका उमेद जाली. कितल्या दिसांनी अशें चित्र हांव पळयतालें. हांव वचून मदींचशें एका जनेलाच्या सिटाचेर बसलें आनी बस भरून सुटपाची वाट पळोवंक लागलें.

बसींत एकएकटोच वयर चडटालो. हांव मनांत येवजितालें, आज कितें जालां तर?..पॅसेंजर कित्याक नात?....हरशीं सामकी लोकांची बसस्टॅण्डार खात्तड आसता ! मागीर म्हाका याद जाली.. फाल्या गूड फ्रायडे म्हण्टकच आज निमणो बिरेस्तार. क्रिस्ती भाव-भयणांक आज सांजे मिसाक इगर्जेंत वचपाचें आसता, देखून घडये भोवतेकांनी सांजेच्या अर्ददिसाची सुटी घेतल्या आसतली, देखून लोक उणें आसात. कितेंय आसूं, आज कितक्या तेंपान बसीन आवांतात बसूंक मेळटा म्हण हांव उमेदींत जाल्लें.

बस पुर्ण भरलीच ना. म्हजें तीग जाणंचें सीट, तरी हांव एकटेंच आशिल्लें...

पॅसेंजरांची वाट पळोवन ड्रायव्हरान बस तशीच सोडपाचें थारावन स्टार्ट मारली, पूण ती जाग्यावेली हालचे पयलींच सॅक्युरीटी आड्डलो...

"पात्रांव... राव ... राव ...येता...एकटी ..."

बसींतल्या सगळ्यांच्यो मानो दाराकडेन वळ्ळ्यो. हांवेय फाटीं वळून

पळयलें, तर तें आंगाची गुटली करून वयर चडटालें.

वयर चडून तें सरळ येवन म्हजे कुशीक बसलें. हांवें एक खीण ताका पळयलें आनी मागीर हांव जनेलांतल्यान भायर पळयत म्हज्या कल्पना विश्वांत दंग जालें... म्हज्या हिशेबान तेंवय आपले न्हिदेच्या जगात दंग जालां आसतलें!

अकस्मात कानार पडिल्ल्या आवाजान म्हज्या कल्पना विश्वांत खंड पडलो. हांवें चक्क करून खंयच्यान आवाज आयला हाचो सोद घेवपाचो यत्न केलो, जाल्यार तो आवाज म्हजे कुशींतल्यान येतालो.

हांवें अजापान पळयलें . म्हजेकुशीक बशिल्ले बायलेनच म्हाका उलो केल्लो आनी तें म्हज्या तोंडाकडेन पळयत प्रतिसादाची वाट पळयतालें.

हांव अजापून आपल्या तोंडाकडेन पळयता हें पळोवन तिणें दबिल्ल्या आवाजात म्हाका परत उलो केलो...

"मॅडम... तुमी बरयतात न्ही....?"

हांव परत अजापीत जालें... हें आनी म्हजेकडेन उलयता...!

"आं...आं... हय... तुका कशें कळ्ळें...?"

"हांवें तुमचो पयर पेपरार फोटो पळयलो...तुमकां कसलो तरी पुरस्कार मेळ्ळा न्ही...?"

हांवें म्हळें,.. "आं... हय... हय...साहित्य अकादेमीचो तो... बरोबपा खातीर आशिल्लो...केंद्र सरकारचे संस्थेचो पुरस्कार तो..."

ताणें म्हळें ... "ऊं..."

ताणें तशें ऊं... म्हणिल्लें पळोवन साहित्य अकादेमी बी ताच्या माथ्यावेल्यान गेली आसतली अशें हांवें मनात येवजिलें. कारण भौतेक बसींतल्या प्रवाशांचो म्हाका तसो अणभव आशिल्लो. पेपरार म्हज्या साहित्यीक कार्यासंबंधी कसलीय बातमी येतकच बरेच सहप्रवासी "congratulations ! Today I saw your photo on newspaper!" वा "आज फोटो पळयलो तुजो पेपराचेर, अभिनंदन!" ...अशें म्हण म्हाका विश करतालीं, पूण मागीर "कितें तें? ... कितें मेळ्ळा तुका? ...you write poems.? ", "What

is that Sahitya?" (हांगा साहित्य म्हळ्यार साहित्य अकादेमी)... अशें अनाडीपणाचे प्रश्न विचारतालीं. स म्हयन्या आदीं म्हाका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळटकच एके सभागेन जीं बरींच वर्सा एका सरकारी वाचपघरांत नोकरेक आशिल्ली तिणें म्हाका विचारले "why they gave you so much money? Have you applied for financial assistance?...?" म्हाका तेन्ना तिची सामकी किंव आयिल्ली... ह्या लोकांक अवोर्ड आनी पयशे हांतलो फरकच कळना. तांचे नदरेन सगलेच दुडू !

कांय खीण वोग्गी रावन तें परतें उलयलें,

"खूब बरें दिसलें तुमकां पुरस्कार मेळ्ळा ते वाचून... बायलो अश्यो फुडें सरतात तें पळोवन खूब अभिमान दिसता...!"

हांव ताच्या तोंडाक पळयतच उरलें... सदांच मख्ख आसपी हें आनी उलयता? ... आनी इतकें विचारपुर्ण उलयता...? म्हजो विस्वासच बसना जालो.

हांव दोळे विस्फारून आपलेकडेन पळयता तें पळोवन तेंवय मनांत कितें समजुवपाचें तें समजलें. कांय खीण आमी दोगांय वोग्गी उरलीं. मागीर ताणेंच पयलें तोंड उगडलें.

"मॅडम...म्हजेर एक उपकार करशात? ...म्हजेर एक कथा बरोवशात...?"

"तुजेर कथा? ... म्हजीं फकाणां करता...?"

"ना मॅडम, हांव तुजीं फकाणां करना... खरें तेच सांगतां...म्हज्या जिविताची व्हडली काणी आसा... ती बरोबपाक जाय...जगाक ती कळपाक जाय..."

हांव आबूज जालें, - "ए... वोगी राव गो... कितेंय नाका आशिल्लें उलोवं नाका... तशीं प्रोब्लेमां- दुख्खां सगळ्यांकच आसात... म्हण तीं कोण जगजाहीर करता...?"

हांवें ताका समजावपाचो यत्न केलो, पूण तें निग्रहान म्हणूंक लागलें. "ना मॅडम, तुका खबर ना, हांवें कितें भोगलां तें... कसले मानसीक

अवस्थेंतल्यान हांव गेलां आनी वताय तें... म्हजी इतकी फसवणूक जाल्या ती संवसारात कोणाचीच जाल्ली आसचीना... ती जगाक कळूंकच जाय... दर एके लग्नाक उबे रावतले चलयेक ती कळूंकच जाय कारण तीं तेवरवीं पयलींच शादूर जातलीं... सगळे गजालींचो सोद घेवनच गळ्यांत माळ घालून घेतलीं... म्हजी जी फटवणूक जाली तशी तिची जावंक पावचीना...''

उलयता उलयतां ताच्या आवाजाची धार वाडिल्ली. बसीच्या चलपाच्या आवाजांतल्यानय ती आर-पार जावन कानाक जाणवताली. फुडल्यो फाटल्यो चार-पांच मानो आमचे वटेन बागवल्यो.

''ए... मात्सें ल्हवू उलय... लोक आयकतात.''

ताचें खाजगी आयुष्य लोकांमुकार उगडें जावचें न्ही हे हेतून हांवें म्हणलें, पूण तें उलयलें,

''आयकूं गो लोकांक... म्हाका काय चिंता ना... उलट हांवच लोकांक सगलें कळचें म्हण धडपडटां... तूं येदें व्हड़लें पुरस्कार प्राप्त लेखिका... तुज्या साहित्याक वाचकां कडल्यान डिमांड आसा, तेन्ना तुका ती बरोवंक लावन लोकांमुखार पावोवची अशें मनांत आयिल्ल्यान तुका हांवें विनंती केल्या...''

उलोवपाच्या भारांत आपणें म्हाका एकेरी उल्लेखलें हें लक्षांत आयिल्ल्यान ताणें म्हणलें,

''सॉरी हां मॅडम, म्हाका उलयतां उलयतां भानच उरलेंना... हांवें तुमचो एकेरी उल्लेख केलो...

तुमी येदी व्हडली...''

ताका मदींच आडायत हांवें म्हणलें,

''कांय नज गो ... आनी तूं म्हाका मॅडम बी म्हणूंकच नाका... म्हाका नांवानच उलो कर... तशीं आमी दोगांय एकाच वयाचीं...''

''पूण तुमी...''

''पळय, परत 'तुमी' म्हणलें म्हाका... तशें केल्यार हांव तुजी कथा बरोवचें ना हां...'' हांवें ताका आपलेपणान दटायलें.

ताच्या खिण्णटिल्ल्या वोंटांच्या कोनशांचेर इल्लोसो हांसो उदेलो.

"बरें, हे फुडें हांव तुका ना म्हणचें मॅडम. जालें न्ही? ... आतां बरयतलें न्ही म्हजी कथा?"

हांव गंभीर हांसलें, मनांत नासुनय हांवें म्हणलें, "हूं... बरयतां . पूण केन्ना सांगता तूं म्हाका तुजी काणी?"

"केन्ना म्हणल्यार? आतां... आतांच सागंता... म्हज्या काळजाच्या पुस्तकाचेर सगळ्यो घडणुको तशाक तश्यो नोंद केल्ल्यो आसात ... तुका बरोवंक चड तकालस घेवंक पडचीना. एक एक प्रसंग घेवन तुज्या प्रतिभेच्या बळार ते तुवें उतरांनी कागदार चित्रावपाचें...?"

"हूं..." हांवें हुंकार दिलो.

"सांग... पूण सांगपाक सुरू करचे पयलीं तुजें नांव सांग म्हाका... हे फुडें तूं केन्नाय मेळ्ळ्यार तुका हटकुवपाक जाय म्हाका...तुजें घर-पत्तो सांगना जाल्यार जाता. तुजी काणी हांव एक वैश्वीक काणी मानन... संवसारांतल्या खंयच्याय वाठारांत रावपी एके बायल मनशेच्या दुख्खाची काणी समजन ती..."

"हांव...हांव... सुखदा... म्हजें नांव... सु...ख...दा...!"

ती आतां आपली काणी सांगूंक सुरवात करतली हे हेतून कानाच्यो पाळयो फुलोवन आशिल्लें हांव ताचें नांव आयकून एकदम उलयलें. "सु...ख...दा...???"

"अजाप जालें न्ही म्हजें नांव आयकून?" तें क्षीण हांसलें.

"नांव सोनूबाई आणि हाती कथलाचा वाळा... तशी गत ही. म्हजें नांव सुखदां ... आवय-बापायन दवरिल्लें आनी उपरांत लग्नांत घोवानय साखरेच्या ताटांत मुदयेन तेंच नांव बरयिल्लें. पूण नशिबांत सूख म्हण्टा तें कितें पळयलेंच ना... पळयलें तें फक्त दुख्खच...खरें तर म्हजें नांव सुखदा न्हय तर दुखदा दवरूंक जाय आशिल्लें!"

ताच्या उलवण्याचेर हांव कांय उलयलें ना, उलोवपाक म्हाका उतरां सुचनाशिल्लीं. भोग ताणें भोगिल्ले, ताचे वित्राग ताच्या तोंडांतल्यान भायर

सरताले.

हांव मुकाट्यांनी ताचें फुडलें उलोवप आयकूंक रावलें.

सुखदाचो जल्म सादारण कुटुंबांत जाल्लो. घरची आस्पत व्हडली नाशिल्ली . बापूय गांवच्या देवळांत पुरयत आशिल्लो. तशें तांचें घराणें मूळ देशावरचें. थंयच्यान तें येवन गोंयांत सत्तरींत स्थायीक जाल्लें. ताच्या बापायक गांवच्या म्हाजनांनी देवळांत पुरयतपण करपाचे सेवेक दवरिल्लो. येणावळ तशी खूब नाशिल्ली, पूण पोटापाणयाची वेवस्था जाताली.

सुखदाच्या जल्माच्या बारशा दिसाच्यानच ताच्या नशिबाचे फेरे घुंवले. तें आवय-बापायचें दुसरें अपत्य. ताचे आदी तांकां एक अडेज वर्सांचो चलो आशिल्लो. ताचे नांव आनंद. व्हडलो भुरगो, तातूंत चलो म्हण तो सामको आवय-बापायच्या काळजाचो गोंडो आशिल्लो. पूण सुखदा जालें आनी तांचो आनंद संवसार सोडून गेलो. घरांतलो ते दिसाच्यान आनंदच सोंपलो ...सुखदाच्या नशिबांत तर आनंद मूळ धरूंकच पावलोना...

सुखदाच्या बारशा दिसाची गजाल. सांजवेळां पाळण्यांत घालपाचो विधी करचे आदीं बायलो ताचे आवयक घरा फाटल्या बांयचेर उदक आपुडणेक घेवन गेल्यो. थंय पांच धान्याच्यो पुंजी घालून उदक आपुडणी जाली. ताचे आवयक बायलांनी पांच झाडांक तांबयो तांबयो भर उदक घालूंक लायलें आनी तिका घेवन त्यो भितर आयल्यो. भितर तिची व्होटी भरून ताका पाळण्यांत घालपाचो विधी सुरू जालो. कोंकणांतल्यान खास आयिल्ल्या सुखदाच्या आत्यान ताच्या कानांत कुर्रर करून नांव सांगलें... ‘‘सुखदा...!’’

मागीर ताणें ताचे आवयक म्हणलें, ‘‘वयनी आतां पाळण्याक कमर लावन धोलय...’’

तशें ताचे आवयन आनंदाक हांडीर धरून पाळण्यांक झोको दिवपाखातीर... ‘‘आनंद, यो रे हांगा.. खंय तो? ...बाबू खंय...? ’’ म्हण आनंदाक सोदलो.

बारशाच्या दिसा आनंदाक सांबाळपाची जबाबदारी ताच्या अकरा

वर्सांच्या आत्याचे चलयेचेर सोंपयिल्ली. तें ताका हाताक धरून बायलांबरोबर बांयचेर गेल्लें . बायलो कितें कितें करतात तें पळोवपाची ताका उमळशीक आशिल्ली. त्या बोवाळांत ताणें आनंदाचो हात सोडलो. बायलो भितर गेल्यो तेन्ना ते ताका थंयच सांडून बायलां बरोबर भितर गेलें. हेरा कोणाच्याय लक्षांत आनंद थंय उरला तें आयलेंना. आनंदाचो बापूयय बारशाक बायलांमदीं आपलें कितें काम म्हण देवळांत गेल्लो.

जेन्ना मामीन, म्हणजे सुखदाचे आवयन आनंद खंय आसा? म्हण विचारणा सुरू केली तेन्ना आत्याचे चलयेक याद जाली की बांयकडेन व्हेल्ल्या आनंदाक आपणें परत घरांत हाडलो ना म्हण.

तें ''आनंद... आनंदऽऽऽ'' म्हण उलो करीत फाटल्यान बांयकडेन धांवलें. ताका आनंद खंयच दिसलोना. ताचें काळीज खपखपलें. ताणें बांयत पळयलें आनी व्हडल्यान किंळाच मारली...

''मामी...आई... धांवन येयात...आनंद बाबू...बांयंत पडलो...!''

पयलीचे पद्दतीची, धड बांदली नाशिल्ली बांय ती... फाटल्यान एकटोच उरिल्लो आनंद रडत भितर येवपाची वाट सोदतना बांयत पडिल्लो.

आनंद ह्या जगांतल्यन गेल्लो तो खरें आत्याचे चलयेचे चुकीन पूण ताचो सगळो बोल सुखदाचेर आयिल्लो. जल्माक आयलें आनी भावाक खालो म्हण सगळीं जाणा ताका परतें पांयांचें म्हण दुशण दितालीं. आवय तर ताका बरोच तेप दोळे मुकारच घेनाशिल्ली. छातयेंत दूद आसुनय आवयन ताका त्या दिसा उपरांत केन्ना दुदाक धरलेंना. तट्टट्टिल्ल्या थानांतलें दूद ती पिळून भायर वडयताली पूण ताच्या तोंडांत चींव धरनाशिल्ली. ताचे जाण्टे आज्जेन जाल्लो जीव तगोवंक जाय म्हण सत्व-पेज बी पिवोवन कशें तरी ताका व्हड केलें.

आज्जी मेली तेन्ना सुखदा धा वर्सांचें आशिल्लें. स्वताची केंस-विणी करूंक शकतालें. न्हावंक-जेवंक शकतालें. पूण तिच्या मरणा उपरांत तें सामकें एकमुळें जालें. आजी वांकडें तिकडें कितेंय तरी ताचेकडेन उलताली. कुशीक घेवन न्हिंदताली, आतां तें सामकें एकटें जालें. आतां घरांत तीं

तिगां जाणां जालीं. तें, आवय आनी बापूय. आवय ताका दोळ्यांमुकार घेनाशिल्ली. बापूय चड माया दाखयनाशिल्लो, पूण ताका दुखलां-खुपलां तें पळयतालो. आवय वाडना म्हण तोच ताका वाडटालो. मात ताचेकडेन मेकळेपणान उलयनाशिल्लो. तशें पळोवंक गेल्यार आनंदाच्या मरणा उपरांत ताचेर मोनेळच पडिल्लो. खूब जाणांनी ताका समजायिल्लो, "दुख्ख घेवन बसनाका... आनंद परत येतलो जल्माक तुमगेर... आजून तूं आनी तुजी बायल म्हातारीं जावंक नात!"

तांकांय आस्त आशिल्ली, आनंद परत जल्माक येवपाची. पूण तशें घडलेंना. सुखदा उपरांत तीन वेळा ताचे आवयक दीस गेले पूण तिनय वेळार तिचे गर्भ व्हळून गेले. उपरांत दोतोराचे शिटकावणेन तांणी आनंदच न्हय तर आनी कोणय जल्माक येवपाचे मार्ग बंद केलें.

ह्या सगळ्या वेव्हारांत आवयचो सुखदा विशींचो तिरस्कार वाडतच गेलो. ताचे विशीं तिच्या काळजांत अडीच उरली. तिणें ताका केन्ना मायेन पोटाकडेन धरलेंच ना.

सुखदा उपरें कशें त्या घरांत वाडलें. शेजारी -पाजारीय पनवती मानून ताका लागीं करनाशिल्ली. शाळेंत भुरगीं ताका भावखायरें, म्हण चाळयतालीं. समज येवंक लागतकच आपणाक भावखायरे कित्याक म्हण्टात हो ताका प्रस्न पडिल्लो. एकदां ताणें तेविशीं आजयेक वचून विचारलें, जाल्यार आजयेन ताका म्हणलें, "बाये, हो प्रश्न म्हाका विचारनाका, तुज्या नशिबाकच विचार !"

कांय तेपान शाळेंत बाईकडल्यान ताका ताच्या प्रस्नाची जाप मेळ्ळी. एका दिसा शाळेंत भुरग्यांनी ताका चाळयलें, तेन्ना ताका हुंडक्या- हुंडक्यांनी रडूंक आयलें . तशी बाई ताका समजावपाक ताचे म्हऱ्यांत आयली. ताणें बाईकय तोच प्रश्न विचारलो, "बाई म्हाका भुरगे भावखायरे कित्याक म्हणटात गे?"

त्या वेळार बाईन आपल्याक खबर आशिल्ली ताची खबर ताका सांगली. सुखदान तें आयकून म्हणलें, "आत्याचे चलयेचे चुकीन भाव

बांयत पडलो... तातूंत म्हजो कितें गुन्यांव?... हांवें ताका कितें केलां?... हांवें खंय ताका बांयत उडयला...?''

पूण सुखदान म्हणून कांयच जावपाचें नाशिल्लें. आवयचो, घरांतल्यांचो - भायल्यांचो दुशणां -तिरस्कार सोशींत ताका व्हड जावचें पडलें. ताका कोणें केन्ना जात्रेक व्हेलेंना, नाटकाक व्हेंलेंना, लग्नाक व्हेलेंना, भोंवडेक व्हेलेंना... कोणें ताका मायेन खाक्यांत काडलेंना, कोणें ताची अपुरबाय केलीना... सारें-उदक न घालतां पावसाच्या उदकाचेर एकाद्रो रोपलो मुट्टेत वाडचो, तशें तें वाडलें. मात अपुरबाय ना केली, मायेन खाक्यांत घेंतलेंना तरी एक गजाल ताच्या बापायन केली ती म्हणजे ताका शाळेंत घातलें.. शाळा-हायस्कूल जातकच कॉलेजींतय घातलें.

कॉलेज तालुक्यांच्या जाग्यार आशिल्ली. गांवांतल्यन अडेज किलोमिटरांचें अंतर. बसीची वेवस्था नाशिल्ली. तें चलत यो-वच करतालें. बरोबरचीं कोणच भुरग्यां ताचेबरोबर येनाशील्लीं. तें लागीं पावल्यारुय धांव मारतालीं.

आनी ताकाय आतां कोणाचो सांगात नाका आशिल्लो. येदोळ म्हणल्यार तें खूब सज्ञानी, स्वाभिमानी जाल्लें. आपल्या जिवीतीची कथा तें जाणून आशिल्लें. ताका कोणाची सहानभूती नाका आशिल्ली वा कोणाचें लागींपण. ताणें इश्टागत धरिल्ली ती पुस्तकांकडेन. लायब्ररींतलीं पुस्तकां हाडून तें घरकाम आनी अभ्यास जाल्या उपरांत वाचत बसतालें. त्या पुस्तकांनी तें रमतालें. तातूंत ताका ताचेवरीं दुख्खी-कश्टी कितल्यो तरी चलयो मेळटाल्यो तांचेकडेन ताची इश्टागत जाताली.

तें कॉलेजीन पावलें तेन्ना ताचे आवयचें रागणें पयस जाल्लें. पयस जाल्लें म्हणचे परसय तिका परिस्थितीनच ताचेकडेन उलोवपाक लायिल्लें....

एका दिसा ताचो बापूय घरांत नासतना ती जोरान फडफडूंक लागली, तेन्ना माथ्यार कांदो धोडावन घालूंक तिका सुखदाची गरज पडली. ते दिसा तिणें पयले फावट ताका उलो केलो, म्हणलें, ''हांगा यो गो ... ''

आवयन आपलें नांव न घेतां आपल्याक उलो केला हें ताका जाणवलें, तरी तिणें आपल्याक लागीं आपयलांच हेंच ताका व्हडलें जालें. तें तिच्या

म्हऱ्यांत धावलें. तिचें आंग जोरान खतखत्ताल्लें. वखदाची गुळी घेतिल्ली तरी जोर उतरलो नाशिल्लो.

सुखदान चार-पांच कांदे धोडावन तिच्या माथ्यार रोस घातलो. कांय वेळान तिचो जोर देंवलो.

ग्रिपीचो जोर, दोन दिसांनी ती सारखी निवळ्ळी, पूण तिका अशक्तताय आयिल्ली. सुखदान तिची ह्या दिसांनी बरी सेवा केली. दोन दीस तें कॉलेजीकय गेलेंना. आवयन आपल्याचो तिरस्कार करूं पूण आपूण आपल्या कर्तव्याक चुकचें ना, हें ताणें थारायिल्लें.

ग्रिपीच्या त्या जोरान सुखदाचे जिणेंत एक बदल हाडिलो. इतको तेप सुखदाकडेन अबोलो धरपी आवय ताचेकडेन आतां मेजकीच जायना पूण उलोवंक लागिल्ली...

सुखदाचे जिणेचें दुसरें पर्व आतां सुरू जातालें. बीं.ए. जावन ताका रोकडीच नेशनलाय्जड बँकेंत नोकरी मेळ्ळी. अप्टीट्यूट टेस्टाक तें मॅरीटान पास जाल्लें. तोंडी परिक्षेक ताणें बरे पद्दतीन जापो दिल्ल्यो. ताच्या वाचनाचो ताका हांगा फायदो जाल्लो. कोणाच्याच वशिल्याबगर ताची निवड जाल्ली.

नोकरी लागताच ताच्या बापायन ताका लग्न करून आपले जबाबदारेंतल्यान सुटपाचें थारायलें. पूण जल्मताच भावखायरें म्हण नांव पडिल्ले आनी घरची जेमतेम अर्थीक स्थिती आशिल्ले चलयेची सोयरीक जावप सोपें नाशिल्लें. वता थंय आनी उतर घालता थंय नायरो आयकूंक मेळूंक लागलो.

बापूय सोयरिकेक वता थंयच्यान येदेसे तोंड करून परत येतालो आनी मागीर आवय फडफडट्टाली. म्हणटाली- ''ना जल्माक आयिल्लें जाल्यार कितलें बरें जावपाचें... हें दीस आमच्या वांट्याक येवचें नाशिल्लें...!''

आयकून सुखदाच्या काळजाक भालो तोंपिल्लेवरी जातालो. आवय आपल्याकडेन उलोवंक लागल्या तरी आपलेविशींचो तिच्या मनांतलो राग आजून आसा हें उमजून ताका रडूंक येतालें. नोकरी लागताच ताच्या तोंडार मत्सो हांसो उदेवंक लागिल्लो, तो ह्या वरसंशोधनाच्या पराभवांत ना जाल्लो.

... आनी एक दीस ताचो बापूय तोंडार हांसो घेवन घरा परतल्लो.

सुखदा खातीर एक न्हवरो ताका एकट्यान दाखयिल्लो. ताणेंय तयारी दाखयिल्ली. खरें तर येतनातच तो सगळें थारावन-निश्चित करून आयिल्लो पूण औपचारतीकताय म्हण ताणें व्हंकलेक पळोवपाची कार्यावळ थारायिल्ली.

न्हवरो, ताचो भाव आनी भावज तिगां जाणां सुखदाक पळोवपाक आयलीं. सुखदाक तें थळ खरें मानवलें ना. न्हवरो बरोच व्हडलो दिसतालो. दिसतालो म्हणजे, ताका खरे एकेचाळीसावें वर्स चलतालें. सुखदाक पंचवीस. ताची नोकरी प्रायव्हेट आशिल्ली. भाव आनी न्हवरो कांयच उलयले ना. सगळे ताची भावजच उलयताली. भावाचें घरांत कांयच चलना आसूंक जाय असो सुखदान अदमास केलो. आनी नायूय म्हणल्यार तो नोकरी - धंदो कांयच करनाशिल्लो, तेन्ना साहजिकच ताच्या उतराक घरांत किंमत नासतली!ताणें तर्क केल्लो.

तांचेकडल्यान हयकार आयलो तेन्ना भीत भीत सुखदान न्हवरो खूब जाण्टो आसा, आपल्याक पसंत ना म्हण बापायक म्हणलें, तर बापायन कमी आनी आवयन चड घर माथ्यार घेतलें. ती म्हणूंक लागली, "तुका आनी तरणो कवकवीत भुरगो खंय मेळटलो? सगळेकडेन भावखायरें म्हण नांव पाविल्लें आसा ! हो एकटो काकूट म्हण लग्नाक तयार जाला तेन्ना मुकाट्यांनी माटवांत उबें राव !"

नाईलाजान सुखदाक लग्नाक उबें रावचें पडलें. लग्न जालें आनी तें जिणेदुख्खाच्या दुसऱ्या पर्वाच्या अग्रार पावलें. लग्नाचे पयलेच राती ताका दुबाव आयलो खंय तरी उदक मुरता म्हण.

लग्नाक व्हडलींशी सोयरीं ताच्या सासरा आयलीं नाशिल्लीं. दोग-तीग जाणां जीं कोण आयिल्लीं तीं सांजवेळ म्हणल्यार आप-आपल्या घरा गेलीं. शेजारच्योय चार-पांच जाणी बायलो आयिल्ल्यो त्यो कांजीण-पांयपडणी जातगच घरा गेल्यो. घरांत उरलीं तीं सुखदा सोडून तीग जाणां. ताचो घोव, देर आणि जाव. देरान काळोक पडटाच आपलो हांथुणा कंवळो भायल्या सालांत पातळ्ळो आनी माथ्यार पांगरूण घेवन डारडूर न्हिदलो. सुखदाक तें विचित्र दिसलें.

लग्नाचें घर, पूण कसलोच बोवाळ ना, सोयऱ्या -धायऱ्यांचो कलकलाट ना. तातूंत आनीक एक गजाल ताका तोंपली. ताचे जावेन ताचेकडेन एक उतरय उलयलें ना पूण ती देराच्या सामकी आंगार पडून उलयताली. जेवतनाय ताका हें वाडूं तें वाडूं करताली. ताका मात तिणें कांय एक विचारलें ना, ना म्हण सारखें घरूय दाखयलें ना. ताका बाथरुमांत वच्चें आसलें तेन्ना घोवानच ताका कुरू करून मान्नें खंय आसा तें दाखयलें. उपरांत ''कुडींत वच ''अशीं दोनच उतरां सांगलीं.

ताचे कुडींत खाटीर एक कसलेंतरी विटकऱ्या रंगाचें चादर घाल्लें आशिल्लें. सुखदाक तें मानवलें ना. ताणें आपले आरमारींतलें दुसरें गुलाबी रंगाचें चादर घातलें. उशाच्यो पोतयो बदल्ल्यो आनी ऑफिस स्टाफांनी लग्नाक खास भेट म्हण दिल्ली नवी काश्मिरी ब्लॅकेंट भायर काडली. निक्तीच दिवाळी जाल्ली. शीं आपलें आंग पातळूंक लागिल्लें...ते ब्लॅकेटीचे उबेचीं सपनां खिणभर ताच्या दोळ्यांमुखार उदेलीं.

तें जाणा आशिल्लें, भटांगेर गर्भादानाचो शास्त्रोक्त विधी जाता आनी हेरांगेर पयले राती न्हवऱ्या-व्हकलेक हांथुणार बसोवन शेंसर भरतात. दूद पिवंक दितात, विडो खावंक दितात. तांचो गर्भादान विधी जालो ना तें बरें आसा, पूण ताची व्होटय कोणें भरलीना. ताणें जाव भितर येवपाची बरोच वेळ वाट पळयली, पूण ती काय आयलिना. ती आयलीना ती ना, ताचो घोवय बारा जालीं तरी कुडींत आयलोना. तो आनी भावज भायल्या सालांत हांसतात... किटकिट्टांत तें ताका कुडींत बशिल्ले कडेन आयकूंक येतालें.

ताचे तकलेंत गोंदळ मातिल्लो.. लग्नाची पयली रात आनी आपलो घोव आपल्या म्हऱ्यांत येवचो सोडून भावजे बरोबर किटकिट्टा?''

सुमार साडेबाराच्या अदमासाक तो कुडींत भितर सरलो. कितलेंय जालें तरी सुखदाची ती लग्नाची पयली रात आशिल्ली. ताणें आपले परीन कांय सपनां रंगयिल्ली. घोवाकडेन कितें उलयतलें, कशें उलयतलें, हें येवजून दवरिल्लें. पूण ताचे येवजणे प्रमाण कांयच घडलेंना.

तो भितर सरलो आनी ताणें म्हणलें, ''कपडे काड..''

आयकून ताका कितें करचें तें सुचलेंना. तें कांय खीण ताच्या तोंडाक पळयतच उरलें. मागीर ताचे गरगरीत घुंवतले दोळे पळोवन तें कांचवेलें. कांय एक उलयनासतना ताणें आंगावेलें एकएक कपडे देंवयले...

पांच-धा मिनटां तो ताचे कुडीकडेन खेळ्ळो, एकटोच. त्या खेळांत ताणें ताका समील करून घेतलेंना...

खेळ सोंपताच तो ताची ब्लँकेट आंगार पांगरून सुस्त न्हिदलो... सुखदान कांय वेळा पयलीं पळयिल्लीं ब्लॅकेटीचीं सपनां व्हळून गेलीं. हे फुडें ते ब्लॅकेटाक केन्नाच आंगार घेवचेना, ताणें निश्चेव केलो.

सुखदाक रातभर न्हिद पडलीना. ताका आपल्याच आंगाची वीट कशी आयली... शिवाय ताच्या गुप्तांगांतल्यान कळो येताल्यो...

लग्न लग्न म्हण्टात तें हेंच? हेंच लग्नाचें साध्य? ... हाचेच खातीर लोक लग्नाक तळमळटात? ...

ताणें स्वताकच प्रश्न केले. पूण दुसऱ्याच खिणाक ताका दिसलें, सगळ्या खातीर हो अणभव असोच नासतलो. कांय जाणांचे अणभव सुखाचे आसतले... आनंदाचे आसतले. आपल्या कर्मकट्टया नशिबान ते आपल्याक अशें किळसवाणे दिल्यात! आपलें नशीबच खोटें!

मान्न्यांत वचून घसघसीत आंग धुंवचें अशें दिसतालें, पूण ताका फाटल्यान मान्न्याकडेन एकटें वचपाची भिरांत दिसूंक लागली. आंगाची वीट आनी मुताचो आवेग सोंसत तें दीस जावपाची वाट पळयत रावलें.

मागीर ताच्या घोवाचो एकोडो खेळ आनी ताचें रातभर तळमळप हें सदचेंच जालें. ताणें लग्नाक लागून पंदरा दिसाची सुटी घेतिल्ली. लग्ना आदीं दोनच दीस, आनी लग्न घरून सारखे तेरा दीस. सहकारीं म्हणटालीं ''आगो पंदरा दीस पावचेनात तुका . एक म्हयनोच घे. हनीमुनाक बी वचून येतकच थोडो सुशेग जाय आसता.'' ताका दिसलें, ''बरें जालें आपणें चड दीस सुटी घेतलिना तें,''

तांचो हनीमून बी कांय जालोना, फक्त लग्नाच्या दुसऱ्या दिसा गांवच्या देवळांत वचून तीं शांतादुर्गेक व्होटी दिवन आयिल्लीं. जावेक सांगाताक

घेवन. मागीर पांचव्या दिसा कुळारा पांचपरतवणाक गेल्लीं. जाव, ताचो घोव आनी तें. आनी कोण लोक नाशिल्लो, ताचो देरूय आयलोना. जिवाक बरें दिसना सांगून घरा रावलो.

घरांत जाव ताका कांयच काम करूंक दिनाशिल्ली. सगळें आपूणच करताली, ना म्हण घोवाचेंय कितेंच काम करूंक दिनाशिल्ली. तो न्हावपाक वतना ताचे कपडे मान्नांत दवरूंक गेल्यार वा वाडूंक गेल्यार 'तूं नाका... हांव दवरतां वा वाडटां' म्हण ताच्या हातांतले कपडे वा ताट झोंबून घेताली...

एकेवटेन सुखदाक तें वागप गूढ दिसतालें. तर दुसरे वटेन तें बापायन लग्न थारतकच सांगिल्ली गजाल याद करून स्वताक समजायतालें. ताका बापायन संगिल्लें, ''ताची जाव खंय लग्न जावन घरांत आयिल्ली आनी रोकडीच मांय भायर पडिल्ली. ताचो घोव तेन्ना वीस-बावीस वर्साचो आशिल्लो. तिणेंच ताका आवयचे मायेन वाडयलो. तशी ती ताचेपरस चड व्हड न्ही, दोन-चार वर्सांनी आसत पूण बायलमनशेक जाण्टेपण रोकडेंच येता. तिणें स्वताच्या भुरग्याचे मायेन ताचें इतकीं वर्सां केलां, आतां तुजेबरोबर ताचो संवसारय थाटून दिला. तेन्ना जावेक मांयचो आदर दी!''

बापायचीं उतरां याद करून तें मनांत म्हण्टालें, ''इतक्या वर्सांची तिची संवय देराचीं कामां करपाचीं... ताका जाय नाका तें पळोवपाची. ती कितें ताची बायल आयली म्हण दोन दिसांना बदलता...?''

सुखदाचो घोवय ताचेकडेन मेजून उलयतालो आनी सगळें वेव्हार भावजे कडल्यानच करतालो, तेन्नाय तें तशेंय मनाची समजूत घालताले. इतकीं वर्सां लसगलें भावजेन केलां, आतां बायल आयली म्हण एका दिसान संवयी बदलतात?

घोवाकडले कुडीचे संबंद सुखदाक सूख दिवपी आसूं वा नासूं , त्या संबंदांतल्यान रोकडोच ताच्या कुसव्यांत नवो आंकूर रुजवल्लो...

सुखदाक पांच स दिसासाकून जीवाक बरें दिसनाशिल्लें. वोंकारे आयिल्लेवशेन दिसतालें... तकली जड जाताली..न्हिदून रावचेंशें दिसतालें. ताका आपल्याक कितें जालां ताचो दुबाव आशिल्लोच. ताची पाळी चुकून

सात-आठ दीस जाल्ले. ताणें कोणाक सांगलेंना... घोवाकय सांगचें अशें ताका दिसलेंच ना. तें तशेंच ऑफिसाक वतालें.

त्या दिसा दनपरां जेवल्या उपरांत ताच्या जिवाक चडूच नजजालें . तकली उबीच उरना जाली, वोंकाऱ्यार वोंकारे सुटले तेन्ना मॅनेजर धरून सगळ्यांनी ताका घरा वचपाचें सुचयलें. ताचें घोवालें घर बँकेकडल्यान दोन-अडेज, किलोमिटर पयस आशिल्लें.

सकाळीं घोव ताका पावयतालो आनी सांजेचो व्हरूंक येतालो. पूण आतां ताका कोण व्हरूंक येतलो? ताच्या घोवाच्या ऑफिसाचो नंबरय ताका खबर नाशिल्लो. ह्या वेळार गांवांत वचपाक बस नाशिल्ली. लागीं रिक्षा -मोटरसायकल स्टॅण्डय नाशिल्लो. तेन्ना मॅनेजरानच एका स्टाफाक ताच्या बायकान ताका घरा पावोवन येवपाक सांगलें...

सुमार साडेतिनाच्या अदमासाक तें घराकडेन पावलें, तेन्ना ताचो देर चौकेर सोप्यार बसून आशिल्लो. सुखदाक दारांत पळोवन तो आबूज जालो. तें जेन्ना हुंमरो हुंपून आपले कुडीवटेन वचूंक लागलें तेन्ना तो, थंय थंय वचूंनाका..थंय वचूं नाका, म्हण ताका आडावंक लागलो.

सुखदाक तो तशें कित्याक करता ताचें अजाप जालें पूण ताका तेविशीं विचारपाची ताची ताकद नाशिल्ली. तें ताचेकडेन आडनदर करून कुडीकडेन पावलें तर ताची कूड भितरल्ल्यान बंद. आनी भितर कोणाचो फुतफुतिल्ल्याचो आवाज.

ताका कांयच कळना जालें. घोव बेगीन आयलो जाल्यार कूड बंद करून कित्याक बसलो आनी भितर ताचेबरोबर कोण आसा?

तांणे व्हडल्यान दारार मारलें,..'' .कोण भितर...? कोण आसा भितर...? दार काड बेगीन...!''

कांय वेळ भितरले आवाज शांत जाले आनी मागीर घट्ट करून दार उगडें जालें. तें पळयतच उरलें. ताची जाव कुडींतल्यान ताच्या आंगावेल्यान भायर सरली. तिच्या आंगात पोलको नाशिल्लो... साडी वयलेवयर गुटलायिल्ली. आनी...आनी ताचो घोव कमराक एक लुंगी गुटलावन खाटीर बशिल्लो.

ताचें वयलें आंग उगडेंच आशिल्लें.

खिणांक सुखदाक सगळ्याचो अर्थ लागलो... ताका पांया खालची जमीन भितर वताशी दिसूंक लागली. भोंवतणचें जग आपले भोंवतणी घुंवता शें दिसूंक लागलें. तें घब्ब करून कुडीच्या दारांत पडलें.

जेन्ना तें शाबुद्दीर आयलें तेन्ना घोव आनी जाव ताचे फुड्यांत उबीं आशिल्लीं. तांणीच उपाय करून ताका शाबुद्दीर हाडिल्लें.

सुखदाक तांच्या दोगांयच्या तोंडार नदर घालची अशें दिसलेंना. आवय सुवातेर म्हणपी भावजेकडेन असलें कर्म आनी भुरगो मानला असें सांगपी देराकडेन असलें कुकर्म...

आनी ताचो तो देर?.. सामको दादलेंपण शेणयिल्लो... तांचो दलाल कसो.. दार राखता...? इतल्या दिसांचें त्या तिगांयच्याय विचित्र वागपाचें ताका पडिल्लें कुवाडें सुटिल्लें.

पयलींच सुखदाच्य मनांत त्या घराविशीं, त्या घरांतल्याविशीं आपेलपण तयार जावंक नाशिल्लें.आतां ही घडणूक पळयतक ताका तांची सामकी वीट आयली. दिसलें एक खीणभर तांचो सहवास नाका. मारची धांव थंयच्यान.

तें जमनीवेलें उठून उबें रावलें, तशें घोवान उलोवंक सुरू केलें...तो उलयतना जाव निर्लज्जपणान हांसताली.

"हें पळय ... सत्य तुका कळिल्लेंच आसा... तुवें तें मानून घेवंक जाय... तुका दुसरी वाट ना. हांव तिका सोडचोना... आमचे संबंद खूब पोरने..."

सुखदाक खरें तेन्नाच थंयच्यान धांवपाचें आसलें पूण ताचे कुडींत शक्ती नासली. तें रातभर एका कोनशाक पडून रडत रावलें. ते खाटीरय न्हिदपाची ताका वीट आयली.

सुखदा सकाळीं उठून कुळारा गेलें. घडिल्ली सगळी गजाल ताणें बापायच्या आनी आवयच्या कानार घातली. तांच्याय पांयां सकल्ली जमीन हाल्ली. सुखदाचें लग्न जुळना ह्या विवंचनेंत ताच्या बापायन, हांचेकडल्यान हयकार येतांच हां म्हणून सोडलें. न्हवऱ्या भुरग्याची, घराण्याची सारखी

खबर काडलिना. कोणेतरी थळ दाखयलें आनी बापायन हय केल्लें. बऱ्याच जाणांक ताच्या घोवाचे आनी भावजेचे संबंद खबर आशिल्ले, ते लोक हे सगलें प्रकरण घडटकच तोंड उगडूंक लागलें. पूण आतां ताचो कितें उपेग? सुखदाचे आदींच मुट्टेल्ले जिणेक आतां रोंटो लागिल्लो.

सुखदाचो निर्णय ठाम आशिल्लो, कितेंय जालें तरी आपूण त्या घरांत परत वच्चें ना वा त्या घोवाबरोबर रावचें ना म्हण ताणें बापायक स्पश्ट सांगलें. भुरगेपणां सावन कुचेश्टा-बकच्चायो आयकत आयकत व्हड जाल्ल्या सुखदामदीं ग्रॅज्युएट जावन नोकरी लागतकच एक तरेचो आत्मविस्वास तयार जाल्लो. ताची आवय-बापूय मात ह्या वेळार ताचे फाटल्यान उबीं रावलीं.

सुखदान घटस्फोटाक अर्ज केलो. कांय जाणांनी ते गुरवार आसा तें पळोवन घोवाकडेन उलोवणी करून समझोता करून घेयात म्हण ताच्या बापायक सल्लो दिलो. पूण बापायक सुखदाक तशें सुचोवपाचें धाडस जालेंना.

घटस्फोट मेळपाक बरीच अडचण आयली. ताच्या घोवान उलट ताच्या चारित्र्याचेरच चिकोल उसळायलो. पूण ताच्या वकीलान बरे तरेन केस लडयली. ताका घोवाकडल्यान कसलीच पोटगी बी नाका आशिल्ली, वयल्यान तें परत त्या घरा गेल्यार त्या घराकच फायदो जातलो आशिल्लो. ताच्या घोवाची जोड उणी आशिल्ली. देर तर बेकार थवय. सुखदाची बँकेची नोकरी. आलायते घरांत मोडूंक पयशे मेळपाचे, शिवाय जावेक भुरगेंबाळ नाशिल्लें. हागेलो भुरगो घराण्याचो वंश मुखार व्हरतलो आशिल्लो. जाव ताका घटस्फोट मेळचो न्ही म्हण पराकाश्टा करताली. देराक तरेतरेच्यो बुध्दी दिताली.

जुवीजान सगळी गजाल वेवस्थीत पणान समजून घेवन निर्णय दिलो. सुखदाक लग्नाच्या बंदनांतल्यान मेकळें केलें. तागेर तोवेर मेरेन भुरगें जल्माक येवंक नाशिल्लें. पूण ते येतकच ताका मेळपाची ताणें ताच्या घोवाक मेकळीक दिली. सुखदाची येणावळ घोवापरस चड आशिल्ल्यान पांच वर्सां मेरेन भुरगें आवयकडेन उरतलें मागीर भुरगें ताचे इत्सेप्रमाण आवय वा बापायकडेन रावतलें अशें सुचयिल्लें.

कोर्टान घटस्फोट दिल्लो, सुखदा घोवाच्य बंदनांतल्यन मेकळें जाल्लें, पूण त्या हळशिकवाण्या यादींतल्यन मेकळें जालें ना. आदींच ताच्या तोंडार हांसो नाशिल्लो, आतां सामकोच मोनेळ पडलो...ताची जीण अर्दारच सुकून लाकूड जाली..

वर्सां गेलीं ... तागेर भुरगो जालो... ताच्यो खस्तो खायत ताणें ताका ल्हानाचो व्हड केलो...ताचीं दुयेसां-वायटपणां काडलीं, हट्ट पुरयले, लाडय केले. आवय-बापयन ताका भुरग्याक ल्हान-व्हड करूंक आदार केलो, पूण सुखदाक आवय-बापायचें जाण्टेपण, दुयेंस ... सगळें करचें पडलें. तांचोय भरीभार घेवचो पडलो...

कोर्टान भुरग्याक पळोवपाची मेकळीक दिवनय वीस वर्सांत ताचो घोव केन्ना भुरग्याक पळोवंक आयलोना, ना म्हण ताची केन्ना वासपूस केलीना. ताची आवय-बापूय अदीं-मदीं ताका उलोवन दाखयतालीं पूण सुखदा मनांत म्हण्टालें, 'बरें जालें, ताची सांवळीय म्हज्या भुरग्याचेर पडली ना ती...!'

सुखदाची आपली जीण आतां परतीचो प्रवास करतालीं, पन्नाशीच्या हुमऱ्यार पाविल्लें तें . ऐन तरणेपणांत म्हातारपण पांगरूण तें जगलें. आतां तर ताका जिणेंत स्वताखातीर कसली इत्साच उरली नाशिल्ली. केन्ना बरें न्हेसचें, बरें भोंवचे... अशें ताका दिसनाशिल्लें. एक गजाल मात ताणें आपले जिणेंत जपून दवरिल्ली, ती म्हणजे ताची वाचनाची आवड... ताकाच लागून ताका जीण सारपाची ताकद मेळटाली... ताकाच लागून तें म्हाका वळखतालें...

कसली इत्सा नासली तरी मनांत एक आशा ताणें बाळगिल्या, पुताक बरो शिकोवप, ताचो बरो फुडार घडोवन दिवप, ताचो संवसार थाटून दिवप... आणि जिणेचे निमणे दीस शांतीकायेन ताचें सुख पळयत सारप...

... सुखदाचे ताचे जिणेची काणी तशी खूब लांब पूण मडगांव पावता म्हणल्यार ताणें ती आटापा हाडिल्ली.

बसींतल्यान देंवतना ताणें म्हाका म्हणिल्लें,

"बेगीनच बरय हां... चड वेळ काडनाका."

हांवें ताका 'हां' म्हण उतर दिल्लें खरें पूण फाटले तीन म्हयने बरोवची

काय ना, ह्या संभ्रमांत हांव पडिल्लें . ताणें सांगिल्लें उतरान उतर म्हज्या काळजाचेर कोरांतून आशिल्लें. एकेच बसकेंत ती काणी बरोवन जावपाची... काणी कित्याक ... कांदबरी जावपा सारको विशय तो. पूण म्हाका बरोवपाकच मन येनाशिल्लें. दिसतालें, इतको तेंप ताणें आपल्या मनाचे कुंपेंत धांकून दवरिल्ली ताची जीण हांव उक्ताडार घालची ना मूं. अशी कोणाची खाजगी जीण उक्ताडार घालप योग्य? म्हज्यो काय सहलेखिका कोणाची खबर कळ्ळी रे कळ्ळी, रोकडीच ताचेर कथा वा कविता बरयतात, आनी मागीर तूं जाणा म्हजी ही कथा... ही कविता अमूक अमूकेचेर हांवें बरयलां म्हण मार नेटान सांगतात. तें आयकतच म्हाकाच गुन्यावकारी जातालें, देवा ताका/तिका कळ्ळ्यार कितें जातलें? तांच्या मनाक कितें दिसतलें?

तरी एकेवटेन म्हज्या मनांत येतालें, ताची कथा बरोवंकच जाय. ताचे कसलेय चुकीबगर ताणे जिणेंत खूबव सोंसले, ते समाजामुकार मांडूकच जाय. पापकर्म करून नामनिराळो जावपी ताच्या घोवाचें, बायल आसूंनय आत्मसन्मान नाशिल्ले एके बायलेचें खरें रुप जगामुकार येवूंकच जाय!.... शिवाय ताची कथा बरोवची अशी इत्सा ताणें स्वताच उक्तायल्या!

ताची कथा बरोवं .... काय ना बरोवं ... ह्या मनाच्या गोंदळांत तिनेक म्हयने सोंपिल्लें. मदीं तें दोनदां म्हाका मेळिल्लें, तेन्ना ताणें सगल्यांत पयलीं म्हाका प्रश्न विचारिल्लो,'' घेतलां म्हजें बरोवंक?'

हांवें तेन्ना वेळ मारून व्हेल्ली... ''आं... हय...सुरू केलां हांवें... पूण कंप्लीट करूंक वेळच मेळ्ळोना... ह्या दिसांनी हो सेमिनार ... तो साहित्योत्सव... चालूच आसा...पूण ह्या दिवाळेक खंयच्याच तरी दिवाळी अंकांत ती छापून येतली हें उतर दिता तुका हांव.''

हांवें ताका अशें सांगिल्लें त्या दिसा उपरांत तें म्हाका आज मेळटालें. मदले दोन म्हयने तें म्हाका मेळ्ळेचना. मदीं एकदां म्हाका ताची याद जाल्ली तेन्ना हांवें समज करून घेतली, घडये ताची पणजेच्यान ट्रान्सफर बी जाली आसत... पूण आज म्हाका तें दिसलें... तेवय आदले परस चड अशक्त... थकिल्लें...कितें जाला काय ताचें?...

आपलेच मर्दी चिंतचे परस ताकाच विचारप योग्य पूण ते आर्दी तें म्हजेबरोबर टॅक्सीन येता जाल्यार पळोवया, अशें थारावन हांव लायनींतलें भायर सरून मुखार ताचे म्हऱ्यांत गेलें.

"सुखदा..." हांवें ताका उलो केलो.

ताची मान सकल जमनीकडेन आसली. ती वयर उखलून ताणें म्हका पळयले.

"आं...तूं...? पळयलेंच ना." ताचो क्षीण आवाज भायर आयलो.

"तूं कशें पळयतलें म्हाका... हांव तुज्या फाटल्यान उबें आसलें."

"हय..."

"तूं येता गो म्हजे बरोबर मडगांव? हांव टॅक्सी करतां... ह्या बसीचें कांय धड ना... निमाणी बस चुकतली म्हाका...पावसय दडकेवपाचो आसा..." हांवें एकाबरोबर सगलें सांगून वडयलें.

"आं... हय... येता. कितके पयशे?"

"तुका पयशांचें कोणें विचारलां... तूं योच म्हजेबरोबर."

"आगो ... पूण.."

"तुजें पूण मागीर कर ..चल यो पयलीं ."

हांवें थोड्या अधिकाराच म्हणलें तशें तें म्हजेबरोबर चलूंक लागलें. लायनींतल्यो कितक्यो तरी नदरो ताका म्हजेबरोबर चलतना मान घुंवडावन पळोवंक लागल्यो. केन्नाच कोणा बरोबर न उलोवपी कसलोच संबद न दवरपी तें म्हजेबर उलयता आनी वांगडा वता हाचें तांकां अजाप जाल्लें.

चलतना तें मंद गतीन चलताले. ताचीं पावलां झपझप उखलनाशिल्ली.

भायर प्रीपेड टॅक्सी स्टण्डार वचून एक टॅक्सी हांवें भाड्यान घेतली. टॅक्सी मडगांवचे दिशेन मार्गाक लागली.

मेरशेचें धांव काडून टॅक्सी बांबोळेच्या चडावाचेर पावतांच गाडयेंत मान सकल घालून बशिल्ल्या सुखदाक हांवें म्हणलें,

"कितें जालं गो तुजें? ... बरें ना.? .. सामकें दुयेंत कसें दिसता म्हगो तूं?"

म्हजो प्रश्न ताका अपेक्षीत आशिल्लो जावंक जाय. तें खिणभर वोग्गी रावलें मागीर म्हजेकडेन पळयत म्हणूक लागलें, ''जालां म्हजें कर्म...!''

''म्हणल्यार... कितें... कॅन्सर... बी.... ''हांवें धडधडट्या काळजान विचारलें.

परत दोन खीण ते वाग्गी रावलें.

''तो तरी जाल्यार बरें जावपाचें गो... त्यावूय परस भयानक जालां...''

म्हाका आनीक कच्च जालें... ''अशें कितें जालां गो...?''

''म्हज्या चल्यान एके चलयेचेर रेप केली... म्हणल्यार तशें करपाचो यत्न केलो...''

''कितें...कितें सांगता गो तूं...? वोग्गी राव... कितेंय उलोवं नाका... तो आयकतलो....''

टॅक्सी ड्रायव्हरा कडेन पळयत हांवें हळूच म्हणलें . ताचें कान आमच्या उलवण्या कडेन लागिल्ले तें म्हाका उमजल्लें.

''आयकूं गो शाण्या ...सगळ्यांक कळ्ळां तें... लिपोवपा सारखें कांयच उरलेंना. तुवेंय पेपराचेर वाचलां आसतलें... दोन म्हयन्या आदीं सांखळेचे एके कॉलेजींतले चलयेक लिफ्ट दिवन ताच्याच क्लासमेटान बलात्कार करपाचो यत्न केलो म्हण.... फक्त नांवां आयलीं नाशिल्लीं तांचीं... ती चली मोठ्यालीं... ताका लागून तांणी दोगांयचींय नावां लिपोवन दवरली...''

हांवेंय ती बातमी वाचिल्ली. तेन्ना म्हाका त्या चल्याची तिडक मारिल्ली. आतां हो सुखदाचो चलो म्हण कळटकच हांव थोडें गोंदळ्ळें.

''अशें कितें गो तो... खरेंच म्हुगो ताणे तशें केलें? काय कोणें ताका मुद्दाम ट्रपांत बी...''

''कोणें घालूंक ना ट्रपांत बिपांत... ताणेंच गू खालो गो... बापायचेच गूण आयले आंगांत...लिंगपिसांट जालो तो... हाडांचीं काडां करून वाडयलो ताका ... ताचें हें फळ दिलें ताणें म्हाका... म्हज्या दुदांत हागलो तो... आनी कोणें ट्रपांत घालपाचो बेत केल्यारूय असलें कुकर्म करूंक तो कित्याक तयार जालो? ''

ताचो आवाज आतां फुटिल्लो... गळ्यांत हुंडको दाटिल्लो.

"आगो पूण तो सामको सादो... आपूण आनी आपलो अभ्यास बरो असलो, अशें म्हण्टालें न्ही गो तूं?" ...एका दिसा ताणें उलयतना चल्याविशीं सांगिल्लीं उतरां याद जावन हांवें म्हणलें.

"हूं... खाली मुंडी पाताळ धुंडी!... ताचें रगतच पाडं पडिल्लें हळशिकवाणें...! बायलो पळयतकच तारतम्य...नात्या-गोत्याचें भान उरना तांकां ! बापायन कितें केलें? स्वताचे आवयसमान भावजे बरोबर...

पूण हालींसराक तो बरोच आपले गूण म्हाका दाखयतालो. हें जाय, तें जाय म्हण हट्टीपणां करतालो... कांय दिसा आदीं बायक घेवन दी म्हण हट्ट घेवन बसलो... पयलीं हांवें ना म्हणलें. मागीर हांवेंच येवजिलें... दिवया घेवन ... बरोबरचे घेवन भोवतात ... हाकाय आपणें भोंवचें शें दिसलां आसतलें. म्हुणून दिली लोनार घेवन. आतां दिसता, ना दिल्ली जाल्यार बरें जावपाचें ...कारण त्याच बायकाचेर लिफ्ट दिवन खंय हाणें ते चलयेच्या आंगार हात घातलो... ताणें खंय इश्टाकडेन बॅट मारिल्लें, तशें करपाचें. त्या इश्टानीच खंय ताचे फाटल्यान पोलीसांक धाडले... आडवाटेन रानांत व्हेल्लें खंय ताणें ते चलयेक..."

म्हाका कितें उलोवचें तेंच समजना जालें. म्हज्या तोंडांतलीं उतरांच शेणिल्ली.

"आतां खंय आसा...? घरा..?" त्या भुरग्याक जामीन मेळ्ळा हें हांवें वाचिल्लें, ती याद जावन हांवें म्हणलें.

"मॅडिकल रिपोर्टा प्रमाण बलात्कार जावंक पावलोना म्हण ताका बेल मेळ्ळी... पूण ती हांवें दिली ना. म्हाका कळटकच मस्तकाक तिडक मारली. थारायलें, ना दिवचें बेल, ना काडचो वकील ! ना म्हण वच्चेंय ना मेळूंक ताका पोलीस स्टेशनार! . भोगूंदी म्हणलें ताका आपल्या कर्माचीं फळां... आज जर ताका सोडोवपाचो यत्न केलो तर ताचें हें गूण फुडें वाडटलें... फुडें सामको हाता भायर वतलो...!"

"म्हणजे, तो जेलींत..."

"ना...सद्द्या ताची केस चलता... ताका जामीन जाला...आनी तो कोणें दिला तो जाणा? ... ताच्या बापायन!"

"कितें???" ... हांव एकदम थक्क जालें.

"हय... ताच्या बापायन!.. भुरगो जल्माक येवन वीस वर्सांत बापायन केन्ना ताचे तोंड पळयलेंना, तो जितो आसो काय मेलो हाची वासपूस केलीना... तो बापूय ताका पोलीसांनी अटक करतकच सोडोवंक आयलो... ताका जामीन दिवन आपल्या घरा घेवन गेलो... बापायक आतां जाण्टेपणांत पुताची गरज जाली... भावज मेली...भाव मेलो... तो आतां एकटोच आसा ... आतां कोण तरी जाय सांगाताक... संदी सादून घेवन गेलो तो पुताक..."

"पूण...पूण... तुजो चलो गेलो गो ताचेबरोबर...?"

"गेलो कितें ? म्हजेर थुंकून गेलो ! ... आवयच्या कश्टांची याद लेगीत दवरनासतना गेलो!"

"कितें सांगता गो तूं...? " म्हजो ताचे सांगणेचेर विस्वासच बसना जालो.

"हय... त्या दिसा हांव ताका जामीन दिवंक गेलेना... आई-बाबाय कितें करून सोडय ताका म्हण म्हजे फाटीक लागिल्लीं पूण हांवें तांचेंय आयकलें ना... म्हणलें, ताका आतांच जाग्यार हाडूंक जाय!"

दीस पडूंक लागिल्लो. हांव घरांत कपलार हात घेवन सोफाचेर बशिल्लें. येवजितालें, नशिबान कितें कितें म्हज्या वांट्याक दवरलां काय?... इतक्यांत दारांत एक गाडी थारली. गाडयेंत कोण आशिल्ले तें हांव नकळ, पूण ताचो बापूय आनी आदोवोगाद निश्चित आसूंक जाय . तो तिरमिरीत भितर सरलो. ताणें म्हाका नेटान उलो मारलो. आवाज आयकून हांवें अजापान मान वयर केली. हो कसो हांगा?

म्हाका कितेंच उलोवपाची संद दिनास्तना ताणें म्हणलें, '-आई, तुवें म्हाका सोडवपाचो कसलोच यत्न केलोना... हांव तुजो कोणच न्ही अशे तरेन तूं वागली...म्हजो बापूयच म्हाका जामीन दिवन सोडोवंक आयलो... आयच्यान हांव तुका मेलो!... आयज पासून हांव बापाय म्हऱ्यांत रावतलों!

... कोर्टान तुमकां घटस्फोट दितना स्पश्ट केल्लेंच आसा, हांव सज्ञान जातकच कोणा म्हर्‍यांत रावपाचे तें स्वता थारायतलों म्हण! ... हांवे तें आज थारायलां आई... आयज पासून हांव बाबा म्हर्‍यांत रावतलों...!'

आनी म्हजे व्हॉंटयेचेर खोंट घालून तो गेलो गो बापाय बरोबर... म्हज्या दुदाक नांव दवरून गेलो... म्हजी जीण रेंवट करून गेलो...!"

तें हो हो करून रडूंक लागलें. म्हाका कांयच सुचना जालें. टॅक्सीचो ड्रायव्हरूय कळवळून फाटल्यान वळून पळयतालो.

"वोगी राव, वोगी राव," म्हणत हांवें ताचे फाटीर मायेन हात फिरयलो. तशें तें म्हज्या खांक्यांतच रिगलें. ताच्या भावनांचो बांदच फुटिल्लो....

भायर हरघांरांनी पावस ओत्तालो आनी भितर ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांचे व्हाळ देंवताले...



जननी, पुत्री आनी सहचरणी हीं अस्तुरेचीं तीन मुखेल रुपां. भारतीय संस्कृतीन तिका देवीचो दर्जो दिला. तिचें माता रुप आदिम काळासावन पुजलां. मात शेकड्यांनी वर्सांसावन तिचो छळय केला. केन्ना संस्कृतीच्या नांवाखाला तर केन्ना कौटुंबीक आनी सामाजिक नेमांच्या नांवा खाला तिचें शोशण केलां. अस्तुरी म्हणजे फक्त एक इंद्रीय, तिका भावना नात. तें दादल्यांनी जाय तशें भोगपाचें, ताचे राकेशीपणान हाल करपाचें, पिसुडपाचें, किरमुवपाचें ही भावना दुर्दैवान प्रगत मानपी आयच्या समाजांतय आसा, म्हण कंवळ्या चलयांचेर निर्भया जावन प्राण सोडपाचो प्रसंग येता . तिच्या माता रुपाचीय अवहेलना करपाक समाज फाटीं रावलो ना. जेन्ना अत्याचारांनी शिममेर हुंपल्या तेन्ना मागीर बायलेन हातांत शस्त्र घेतलां, ती चंडी जाल्या. आपल्याचेर आगळीक करप्यांचो तिणें शिरच्छेद केला. ती सांतेरीची दुर्गा जाल्या!



राजाई प्रकाशन

मुल्य : ₹ 150/-